# भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना

– रवीन्द्र केळेकार







# भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना

रवीन्द्र केळेकार




बिम्ब प्रकाशन

भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना
रवीन्द्र केळेकार

Bharatvarshachi
Sanskrutaechi Sadhana
by
*Ravindra Kelekar*

प्रकाशन क्र. ३८



**पयली आवृत्ती**
२००५



**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स
बी-२, 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - ५९० ००२



**अक्षर जुळणी**
बिम्ब प्रकाशन

**दर्शनी चित्र**
डॉ. सुबोध केरकार

**प्रकाशक**
कामिनी किणी
बिम्ब प्रकाशन
जी.एस.बी.३,
हावसिंग बोर्ड कॉलनी,
पर्वरी - गोंय

**मोल :** १५०/-

ISBN 81-902817-0-4

ऋषितुल्य
मोन्सिन्योर कार्मु द सिल्वा
हांकां
भौच नमळायेन

# मांडावळ


| | | |
|---|---|---|
| | शुभास्ते पंथानः सन्तु | |
| | मूळ सूर | |
| १. | म्हालगड्यांचे धाडशी प्रयोग | १ |
| २. | वेदीक काळांतली साधना | ८ |
| ३. | पुराण काळांतली साधना | ३२ |
| ४. | महाभारताच्या काळांतली साधना | ३९ |
| ५. | मुसलमानी काळांतली साधना | ४५ |
| ६. | राष्ट्रवादाचे अंतःप्रवाह | ६९ |
| ७. | विवेकानन्दांलें हिन्दुत्व | ८१ |
| ८. | धर्मां आड संप्रदाय | ८८ |
| ९. | भारतीयत्व | ९५ |
| १०. | आतांची साधना : कांय पथां | १०१ |
| | १. मनीसघाणो हिन्दू | |
| | २. धर्मांतलो कोयर | |
| | ३. संस्कृतायेचें व्याकरण | |
| | ४. हिन्दूंचें म्हातारचळ | |
| ११. | ईश्वर अल्ला तेरे नाम | १२६ |







# शुभास्ते पंथानः सन्तु

सुमेरिया, बाबिलोनिया, आसीरिया, पर्शिया, इजिप्त, ग्रीस, रोम ह्या वाटारांनी एका काळार एका फुडल्यो एक आगळ्यो वेगळ्यो संस्कृतायो तरतरून वयर सरिल्ल्यो. आयज त्या वाटारांनी तांचे फकत अवशेषूच पळोवंक मेळटात. ताणी जांकां घडयल्ले तांच्या जिवितांतल्यो त्यो साप्प ना जावन गेल्यात. कित्याक लागून त्यो ना जाल्यो? भायल्यान कोणें येवन त्यो ना केल्यो? भायल्यांनी येवन ना केल्ली एकूच संस्कृताय आसा. अमेरिकेंतल्या 'रॅड इन्डियन्सां'ची. येवरोपेवांनी निष्ठूरपणान ना केल्ली. बाकीच्यो ज्यो ना जाल्यात त्यो तांच्यांतूच आशिल्ल्या विसंगतींक लागून बरगेल्यात आनी ना जाल्यात.

फकत दोनूच संस्कृतायो हांचे इतल्योच पोरण्यांतल्यो पोरण्यो आसुनूय आयज लेगीत जिव्यो तट्टटीत उरल्यात. एक चिनी. दुसरी भारतीय. चिनी संस्कृतायेचें ज्ञान म्हाका ना. आसा तें उखलापें. भारतीय संस्कृताय म्हज्या शिरंत्रांनी घोळटा. म्हज्याच न्हय, सगळ्या भारतियांच्या शिरंत्रांनी घोळटा, धर्मान मागीर ते खंयचेय परंपरेचे आसूं. कित्याक लागून ती जिवी उरल्या?

दोन जापो मेळटात –

एक, जिविताच्या सगळ्या आंगांक सारकेंच म्हत्व आसा अशें मानून तांचो ती संतुलीत विकास करीत आयल्या म्हूण. आनी दुसरी, आपणा आशी–कुशीक आशिल्ल्या सगळ्या वंशकुळांच्या लोकांक आपणा वांगडा घेवन मुखार चलत रावल्या म्हूण.

भारतीय संस्कृतायेची बुन्याद घाली वेदीक आर्यांनी. पुणून ही बुन्याद ते घालताले त्या वेळार देशांत फकत तांच्याच वंशाचे लोक नाशिल्ले. दस्यू (द्रवीड), दैत्य, दानव, असूर, राक्षस, आनी कांय जाणांच्या मत्तान, यक्ष, गंधर्व, किन्नर वंशांचेय लोक आशिल्ले. संख्येन ते आर्यां परस तिपेटीन चड आशिल्ले. तांच्यो सगळ्यांच्यो आपापल्यो खेरीत धर्मपरंपरा, चाली–रिती, भासो आशिल्ल्यो. आर्यांक आनी तांकां पडय नाशिल्लें. कितलींशीं शतमानां तांचीं झुजां चलत राविल्लीं.

एक दीस अचकीत आर्यांच्या म्हालगड्यांक एक दिशटावो जालो. तांणी सगळ्या आर्यांक एकठांय आपोवन सांगलें, 'आमी इतलीं वर्सां चलत रावले ते संघर्षाचे वाटेन खंयचोच प्रस्न सुटूंक ना, सुटपाचो ना. आमी आमची वाट बदलुंया. समन्वयाची वाट आपणावया. आमचे आशी-कुशीक जितल्याय वंशकुळांचे लोक रावतात तांकां आपोवया. एके कडेन बसून आमी तांचे कडेन उलोवंया. मनान एक जावंया. मनान एक जातकूच आमचें चिंतपूय एक जातलें. एक मोख मुखार दवरून आमी सांगातान चलपाक लागतले आनी सवस्तकायेन जियेवंक पावतले.'

आर्य झुजांक उबगल्ले. तांकां हें म्हणणें पटलें. तांणी उदार, सज्जन (noble) ह्या अर्थान 'आर्य' जावंचें थारायलें. आनी बाबा–पुता करून तांणी सगळ्या वंशकुळांच्या लोकांक एकठांय हाडले. एकठांय येतकूच दिवप घेवप जावंकूच जाय आशिल्लें. सगळ्यांनी एकामेकांक दिलें तशें एकामेकां कडल्यान घेतलें. ह्या वेव्हारांत आर्यांनीच सगळ्यां कडल्यान सगळ्यांत चड घेतलें. परिणामीं – जी संस्कृताय उदेली ती निखटी आर्यांची उरूंक नाशिल्ली. तशी दस्यूंचीय उरूंक नाशिल्ली. सगळ्या वंशांच्या लोकांक आपणांत आसपावन घेवपी 'भारतीय' संस्कृताय जाल्ली. समेस्तांची common जाल्ली.

आमचे संस्कृतायेची ही साधना हांगा थांबूंक ना.

बौद्ध काळांत यवन, शक, पहलवी, कुशाण आयले. हेवूय वेगळ्या वेगळ्या वंशांचे लोक आशिल्ले. तांगेल्योय आपापल्यो खेरीत धर्मपरंपरा, चाली–रिती, भासो आशिल्ल्यो. तांणी आपणाल्यो राजवटीय हांगा चलयल्यात. कोणें शंबर

वर्सां चलयल्या, तर कोणें देडशें वर्सां. एक दीस तांच्यो राजवटी सोंपल्यो. पुणून ते? परते गेले व्हय? च्ये. हांगाच रावले. कोण बौद्ध जाले. कोण वैष्णव जाले. भारतीय समाजांत ते इतले भरसून गेल्यात की सोदल्यारूय आयज ते खंयच दिश्टी पडनात.

आमची संस्कृताय घडोवपाक हांचोय हातभार लागला. आयज देशांत विक्रम संवत चलता तें हांचे मदल्या एका राजान आपणा नांवान सुरू केल्लें म्हूण सांगल्यार खरें दिसत व्हय कोणाक?

देश गिरेस्त म्हूण ताची नामना संवसारभर पातळ्ळेली म्हुण्णूच आसूंक जाय – भायल्यान कोण न्हय कोण सदांच हांगा येत रावल्यात.

मध्य युगांत मुसलमान आयले.

वेगळ्या वेगळ्या वंशांच्या लोकांक एके संस्कृतायेचे सत्रे खाला हाडून दवरपाच्या वावरांत आमगेल्या म्हालगड्यांनी कोणाचेंच खेरीतपण विरगळचें ना म्हणपाची जतनाय घेतिल्ली. हे जतनायेन वेगळ्यो वेगळ्यो जाती निर्माण केल्ल्यो. सगळ्यो एकामेकां शेजरा पुणून वेगळ्यो वेगळ्यो रावताल्यो. तांचे मजगतचो आपले पेलेपणाचो वेगळेचार ना करचो म्हूण आमच्या म्हालगड्यांनी गुण–कर्माच्या तत्त्वाक धरून त्यो चार 'वर्णां'त वांटून घाल्यो. चारां मजगतच्या क्षत्रीय वर्णाच्या हातांत देशाची राखण करपाचें काम आशिल्लें. उत्तर भारतांत राजपूत क्षत्रीय आशिल्ले. शूर आनी वीर म्हूण तांणी नामना जोडिल्ली. तांगेलें हें शौर्य आनी वीर्यूच देशाचें दुस्मान जालें. 'चक्रवर्ती राजा' जावपाच्या हावेसान राजपूत एकामेकांचे पांय ओडपाक लागले. इतलेंच न्हय तर भितरले भितर मारामारी आनी कापाकापीय करपाक लागले. परिणाम – चातुर्वर्ण्याच्या कोटाक भोकनोळ पडले आनी त्या भोकनोळांतल्यान अचळय एक दीस मुसलमान भितर सरले. राजपुतांक हरोवन तांणी देश आपणा हातांत घेतलो.

लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, मुसलमानूय वेगळ्या वेगळ्या वंशांचे आशिल्ले. कोण तुर्क, तर कोण पठाण. कोण अरब, तर कोण मोगल. तांगेलो धर्मूच फकत एक आशिल्लो. चाली–रिती, भासो वेगळ्यो वेगळ्यो आशिल्ल्यो. समार सात शतमानां तांचो ह्या देशाचेर शेक चल्ला. तांच्या प्रभावांत येवन खूब





जाण मुसलमान जाल्यात. खूब जाण तांच्या जुलमां मुखार उपाय नासून मुसलमान जाल्यात. पुणून तुर्की, पठाण, अरब, मोगल मात कोणूच जावंक ना. तुर्की पठाण मोगल अरबांचे नदरेन ते आयजूय 'हिन्दी'च उरल्यात. हांकां भारत सोडून दुसरो स्वदेश ना. तांचे मजगतच्या कांय जाणांनी झगडीं करून भारताचो एक कुडको कातरून ताचें 'पाकिस्तान' नांवाचें एक नवें 'राष्ट्र' निर्माण केलां खरें. पुणून तो भारतीय मुसलमानांचो मायदेस तर जावंक पावुंकूच ना, बांगलादेशियांचोय जावंक पावूंक ना.

भास, भेस, जेवण–खाण, शिष्टाचार, साहित्य, संगीत, कला, स्थापत्य, आमचे संस्कृतायेच्या एकान एक आंगांत मुसलमानांचें मोलाचें योगदान पळोवंक मेळटा. हिन्दूंच्या भक्ती संप्रदायाचेर लेगीत मुसलमानी सूफी संप्रदायाचो प्रभाव दिश्टी पडटा.

आमचे संस्कृतायेची साधना हांगाच थांबिल्ली जाल्यार ती अर्दकुटीच उरतली आशिल्ली. इतिहास–विधात्याक ती अर्दकुटी उरिल्ली नाका आशिल्ली म्हूण जावंये, मुसलमानी शेक हांगा चलिल्लो आसतनाच ताणें येवरोपेवांक हांगा हाडून सोडले. पयले पुर्तुगेज पावले. मागीर फ्रेंच आनी डच आयले. निमाणे इंग्रज आयले. येवरोपेवांत इंग्रज सगळ्यांत चड कर्तुत्वी थरले. तांणी इल्लो इल्लो करून भारत मुसलमानांच्या हातांतलो सोडोवन आपणा हातांत घेतलो. भारतीय लोक मुसलमानांच्या जुलमांक उबगल्ले. 'तांचे परस हे बरे' अशें म्हणून तांणी इंग्रजांक उर्बेन येवकार दिलो. इंग्रजांत आनी पयलीं आयिल्ल्या विदेशी लोकांत एक व्हड फरक आशिल्लो. आदीं आयिल्ले सगळे हांगाच रावपा खातीर आयिल्ले. मायदेसा कडली तांगेली नाळ तुटिल्ली. इंग्रज हांगा रावपा खातीर येवंक नाशिल्ले. तांचो खाशेलो मायदेस आशिल्लो. थंयच्यान येतात त्या हुकमांक धरून ते चलताले. पुणून जशे कितें 'आमी सदांकाळ हांगाच रावपा खातीर आयल्यात' अशें मानून ते आपणालो शेक हांगा चलोवपाक लागले. रेल्वे, पोस्ट, टेलेग्राफ, महामार्ग असलें एक जाळ विणून तांणी पुराय देस पयलीं एक केलो. मागीर, सगळे कडेन एकेच तरेचे कायदे, एकेच तरेचें प्रशासन (इंग्रजींत), एकेच तरेचें चलन, एकेच तरेचें शिक्षण (इंग्रजी माध्यमांतलें) चलयलें आनी हो विस्कळीत

देस तांणी एका 'राष्ट्रां'त गुथून काडलो. येतना तेवूय आपणा वांगडा एक धर्म (ख्रिस्ती) घेवन आयिल्ले. कांय जाणांक तांणी बाटोवन ख्रिस्तीय केल्ले. पुणून ह्या ख्रिस्ती धर्मा भायर ते येवरोपांतलो 'रेनेसांस'च्या काळांतलो उदारमतवादी विचारूय घेवन आयिल्ले. तो ख्रिस्ती धर्मा परस चड प्रभावी आशिल्लो. जे ख्रिस्ती जाले नात तांणी हो विचार घेतलो. आमच्या समाजांत ज्यो कितल्योश्यो कुसक्यो नश्ट्यो पाड्यो चाली चलत आयल्यात, जे कितलेशे समाजीक अन्याय चलत आयल्यात, धर्माच्या नांवान ज्यो कितल्योश्यो पिसायो चलत रावल्यात त्यो ना करपाची ताकत ह्या विचारांत आशिल्ली. ह्या विचाराचें म्हत्व वळखुपी तीग म्हा–पुरूस त्या काळांत देशांत आशिल्ले. एक, राजा राममोहन रॉय, दुसरे, न्यायमूर्ती महादेव गोविंद रानडे आनी तिसरे, स्वामी विवेकानन्द. उदेंत आनी अस्तंत ह्या दोनूय दिकांक उजव्या आनी दाव्या हातांत धरून हे तिगूय देशभक्त मर्दी दिग्ग कशे उबे रावले. रवीन्द्रनाथ, अरविन्द, गांधी हांच्याच संस्कारांत वाडल्यात. परिणाम – देशांत 'सुधारकां'चो एक नवो वर्ग वयर सरलो. कोणें सतीचे चालीचेर बंदी हाडची म्हूण चळवळ चलयली, तर कोणें घोव गेल्ल्या तरणे पिरायेच्या बायलांक पर्थून लग्न जावपाची मेकळीक मेळची म्हूण चलयली. कोणें आफूड–भश्ट ना करपाच्या वावराक आपणालें जिवीत ओंपलें तर कोणें जाती मोडपाचो वावर हातांत घेतलो. ब्राह्म समाज, आर्य समाज, प्रार्थना समाज सारकेल्या संस्थांनी तर हिन्दू धर्मविचारांतूय निवळावणी सुरू केली.

इतल्यार हो वावर थांबलो ना. देशाक स्वराज्य मेळचें म्हुण्णूय लोक वावरूंक आनी झुजूंक लागले. इतिहास विधात्यान इंग्रजांक हांगा हाडून सोडूंक नाशिल्ले जाल्यार भारतवर्षाची संस्कृतायेची म्हा–साधना मुखार धेंपां घालून चलूंक पावतली आशिल्ली काय कितें, दुबाव आसा.

इंग्रजांक अशें घडिल्लें जाय आशिल्लें, अशें म्हणूंक येना. पुणून तें 'घडलें'. विचारांचे शक्ती आड इंग्रजांची सत्या मोव पडली. इंग्रजी सत्येची दानत इबाडल्या ती १८५७ तल्या बंडा उपरांत. स्वराज्याचे चळवळीक आडखळ हाडपा खातीर तिणें आमच्या समाजीक जिवितांतल्यो सगळ्यो भेगो, चिरो, वेरो सोदून तांकां पोसवण दिल्या आनी आमचे मजगतीं फूट घाल्या. परिणामीं, स्वराज्य आमकां

मेळ्ळें खरें. पुणून देशाच्या विभाजनाचें मोल दिवन आमकां तें घेवचें पडलां आनी आमच्यांत लावालावी लावन इंग्रजांनी निर्माण केल्ल्या हजार प्रस्नांचें वजें तकलेर घेवन आमकां तें चलोवचें पडलां.

१९४२–४७ च्या काळांत स्वराज्य आमच्या देशाची दारां खटखटावपाक लागलां त्या वेळार देशभक्तांच्या उलोवपांतल्यान आनी बरपांतल्यान हें सगळें आयकल्लें आनी वाचिल्लें. म्हजें शिक्षण पुर्तुगेजींतल्यान जाल्ल्यान हांवें हांतलें कितेंच आयकूंक वाचूंक नाशिल्लें. म्हाका हें सगळें नवें आशिल्लें. समजून घेवपा सारको हो एक विशय, सारको बरो अभ्यास करून तो समजून घेतलों आनी जमलें जाल्यार पांचशीं सातशीं पानांचो एक ग्रंथ कोंकणींत बरोवन काडटलों अशें हांवें त्या वेळार थारायल्लें. कोंकणीचें 'पिशें' य ह्याच काळांत लागिल्लें. हो अभ्यास गोंयांत जावपा सारको नाशिल्लो. तो करपाक अश्या एका थळांत पांच–सात वर्सां बसकण मारून बसतलों की जंय संदर्भ–ग्रंथ सोंपेपणान मेळूं येतात आनी जंय ह्या विशयाचे जाणकार रावतात, अशें येवजिल्लें. पुणें वा बनारस अशीं दोन थळां दोळ्यां मुखार उबीं राविल्लीं. पुणून प्रस्न आशिल्लो तो पांच–सात वर्सांचो. तीं खंयच्यान हाडपाचीं? अभ्यासाचो हो विशय मनांत उदेला त्याच वेळार जिस्त लोहियांच्या प्रभावांत आयलों आनी हांवें गोंयचे सुटके झुजांत उडी घेतली. म्हळें, असल्या प्रसंगार श्रीकृष्णाची देख घेवन चलूंक जाय. कंसाचे बंदखणींत आशिल्ल्या आवय–बापायक पयलीं सोडोवन उपरांतूच तो सांदीपनीच्या आश्रमांत शिकपाक गेल्लो. हीच देख घेवन, म्हळें, पयलीं गोंयचे सुटके झुजाक हातभार लावंया. मागीर अभ्यासाचें चिंतुंया. हिन्दुस्तान स्वतंत्र जालांच. आनी तें जवाहरलालांच्या हातांत आयलां. ते फिरंग्यांच्या हातांत गोंय थोडेंच उरूंक दिवपाचे आसात. लागतीत दोन तीन वर्सां. उपरांत हांव मेकळों. म्हाका खंय खबर, चवदा वर्सां आमकां सुटकेचो ध्यास घेवन बसचें पडटलें म्हूण!

चवदा वर्सांनी जावं, गोंयची सुटका जाली. आतां, म्हळें, राजकर्णांतलें आंग काडून घेतलों. सुटका जाल्या त्याच वर्सा जुलय ऑगस्ट सप्टेंबर हे तीन म्हयने पणजे क्वार्तेलार बंदिस्त उरल्लों. थंय हांवें गिजूभाईंच्या **दिवास्वप्न** पुस्तकाचें

**नवी शाळा** म्हूण कोंकणींत रुपांतर केल्लें. बंदखणींतल्यान सुटलों त्या वेळार ताचें हातबरप घेवन भायर आयिल्लों. आतां, म्हळें, गांवांत म्हजी एक 'नवी शाळा' सुरू करतलों. गिजूभाईन केल्ले तसले प्रयोग म्हजे हे शाळेंत करतलों. ते सफळ जाले जाल्यार हे तरेच्यो नव्यो शाळा गोंयभर सुरू करपाचो वावर हातांत घेतलों. पुराय जिवीत शिक्षणाच्या वावराक ओंपतलों. पुणून–

मनीस येवजिता तशें घडून येताच अशें खंय आसा? 'नवी शाळा' सुरू करपाचें येवजितां थंय आसां, कांय आसुरी बळां अवचीत वयर सरलीं आनी तीं भारताच्या नकाशावेलें गोंयचें नाव निशाण लेगीत पुसून उडोवपाक वावरूंक लागलीं. गोंय महाराष्ट्रांत विरगळावपाक कोंकणीची आडखळ जाता ती पळोवन ती भासूच न्हय, मराठीची ती एक बोली अशें म्हणून तिका हिणोवन तिची गची अंदुपाचो यत्न करपाक लागलीं. ह्या बळां फाटल्यान महाराष्ट्राचें पुराय राजकी आनी सांस्कृतीक नेतृत्व किंवाट्यान उबें रावलें तेन्ना कांय गोंयकार तरणाट्यांच्या कानार एक शान्त, गंभीर, तळमळीचो, न्हीद खळोवपी आवाज पडलो, 'पुतांनो, फिरंग्यांच्या शेकांतल्यान गोंयची सुटका करपाक खंयच्याय गोंयकारान कितेंच करूंक नाशिल्लें जाल्यारूय गोंयची सुटका जातलीच आशिल्ली. कित्याक, हो प्रस्न भारत स्वतंत्र जाले उपरांत निखटो गोंयकारांचो उरूंक नाशिल्लो. तो भारत सरकाराचो जाल्लो. आनी भारत सरकार आपणाले भुंयेर फिरंग्यांचो शेक सोंसून घेवपाचें नाशिल्लें. पुणून, आयज गोंयचेर ही जी घुरी आयल्या ती परतून लावपाक तुमी मुखार सरले नात जाल्यार कोणूच ती परतून लावंक पावपाचो ना. जवाहरलालांक लेगीत ती परतून लावंक येवपाची ना. तुमी ओगी बसतले? सुमार अडेज हजार वर्सां जालीं, गोंयकारांक गोंयचो कारभार धनीपणान चलोवपाक मेळुंकूच ना. पयलेच फावट ही संद गोंयचे सुटकेन गोंयकारांक मेळोवन दिल्या. ती तुमी होगडायतले? उठात, जागे जायात. आनी प्राण पणाक लावन ही घुरी परतून लायात.'

हो आवाज आशिल्लो शणै गोंयबाबांचो. पंदरा वर्सां पयलीं ते कूड सोडून गेल्ले. पुणून कोंकणी संवसार तांणी सोडूंक नाशिल्लो. प्रेरणेच्या रुपान ते काम करीत राविल्ले. कितल्याशा तरणाट्यांक – बंदखणींत पडिल्ल्या, कॉलेजांनी

शिकतल्या, नोकऱ्यो करतल्या कितल्याश्यांक–तांणी आपल्या विचाराचे केल्ले. सगळे खडबडून जागे जाले. कॉलेजांनी शिकतल्यांनी शिक्षण सोडून दिलें आनी ते गोंयांत आयले. नोकऱ्यो करतल्यांनी नोकऱ्यो सोडून दिल्यो, तेवूय आयले. बंदखणींत पडिल्ले सुटून आयिल्ले. सगळे प्राण पणाक लावन ही घुरी परतून लावपाक फुरफुरून आयले. खासा आपुणूय स्वस्थ बसले नात. दुसऱ्यांकूय तांणी स्वस्थ बसूंक दिले नात. कितलींशीं संमेलनां परिशदो कन्वेन्शनां तांणी घेतलीं. शेंकड्यांनी सभा घेतल्यो. गांवा गांवांनी वचून घेतल्यो. जळजळीत भाशणां केलीं. मोर्चे काडले. निदर्शनां केलीं. पदयात्रा काडल्यो. सत्याग्रह केले. कुसकीं तांतयां तोमातांच न्हय तर गुंडेय आंगार झेल्ले. जितलें करूं येतालें तितलेंय करून तांणी गोंय जागयलें आनी ही महाराष्ट्रीय घुरी परतून लायली. 'ओपीनियन पोल' तांणी जिखला तेन्नाच खऱ्या अर्थान गोंयची 'सुटका' जाल्या.

ह्या तरणाट्यां मजगतचो हांव एक. शणै गोंयबाबांनी किरंगळीच्या बोटार उखलून धरिल्ल्या गोवर्धन पर्वताक हांवेंय म्हजो तोणको तेंकयला. १९६२ पसून १९६७ मेरेनच्या काळांत एक दीस लेगीत दनपारचें जेवण घरा जेविल्ल्याचो म्हाका उगडास जायना. खंयची 'नवी शाळा' घेवन बसतलों आशिल्लों ह्या काळांत? हांवें तकलेंतलीच ती पुसून उडयली. ओपीनियन पोला उपरांत १९८० मेरेनच्या काळांतूय हांव खंयच्या न्हय खंयच्या राजकी वावरांतूच घुसपून उरलां. तरी आसतना आमचे संस्कृतायेचे साधनेचो इतिहास समजून घेवपाचो विचार सोडून दिवचो अशें दिसलें ना. कांय पुस्तकां ब़ाबाचे आरमारींत आशिल्लीं. कांय हांवें विकतीं घेतिल्लीं. कांय काकासायबां कडल्यान मागून घेतलीं. म्हळें, Preliminary (सुरवेचो) अभ्यास करपाक इतलीं हीं पुस्तकां पुरो. अभ्यासाक सुरवात केली. पुणून तीं वाचपाक वेळ मेळूं नाका? तो मेळ्ळा हांगा थंय वतना येतना बसींत वा खंयूय कोणाची वाट पळेत बशिल्लों आसतालों थंय. एक नेम केलो आनी ताका व्रतनिष्ठेन पाळो दिलो – ज्या दिसा जें वाचून जातालें तांतलें जें समजलां ताचें टांचण न्हिदचे पयलीं बरोवन दवरपाक लागलों. मदीं मदीं ह्या टांचणांचो आधार घेवन कांय लेख बरयले. ते 'कुळागर' आनी 'जागा'क दिले.

१९८१ त हांवें राजकर्णांतलें आंग काडून घेतलें. मनूय काडून घेतलें.

कोंकणीक साहित्य अकादेमीची 'देशांतली एक म्हत्त्वाची साहित्यीक भास' म्हूण मान्यताय मेळिल्ली. 'भास काय बोली' ह्या चिखलांतल्यान ती वयर सरिल्ली. तिचे तकले वेल्यान अजुनूय कांय काळीं कुपां उबतालीं. पुणून ते मेरेन एक नवी पिळगी वयर सरिल्ली. कोंकणीच्या फुडाराचो हुसको उरूंक नाशिल्लो. म्हळें, आतां कोंकणी बरपावळ गिरेस्त करपाचो वावर हातांत घेवन बसचें. 'महाभारता'चें अनुसर्जन केलें. रोखडें 'तथागत' घेवन बसलों. धा बारा वर्सां ह्या वावरांत खर्चलीं. आतां म्हळें, संस्कृतायेचे साधनेवेलें पुस्तक घेवन बसचें. 'कुळागरां'त आनी 'जागां'त छापून आयिल्ले लेख एकठांय केले. ते वाचले. म्हळें, जायतें काम करपाचें उरलां. जीं पुस्तकां वाचून हे लेख बरयल्ले तीं पर्थून एक फावट वाचूंक जाय. आनी हातूंत भर घालूंक जाय. उपनिषत् काळ, बौद्ध काळ, रामायण काळा संबंदान हातूंत कांयच येवंक ना. तें येवंक जाय. शंकराचार्य, मध्वाचार्य, वल्लभाचार्य, रामानुजाचार्य सारकेल्या दक्षिणेंतल्या आचार्यांच्या योगदाना संबंदान बरोवंक जाय. प्रयाग विश्वविद्यालयान मुसलमानी काळाचें पुनर्मूल्यांकन केलां. तें नदरे खाला घालूंक जाय. भौसाचो संस्कृतायेचो पांवडो वयर काडपा खातीर देशांतल्या वेगळ्या वेगळ्या संतांनी खूब मोलादीक वावर केला. ताचो नियाळ हातूंत येवंकूच जाय. इंग्रजी काळांत बह्म समाज, आर्य समाज, प्रार्थना समाज, रामकृष्ण मिशन, थियोसॉफिकल सोसायटी सारक्या संस्थांनी केला त्याय वावराची खबर येवंक जाय. आनी गांधी युगांत प्राणपणाक लावन आफूड– भश्ट ना करपाचो तसो प्राण ओंपून हिन्दू–मुसलमानांच्या एकचाराचो जो वावर खासा गांधींनी केल्लो ताचेर तर विस्तारान बरोवंक जाय.

म्हळें, पांच सात वर्सां नासूं, पुणून एक दोन वर्सां खातीर पुण्यांत वा बनारसाक वचून रावंकूच जाय. ते बगर हो अभ्यास पुरो जावपाचो ना. पं. विद्यानिवास मिश्रां कडेन तीस पस्तीस वर्सांची दाटी आशिल्ली. ते ह्या विशयाचे जाणकार तर आशिल्लेच. ते भायर, काशी विद्यापिठाचे कुलगुरूय आशिल्ले. म्हज्या प्रकल्पा संबंदान हांवें तांकां सांगलें तेन्ना तांणी खुशालभरीत जावन म्हळें, तूं बनारसाक यो. काशी विद्यापिठाचें ग्रंथालय तुजे सेवेक दितां. व्हडले व्हडले विद्वान थंय आसात. तांचे कडेन वळख करून दितां. येतना 'भाभीजी को भी

साथ में ले आइए और आप दोनों की सेवा करने के लिए किसी सेवक या सेविका को भी ले आइए. खाने पीने का, रहने का सारा प्रबंध किया जाएगा.' हांव उतार पिरायेचो जालां म्हणपाचें लेगीत साप विसरलों. वचपाचे बेत करूंक लागलों. आवाशिवा करून हालींच एक दीस तांकां 'येतां' म्हूण कळोवन चीट धाडली. ती तांकां मेळ्ळी काय कितें, कळ्ळें ना. पुणून गोरखपुराक वता आसतना वाटेर 'कार ॲक्सिडँटां'त ते भायर पडले म्हणपाची खबर मात म्हज्या कानार येवन आदळ्ळी. आनी हांव निर्शेलों.

आतां म्हजे मुखार दोनूच वाटो उरल्यात. बरयलां ते सगळें रद्दींत उडोवप वा पुस्तका रुपान छापून तें काळाचे व्हांवतेंत सोडून दिवप. तिसरी वाट ना. हांवें ही दुसरी वाट वेंचून काडल्या.

म्हजे फाटल्यान हांव अर्दकुटें काम कसलेंच दवरून वचचों ना, अशें म्हणीत आयिल्लों. पुणून कितें करूं? हें एक काम हांव पुरें करूंक पावूंक ना. कोणूय तरी तें करतलो हे आशेन **शुभास्ते पंथान: सन्तु** म्हणून तें काळाचे व्हांवतेंत सोडून दितां.

**रवीन्द्र केळेकार**

प्रियोळ,
२१ जुलय २००५
(गुरुपूर्णिमा)

# मूळ सूर

'संवसारांत जायते धर्म आसात. आपुणूच खरो अशें दर एकलो मानीत आयला. हांव अश्या एका धर्मांत जल्माक आयलां की जाणें सगळे धर्म खरे मानल्यात. सगळ्या धर्मांक आपले लेखचे अशें शिकयलां. ताणें भायल्यान आयिल्ल्या कितल्याश्याच धर्मांच्या लोकांक आपणाल्या गोपांत आसपावन घेतल्यात. पावसाचें उदक खंयूय पडूं, निमाणें तें दर्याकूच वचून मेळटा, तसो खंयच्याय देवाक नमस्कार करात, तो निमाणें एकाच देवाक पावता, अशें म्हजो धर्म मानता. आपुणूच खरो अशें मानतल्या धर्मांनी संवसारांत आयजवेर कितलींशीं धुमशेणां कांडलीं, लोकांचेर एका फुडल्यो एक आगळिको केल्यो, रगताचे व्हाळ व्हांवयले. ह्या धर्मकोल्लाचे दीस आतां भरल्यात. तरसादेचे धारेन दुसऱ्यांचो छळ करपाचे दीस आयज उरूंक नात...'

– स्वामी विवेकानन्द

शिकागोंतले धर्म परिशदेंत ११ सप्टेंबर १८९३ ह्या दिसा केल्ल्या उलोवपांतलो वांटो.

'पवित्रताय आनी धार्मिकताय हांचो मक्तो खंयच्याच धर्मा कडेन ना. सगळ्या धर्मां भितर हे दोनूय गूण दिश्टी पडटात. सगळ्या धर्मांनी एका फुडले एक धर्मपुरूश जल्माक घाल्यात. आपणालोच धर्म खरो, तोच एक संवसारांत चलतलो, बाकीचे सगळे सोंपतले असो समज कोणूय घेवन बसलो जाल्यार ताची काकुळट करची पडटली. हे मुखार सगळ्या धर्मांच्या घुडयांचेर तीन घोणशा तुमकां दिश्टी पडटल्यो–

१. एकामेकां कडेन झगडीं झुजां करून न्हय, तर एकामेकांक आधार दिवन,

२. एकामेकांक ना करून न्हय, तर सगळ्यांक आपणा वांगडा घेवन, आनी,

३. विरोध करून न्हय, तर सगळ्यां मजगतीं समन्वय घडोवन हाडून सगळे धर्म संवसारांत चलतले.'

– स्वामी विवेकानन्द

२७ सप्टेंबर १८९३ ह्या दिसा शिकागोंतले धर्म परिशदेंत केल्ल्या उलोवपांतलो वांटो.

१.

# म्हालगड्यांचे धाडशी प्रयोग

'एक राष्ट्र, एक संस्कृताय' ह्या सुतान ह्या देशाक गुथून काडपा खातीर केदे केदे धाडशी प्रयोग केले आमगेल्या म्हालगड्यांनी, समाजशास्त्राच्या मळार! आरंभाकूच जसो कितें तांणी नित्शय केल्लो : आमच्या ह्या देशांत अख्खो संवसार एका घोटेरांत राविल्ले वरी आसतलो - **'यत्र विश्वम भवति एक नीडम्.'** रवीन्द्रनाथांनी ह्या देशाक 'महामानवाचो सागर' म्हळा. कोणाचो उलो आयकून कोण जाणा, इतिहासा आदल्या काळा सावन वेगळे वेगळे कडले लोक ह्या देशांत एका सारके खंड पडूंक दिनासतना येत रावले. सगळ्यांत पयलीं आफ्रिकेंतले 'नेग्रिटो' कुळयेंतले लोक आयले. उपरांत, आयज जांकां आमी आदिवासी म्हणटात तांगेले म्हालगडे 'प्रोटो-ऑस्ट्रॉलॉयड' आयले. मागीर द्रवीड आयले. यक्ष, गंधर्व, किन्नर आयले. असूर, राक्षस, दैत्य आयले. आर्य आयले. शक आनी हूण आयले. कोण कोण, कशे कशे आनी खंयच्यान आयले, कोंत आनी हिशोब ना. कातीन वेगळे, रुपान वेगळे तशे संस्कारानूय एकामेकां पसून वेगळे वेगळे, कितल्याश्या वंशांचे लोक हे. बरें, आयले ते आयले, हांगाच रावपाचें थारावन आयले.

इतल्या तरांचे लोक एकठांय येवन रावतकूच कितें जातलें? आरंभाक ते एकामेकां आड किंवाट्यान झुजले. एकामेकांक ना करपाक वावरूंक लागले. अवचीत एक दीस तांकां एक दिश्टावो जालो. ते म्हणपाक लागले, 'अशीं झगडीं-झुजां करून आमी एकामेकांक ना करूंक पावपाचे नात. आमकां सगळ्यांक इतिहासविधात्यान एकेच भुंयेर हाडून सोडल्यात जाल्यार ताचो उद्देश्य वेगळ्या

वेगळ्या कातींच्या, रुपांच्या आनी संस्कारांच्या लोकांक एकठांय हाडटकूच कितें जाता हें पळोवपाचो आसूंक जाय. आमचे मुखार आतां एकूच वाट उरल्या. ती म्हळ्यार, एकामेकां कडेन जुळोवन घेवपाची. दुसरी वाट ना. तांणी एकामेकां कडेन जुळोवन घेवपाचें व्रत घेतलें. जंय जुळोवन घेवप सामकेंच कठीण-शें दिसलें थंय तांणी थारायलें : आमी वेगळे वेगळे, पुणून एकामेकां शेजरा रावंया. कोणाकूच आपणालें आगळे-वेगळेपण सोडपाची गरज ना. पुणून कोणेंच कोणाच्या जिवितांत आडखळी हाडच्यो न्हय. तशें कोणेंच एकामेकां आड झुजचेंय न्हय. वेगळ्या वेगळ्या काती-रुपांच्या, वेगळ्या वेगळ्या चाली-रितींच्या, वेगळ्या वेगळ्या धर्म-संस्कारांच्या लोकांक एकठांय दवरपाचो हो जो प्रयोग आमगेल्या म्हालगड्यांनी आपणाल्या इतिहासाच्या आरंभाक केलो तातुंतल्यान जाती जल्माक आयल्यो.

समाज-संघटनेचे नदरेन तांगेलो हो प्रयोग खूब म्हत्वाचो, खूब मोलाचो आशिल्लो. ह्या प्रयोगाक लागून वंशा-वंशा मजगतीं जीं झगडीं-झुजां चलतालीं तीं सगळ्यांत पयलीं सासणाचीं सोंपिल्लीं आनी तीं सोंपिल्ल्यान देशांत एके तरेचें सवस्तकायेचें, आयचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, शान्तिमय सहअस्तित्वाचें, 'पीसफूल को-एग्झीस्टंस'चें एक वातावरण निर्माण जालें.

हे भाशेन कांय शेंकडे जियेले उपरांत एक दीस आमगेल्या ह्या म्हालगड्यांनी हेच दिकेन आनीक एक पावल मुखार घालें. तांणी पळेल्लें : सगळ्यो जाती एकामेकां शेजरा रावतात खऱ्यो, पुणून शेजरा रावनूय त्यो एकिमेकींत भरसनात. जण एकली जात आपणाक दुसरे परस ऊंच लेखता, दुसरे परस अदीक 'शुद्ध' मानता आनी आपणाली ही शुद्धताय भंगूंक पावची न्हय म्हूण प्राणपणान जतनाय घेता. दुसरे जातीक आपणाले पंगतीक घेना. दुसरे जातीच्या लोकांच्या हातांतलें उदक लेगीत उश्टायना. एके तरेच्या आफूड-भश्टान सगळ्यो जाती एकिमेकीं पसून मनान पयस रावल्यात. ह्या आफूड-भश्टाक लागून तांच्यांत आपलो-पेलो आनी ऊंच-उणाक हे तरेचे वेगळेचार उबे जाल्यात. वेगळेचारांच्यो वणटीय तांणी आपणा भोंवतणी उब्यो केल्यात. हाका लागून तांच्यांत 'आमी एक' म्हणपाची भावना उदेवंक पावूंक ना. ऊंच-उणाकपण आनी आपले-पेलेपण ही हांगेली 'अ वे ऑफ लायफ' -जियेवपाची एक रीत - जावन पडल्या आनी ही अवस्था रोगी आसुनूय तांकां ती सभावीक कशी दिसूंक लागल्या. ती अशीच चलूंक दिली

जाल्यार 'एक राष्ट्र' म्हूण हो देश संघटीत जावपाचो ना, 'एक संस्कृतायू'य निर्माण जावक पावपाची ना.

नदरेंत हें येनाफुडें तांणी येवजिलें, ह्यो हजारांनी जाती आतां चार व्हडल्या वर्णांत वांटून घाल्ल्यो बऱ्यो.

ही वांटणी करपा खातीर तांणी ते मुस्तींतल्या मानसशास्त्राचो आधार घेतलो. सैमान हो संवसार सत्व, रज आनी तम ह्या तीन गुणांच्या आडव्या-उब्या धाग्यांनी विणून काडला अशें ते मुस्तींतलें मानसशास्त्र मानीत आयिल्लें. हे तीन गूण म्हळ्यार तीन तरांचे मनीस-सभाव. ह्या तीन मनीस-सभावांक धरून आमगेल्या म्हालगड्यांनी समाजाचे तीन मोटे वांटे केले. तांकां 'वर्ण' हें नांव दिलें आनी ब्राह्मण, क्षत्रीय, वैश्य अशे तीन वर्ण निर्माण करून ज्या जातींक ज्या वर्णांत घालूंक येताल्यो त्या जातींक त्या वर्णांत घालून उरिल्ल्या सगळ्यांचो शुद्र नांवाचो आनीक एक वर्ण निर्माण केलो आनी हे भाशेन हजारांनी 'पाकिस्तानां'नी विस्कळीत जाल्लो हिन्दू समाज तांणी चार वर्णांत संघटीत करून ताका एका संघाचें, फेडरेशनचें रूप दिलें.

होवूय तांगेलो भोव म्हत्वाचो एक समाजशास्त्रीय प्रयोग आशिल्लो.

'समाजांत मुदलांत चार वर्ण आशिल्ले. ह्या चार वर्णांत भितरले भितर रगतां भरसलीं, तांच्यांत वर्ण-संकर जालो, आनी तातुंतल्यान जाती आयल्यो.' हें जें कितें आमी मनुस्मृतीच्या काळा पसून मानीत आयल्यात तें खरें न्हय. पयली जात. जल्मा सावन मेळटा ती. वर्ण उपरांतचो. गुणकर्म पळोवन आमकां लागता तो.

चार वर्ण निर्माण करून आमच्या आर्य म्हालगड्यांनी आपणालो आसपाव वयल्या वर्णांत (ब्राह्मण वा क्षत्रीय वर्णांत) करून घेतलो अशें म्हणटात तेंवूय खरें न्हय. ब्राह्मण सगळे एकेच आर्य कुळयेंतले न्हय. वर्ण-व्यवस्था उबी करतकूच आमगेल्या म्हालगड्यांनी आर्य न्हय असल्या वेगळ्या वेगळ्या वंशांतल्या लोकांक लेगीत तांगेले गूण पळोवन ब्राह्मण करून घेतल्यात. पंचरात्र भागवतांचे मुस्तींत तर गूण आनी धर्म पळोवन ब्राह्मणांत आसपावन घेतिल्ले कितल्याश्या वंशांतले लोक आसात. क्षत्रियूय सगळे एका वंशांतले म्हणटात तेंवूय खरें न्हय. कितल्याश्या वंशांतल्या झुजाऱ्यांक आर्यांनी तांगेले गूण पळोवन क्षत्रीय करून घेतल्यात. शुद्रां मजगतच्या कांय जातींकूय तांणी क्षत्रियांचो पांवडो दिला आनी खासा शुद्रां

भितरल्या कांय जातींनीय आपणालो आसपाव क्षत्रीय वर्णांत करून घेतला.

हीच गजाल वैश्यांची. तांच्यांतूय सगळ्या वंशांचे लोक आसात.

पुणून वर्ण सदांच तत्वाच्या - थियॉरॅटिकल- पांवड्यार उरले. वास्तवाच्या पांवड्यार ते केन्ना देवूंक पावले नात. वास्तवाच्या पांवड्यार सदां जातीच उरल्यो. तरी आसतना, जातींक लागून विस्कळीत आनी विघटीत जाल्ल्या समाजाक - तत्वाच्या पांवड्यार जावं मागीर, एका सुतान बांदून काडपाचो वावर वर्ण-व्यवस्थेन केल्लो आनी तो बेस बरो जाल्लो.

वर्ण व्यवस्थेनूय एका काळार विस्कळीत समाज संघटीत करपाचो वावर केला म्हणूंक जाय. संघटनेचो हो वावर इतल्यार थांबूंक ना. तो वेगळ्या वेगळ्या मळांचेर वेगळे वेगळे तरेन चल्ला.

उपास्य दैवतांचोच प्रस्न घेवंया -

जण एकले जातीचें एक एक उपास्य दैवत आशिल्लें. जितलीं उपास्य दैवतां तितल्यो जाती अशें जावन पडिल्लें. जातीं जातीं मजगतच्यो ऊंच-उणाकपणाच्यो आनी आपले-पेलेपणाच्यो वणटीय ह्या उपास्य दैवतांनी उब्यो केल्ल्यो. कांय उपास्य दैवतांक पडय नाशिल्लें. उपास्य दैवतां जितलीं उणीं करूं येतीत तितलीं करचीं, म्हणटकूच जातीय आपशींच उण्यो जातल्यो ह्या हावेसान आमगेल्या म्हालगड्यांनी उपास्य दैवतां उणीं करपाचोय मोलादीक वावर केला. भगवद्‌गीतेच्या धाव्या अध्यायांत 'आदित्यांत विष्णू हांव, ज्योतिष्मंतांत सूर्य. वायूंत मरीची हांव, नक्षत्रांत चन्द्र. देवांत इन्द्र हांव, यक्षांत कुबेर. ऋषींत भृगू हांव, सेनापतींत स्कंद. नागांत शेष हांव, नुसत्यांत मानगें' हे भाशेन श्रीकृष्णान आपणालो विभूति-विस्तार सांगला आनी कितलींशीं नांवां घेवन निमाणें **'यत् यत् विभूतिमत् सत्वम् श्रीमत् उर्जितम् एव वा, तत् तत् एव अवगच्छ त्वम् मम् तेजोंऽश संभवम्'** असो निर्वाळो दिला. हांतल्या एका एका नांवा फाटल्यान एक एक धर्म-संवसार उबो आशिल्लो. हीं सगळीं वेगळ्या वेगळ्या ज

ातींचीं जिवीं उपास्य दैवतां आशिल्लीं, वा म्हणुंया, सगळीं वेगळीं-वेगळीं धर्ममत्तां आशिल्लीं. ह्या सगळ्या धर्ममत्तांच्या उपास्य दैवतांचो एका नारायणा कडेन संबंद जुळोवन हीं ताचींच वेगळीं वेगळीं रुपां अशें सांगून सगळ्यांक एका धर्म-संप्रदायांत गुंथून काडपाचो हो एक आकांताचो धाडशी प्रयोग आमगेल्या म्हालगड्यांनी केल्लो. परिणाम : कांय काळान कितलींशीं उपास्य दैवतां आपशीं

गळून पडिल्लीं आमी पळेतात. कितलींशीं उपास्य दैवतां लोक आयज विसरूनय गेल्यात. एका काळार ह्या देशांत कुबेराची उपासना सगळे कडेन चलताली. आयज ती खंयच चलिल्ली दिश्टी पडना. वसुंचीय उपासना खंयच चलिल्ली पळोवंक मेळना. महाराष्ट्रांतली खंडोबाची सोडीत जाल्यार स्कंदाचीय पुजा आयज देशांत खंयच चलना.

आपणाल्या अरबी अनुयायांक एकेश्वरवादा कडेन व्हरपा खातीर महंमद पैगंबराक अरबस्तानांतल्यो मुर्त्यो मोडच्यो पडिल्ल्यो. आमगेल्या म्हालगड्यांक मुर्त्यो मोडच्यो पडूंक नात. तांणी आपणाले समन्वयबुद्दीन कोणाक दुखय नासतना त्यो इल्ल्यो इल्ल्यो करून उण्यो करीत व्हेल्यो आनी त्यो उण्यो जायत रावल्यो.

उपरांत शंकराचार्यान मुखावेलें पावल घालें. ताणें उरिल्लीं सगळीं उपास्य दैवतां शिव, विष्णू, गणपती, सूर्य आनी देवी ह्या पांच दैवतांत वांटून घालीं आनी म्हळें, 'हीं सगळीं दैवतां ह्या पांचाचे अवतार. पुजा करतले जाल्यार हांतल्या एकल्याचीच करून उपकरा पडना. पांचांचीय वांगडा करूंक जाय. तुमचें जें उपास्य दैवत, कुळदेव वा इश्टदेव आसत ताका पुजे वेळार मदीं दवरात. पुणून ताचे भोंवतणी उरिल्ल्या चारांच्योय मुर्त्यो दवरात आनी पांचांचीय वांगडाच पुजा करात. तेन्नाच पुजा देवाक पावतली, ना जाल्यार पावची ना.' समाजशास्त्रांत खोल देंविल्ल्यांकूच असली पंचायतन-पुजा येवजुपाची. तांकांच असलीं धाडसां जमपाचीं.

'एक राष्ट्र, एक संस्कृताय'. ह्या सुतान ह्या देशाक बांदून काडपाच्या वावरांत ह्या देशांत येवन राविल्ल्या सगळ्यांनी सारकोच वांटो घेतला. सगळ्यांनी एकठांय येवन पोटतिडकेन हो वावर केला. कोणें कोणाचेर कितेंच बळयां थापूंक ना. सगळे समन्वयबुद्दीन वावुरल्यात. तातूंत सगळ्यांक आपणालें कितलेंशेंच सोडचें पडलां तशें सगळ्यांक दुसऱ्यां कडल्यान खूबशें कितें घेवचेंय पडलां. देखीक, वेदीक आर्यांनी अनार्यां कडल्यान देवळां घेतलीं, मुर्त्यो घेतल्यो. तांगेली पुजेची तराय घेतली. पुजा कशी करतात हें आर्यांक खबर लेगीत नाशिल्लें. ते पुजा करपाक अनार्यां कडल्यान शिकले. पुजा उतरूच तांचे भाशेंत नाशिल्लें. तेंय अनार्यां कडल्यान घेतलें. आर्य श्राद्धांय करी नाशिल्ले. मरतकूच मनशाचो आत्मो नवो जल्म घेता हेंवूय ते नकळ आशिल्ले. पुनर्जल्माची कल्पना आर्यांनी अनार्यां कडल्यान घेतल्या. तें कित्याक, ज्या योगाक लागून आयज भारताची संवसारभर

नामना जाल्या तो योगूय ते अनार्यां कडल्यानूच शिकल्यात.

खरेपणानशीं आर्यांक दुसऱ्यां कडल्यान कितेंच घेवपाची गरज नाशिल्ली. तांगेली खाशेली अशी एक जीवन-पद्धत आशिल्ली. आनी ती तांचे नदरेन पूर्ण आशिल्ली. तांच्यांनी, जाय जाल्यार, आपणाली जीवन-पद्धत, आपणाले विचार, आपणाले आचार लोकांचेर थापूं येतालें. थापिल्ले जाल्यार तांकां कोण आडावचो नाशिल्लो. ते विजेतेच म्हूण देशांत थीर जाल्ले. आनी विजेते आसतनाच तांणी हें दिवप घेवप केल्लें. कित्याक, ते 'आर्य' आशिल्ले. म्हळ्यार उदार आशिल्ले. तांणी समन्वयबुद्दीन येवजिलें : आमकां हांगाच रावपाचें आसा, ह्या सगळ्यां वांगडाच रावपाचें आसा. तांचे कडेन जुळोवन घेवनूच सन्मथान आमकां रावचें पडटलें. तांचे कडल्यान खूबशें घेतले बगर तांकां आमी कांय दिवंक पावपाचे नात. आर्यांनी अनार्यां कडल्यान खूब घेतलें. अनार्यांक तांणी जितलें दिलें ताचे दुपेटीन तांणी तांचे कडल्यान घेतलां.

परिणाम : वेदांच्या सोंपत्या काळार जी संस्कृताय हांगा वयर सरली ती निखटी आर्य वा म्हणुंया, वेदीक संस्कृताय उरली ना. ती साप अनार्यूय जाली ना. ती एके तरेची संमिश्र-कोस्मोपोलिटन - संस्कृताय म्हूण मुखार आयली. आनी ती तशी मुखार चलत रावली. हिकाच आमी आयज 'भारतीय संस्कृताय' ह्या नांवान वळखतात.

गंगा हिमालयांतल्या गोमुखा सावन भायर सरून गंगा सागरा मेरेन पावतासर वाटेर शेंकड्यांनी न्हंयांचें उदक आपणांत आसपावन घेवन व्हांवत रावल्या, तशी, भारतीय संस्कृताय तिच्या संपर्कांत आयिल्ल्या वेगळ्या वेगळ्या संस्कृतायांचे संस्कार घेत घेत आमचे मेरेन येवन पावल्या. खंयच्या खंयच्या संस्कृतायां कडल्यान तिणें कसले क़सले संस्कार घेतल्यात जातले, कोंत आनी हिशोब मेळचो ना. कितल्या लोकांक तिणें आपणांत आसपावन घेतल्यात जातले, सारकें सांगूंक येवपाचें ना. जे जे कोण ह्या देशांत आयले तांकां सगळ्यांक भारतीय समाजान पचोवन जिरोवन उडयल्यात. शुंग काळांत शक आनी हूण जातीचे लोक हांगा घुरयो घालून आयिल्ले. अच्छेव आयिल्ले वरी ते सगळें माड्डीत हलपायत गेल्ले. तांगेल्या धुमशेणाचो उगडास काडल्यारूच लोकांक ते मुस्तींत थरथरो भरतालो. आयज खंय आसात ते? भारतीय समाजांत सोदूंक गेल्यारूय ते मेळनात. आयज हिन्दू धर्माचो जांकां सगळ्यांत व्हड अभिमान ते राजपूत हांचे मजगतच्याच कांय

कुळयांचे वंशज अशें म्हळें जाल्यार तें खरें आसुनूय राजपूत सोंसून घेवपाचे नात. खुबतले, मारूंक धांवतले, इतले ते ह्या 'सागरां'त विरगळून गेल्यात.

देश आरंभा सावन भौ-वंशी, भौ-धर्मी, भौ-भाशीक आशिल्लो. ताका 'एक राष्ट्र' आनी 'एक संस्कृताय' ह्या सुतान गुथपाची भारतीय संस्कृतायेन सुमार दोन अडेज हजार वरसां जी साधना केली तसली साधना संवसाराचे फाटीर दुसरे खंयचेच संस्कृतायेन केल्ली पळोवंक मेळना. इतिहासान एका फुडलीं एक आह्वानां तिचे मुखार दवरलीं, तिची खर परिक्षा घेतली. भारतीय संस्कृताय केन्ना निर्शेल्या, केन्ना खर्शेल्या अशें दिसून येना. सगळीं आह्वानां झेलीत ती एका सारकी मुखार पावलां घालीत गेल्या.

एक खरें, तिची गती केन्ना मंदावल्या तर केन्ना वेगान चल्ल्या. मंदावल्या तेन्ना विघटनेचीं तत्वां वयर सरल्यांत आनी वेगान चल्ल्या तेन्ना संघटनेचीं तत्वां नेटान काम करूंक लागल्यांत. पुणून ही साधना तिणें केन्ना सोडून दिवंक ना. खंड पडूंक दिनासतना चलयत मुखार व्हेल्या. ही साधना समजून घेवपाचो यत्न करुंया. वेदीक काळा पसून आरंभ करुंया. आधाराक ऋग्वेद घेवंया. संवसारांतलो सगळ्यांत पोरणो ग्रंथ हो. आर्यांचो मुखेल दस्तावेज.



२

# वेदीक काळांतली साधना

ऋग्वेदांत कितें मेळटा? तर खंय प्रार्थना. देवांक कशे होरावंचे, यज्ञ-याग कशे करचे हाचीच म्हायती. खूब जाणांचो असो समज आसा.

ऋग्वेदांत प्रार्थना आसात, दुबावूच ना. सुमार देड हजार सुंदर सुंदर प्रार्थना तातूंत मेळटात. भावार्त आशिल्ल्या रुशींनी रचिल्ल्यो. *ऋक्* म्हळ्यार प्रार्थना आनी *वेद* म्हळ्यार गिन्यान. पुणून आमी मानतात तशें ऋग्वेद फकत प्रार्थनेचें पुस्तक न्हय. प्रार्थना सोडून तातूंत दुसरें कितेंच मेळना म्हणटात तें खरें न्हय. दुसरें जायतें मेळटा तातूंत. म्हत्वाचें म्हळ्यार, ह्यो प्रार्थना करतालो तो, ते मुस्तींतलो लोक पळोवंक मेळटा. बरो घोव मेळचो म्हूण नवसां करपी चलयो, आयुश्य सुखांत वचचें म्हूण मानतुको करपी बायलो, घोवाची नदर दुसरेचेर गेल्या हें पळोवन खंती जाल्ल्यो घरकान्नी, आपलें रूप बरें न्हय देखून कोणाचीच आपणाचेर नदर पडना ह्या खेदान जिवाक उबगल्ल्यो आंकवारी, दुस्मानाक हाणपी पूत आपणाक दी म्हूण देवा कडेन मागपी बापूय, अन्न धान्य गायो घोडे मागपी मनीस असलो सादो भोळो, भावार्ती लोक तातूंत पळोवंक मेळटा. हांचे हावेस, खंती, निर्शेण्यो, भंय, तिडकी, किंवाटे असलें कितलेंशेंच पळोवंक मेळटा. जुगार खेळून सामको भांकरोट जाल्लो एकलो खेळगडी अत:पर खेळचों ना म्हूण सोपूत घेता, पुणून पाशे दिश्टी पडनाफुडें परतो खेळूंक बसता, असलो एकलो जुगारीय पळोवंक मेळटा आमकां ऋग्वेदांत.

आमचे पुर्वज सुतकी आनी निर्दुखी आशिल्ले, तांकां ह्या संवसाराचें कांयच

लागनाशिल्लें, स्वर्गाच्याच हुसक्यांत ते जियेताले असो जो समज पातळ्ळा तो ऋग्वेद वाचतकूच साप फट दिसता. परतें, तांकां ह्या संवसाराचीच ओड चड आशिल्ली, जेवन-खावन सुखी रावपाक ते आवंडेताले, अशेंच दिसता. तांच्यांतूच न्हय, तांच्या देवांत लेगीत ही ओड दिश्टी पडटा.

तांचो एक देव इन्द्र. तो देव सो दिसऽच ना. मनीस कसो दिसता. तो तांचो राजा आशिल्लो, सम्राट आशिल्लो. मोटो कर्तुत्वी. ताचे कडेन वज्र नांवाचें एक हत्यार आशिल्लें. ह्या वज्रान तो दुस्मानांक हाणटालो. तांचीं शारां मोडून मातये भरवण करतालो. अहिवृत्र नांवाच्या आपल्या एका दुस्मानाक ताणें दया-माया बाळगी नासतना हाणून मारून उडयल्लो. वल नांवाचो ताचो आनीक एकलो दुस्मान आशिल्लो. ताणें ऊंच ऊंच दोंगरां भितर एके घोलींत धन लिपोवन दवरिल्लें. इन्द्रान तें लुटून हाडिल्लें. ताणें दुस्मानांचीं कितलींशींच शारां मोडिल्लीं. मातयेभरवण केल्लीं. म्हूण ताका 'पुरंदर' पदवी लोकांनी दिल्ली. 'पुरंदर' म्हळ्यार शारां मोडपी. तो सोमरस, म्हळ्यार, सोरो पियेवन केन्ना केन्ना तर्रर जातालो. आपुणूय पियेतालो आनी दुसऱ्यांक्य पिवयतालो आनी मागीर कित्याय कितें बडबडूंक लागतालो. बेबदो जातालो. बेबद्या इन्द्राची बडबडूय ऋग्वेदांत वाचूंक मेळटा.

पुणून वेद रचतल्यांक इन्द्राचो केदो अभिमान! एकल्या ताचेरूच तांणी शेंकड्यांनी ऋचा रचल्यात. मनीस, राजा, सम्राट म्हूण केल्ल्या ताच्या कर्तुत्वांक लागुनूच ताका मागीर 'देवा' ची पदवी मेळ्ळ्या, म्हणूं येता.

सांगपाचें म्हळ्यार, वेदांत फकत प्रार्थना आसात म्हणटात तें खरें न्हय. तातूंत आमचो आरंभाचो इतिहासूय आसा. इतिहास बरयतां म्हूण थारावन बरयल्लो न्हय. तर हेर खबरी सांगतां सांगतां आयिल्लो.

ऋग्वेदांत सैमाचीं वर्णनांय आसात. धर्तरेचीं, वावाचीं, मळबाचीं, रातींचीं, फांत्यापारा वयले उषेचीं, कितलींशींच वर्णनां तातूंत आमकां वाचूंक मेळटात. कवित्वान उपाट भरिल्लीं.

हे लोक मदीं मदीं काळजाचे खोलायेंत देंवताले आनी मोतयां कशीं जिविताचीं सास्वत तत्वांय पुंजावन हाडटाले. मदींच ते हो संवसार कसो जालो, तो कित्याचेर आधारून चलता, असल्या प्रस्नांचो सोदूय घेताले आनी गिन्यानान उपाट भरिल्लीं चिंतनांय बरोवन काडटाले. ऋग्वेद ही चिंतनांची एक व्हड खण. कितलीय उसपी,

सोंपून सोंपपाची ना येदी आकांताची. हीं चिंतनां वाचतकूच जीव उंवाळून उडोवचोसो दिसता ह्या लोकां भोंवतणी.

ऋग्वेद जांणी रचलो ते लोक आर्य.

हे लोक मुदलचे खंयचे? ह्याच देशांतले, काय भायल्यान खंयच्यान हांगा आयिल्ले?

कांय जाण म्हणटात, ते भायले. दान्यूबचे तडी वयले. थंयच्यान ते हांगा आयले. तर कांय जाण म्हणटात, ते व्होल्गाचे तडी वयले. लोकमान्य टिळक जाल्यार, ते उत्तर ध्रुवा लागसारच्यान खंयच्यान तरी आयल्यात जातले ह्या निर्णयार पाविल्ले. आरमारींच्यो आरमारी भरतीत इतलीं पुस्तकां ह्या एकाच विशयाचेर बुदवंतांनी बरयल्यांत. पुणून एका मत्तार मात अजून कोणूच पावूंक नात. एक खरें, मुदलचे ते खंयचेय आसूं, इतिहासकाळांत ते खंयच्यान तरी येवन खंय तरी गेल्यात. ख्रिस्ता आदल्या सुमार दोन अडेज हजार वरसांच्या अदमासाक ते संवसाराचे फाटीर खंय खंय पाविल्ले दिश्टी पडटात. तांकां भोंवपाची खुबूच ओड. उदकान व्हांवत रावंक जाय तशें मनशान भोंवत रावंक जाय अशें ते मेकळ्या ताळ्यान सांगितूय आयल्यात.

**आस्ते भग आसीनस्य उर्ध्व तिष्ठति तिष्ठत: ।**

**शेते निपद्यमानस्य चराति चरतो भग: ॥**

- 'चलत रावात, एका सारके चलत रावात. चलता ताचें भाग्यूय चलता, बसून रावता ताचें भाग्यूय बसून रावता' ही मुदल प्रेरणा आर्यांच्या जिविताची. हे प्रेरणेक धरून ते सदां चलत रावल्यात.

कांय जाणांचें म्हणणें, ते चलत रावल्यात हें खरें. ते हेवटेनच्यान तेवटेन एका सारके खंय खंय गेल्यात. हेंवूय खरें. पुणून ते भायल्यान हांगा आयल्यात म्हणटात तें खरें न्हय. हांगासल्ल्यानूच ते दिग्विजयाच्या हावेसान भायर सरल्यात आनी संवसारभर पातळ्ळयात.

हाचेर कांय जाण दुबाव काडून विचारतात 'अशें मू? तशें जाल्यार मागीर आमी वर्सान वर्स मकर-संक्रांतीची परब कित्याक मनयतात?'

सूर्य उत्तर ध्रुवार पाविल्ल्याची खोस उत्तर ध्रुवा लागसार रावतल्यांकूच जावपाची न्हय? जंय स म्हयने रात आसता थंय सूर्य दिश्टी पडूंक लागतकूच आतां जिविताक 'उर्बा येतली, ऊब येतली' अशी खोस जावपाची. ही खोस

उकतावन दाखोवपी परब ही. ती जंय बाराय म्हयने सूर्य तापता त्या देशांतल्या लोकांनी कित्याक मनोवची?!

हांचें म्हणणें, आर्य मुदलचे उत्तर ध्रुवा लागसारचे. थंय ते ही परब मनयताले. तांची सगळ्यांत मोटी परब आशिल्ली ती. उपरांत आर्य थंयच्यान भायर सरले आनी हांगा आयले. हांगाय ते ती मनयत रावले. पुर्वापार चलत आयिल्ल्यो आपणाल्यो कांय चाली तांणी सोडूंक नात, इतलेंच हाचे वयल्यान दिसून येता.

भासविज्ञानाचें म्हणणेंय अशेंच. तें म्हणटा, आर्य हांगासून भायर गेल्ले जाल्यार, भायर तांचे भाशेचें जें रूप पळोवंक मेळ्ळां तें एक तर वेदीक भाशे सारकें आसूंक जाय आशिल्लें वा वेदीक भाशेन जें रूप उपरांत घेतलें ते भाशे सारकें आसूंक जाय आशिल्लें. वेदीक भाशेचें आदलें रूप थंय कशें मेळटा? देखून, आर्य हांगासून भायर गेल्यात म्हणटात तें खरें न्हय. भायल्यानूच ते हांगा आयल्यात.

खरें आसुंये हें. इतलें खरें, इतिहास काळांत आर्य आमकां भारतांतूय दिश्टी पडटात, तशे भारता भायरूय दिश्टी पडटात. पर्शिया आनी बाबिलोनिया हांचे मदल्या वाटारार एलाम् नांवाचो एक प्रदेश आशिल्लो. इतिहासकाळांत आर्य ह्या प्रदेशांत रावताले, भारतांत येवचे पयलीं ते ह्या प्रदेशांत आशिल्ले अशें म्हणटात. वेदांत इन्द्राक 'शूष' म्हूण एक विशेषण लागलां. ताचो अर्थ 'शूषन्‌चो' असो जाता. शूषन् हें एलाम्‌चें राजांपाटण आशिल्लें. थंयच इन्द्राच्या नेतृत्वा खाला ते एकठांय आयले आनी थंयच्यान भारतांत आयले. घोड्याक मनशाचे सेवेक लावपी संवसाराचे फाटी वयले पयले लोक हे. घोड्याक लागुनूच तांचो दिग्‌विजयाचो हावेस आनी वेग वाडलो. मेझोपोतामियाच्या वाटारार हित्ती, काशी, मित्तानी ह्या नांवांनी खंय खंय तांणी आपलो शेक चलयला. तेच मुस्तींत तांचो आसीरियाच्या लोकां कडेन संबंद आयला जावंक जाय. आसीरियाच्या लोकांक ते 'असूर' म्हूण पाचारूंक लागले. असुरांची उरफाटीं काळजां, तांचो भोगी सभाव, तांचीं व्हडलीं व्हडलीं घरां, ह्या गजालींचो आर्यांचेर खूब मोटो प्रभाव पडला. आर्यांक तांचो भंय दिसतालो. आदरूय दिसतालो आनी अबकोय आशिल्लो. तांचे कडलो संबंद तुटले उपरांत लेगीत आर्य तांचो उगडास काडीत रावल्यात. तांच्यो कांय देखीय आर्यांनी घेतल्यात. राजाच्या माथ्यार 'छत्र' धरपाची चाल तांची म्हणटात.

[२]

इराणांतले आर्य आनी वेदीक आर्य एकामेकांचे खूब लागशिल्ले सोयरे. पोन्नी इराणी आनी पोन्नी वेदीक हांच्यांत खूब सारकेपण दिश्टी पडटा तें खंय हाकाच लागून. एकेच भाशेच्यो ह्यो दोन पोटभासो, अवेस्तांतल्या आनी वेदांतल्या देवांतूय सारकेपण आसा म्हणटात. एकेच कुळयेंतले हे दोन धर्म आसूंक जाय.

मुखार खंयच्या तरी एका प्रस्नाक लागून तांच्यांत फूट पडली आनी इराणी आनी वेदीक आर्य एकामेकांचे दुस्मान जाले. कांय जाणांचें म्हणणें : पयलीं सगळे आर्य वरुणाच्या फुडारपणा खाला एकठांय आशिल्ले. तो तांगेलो एका काळा वयलो सम्राट आशिल्लो. सगळ्या आर्यांक ताणें एका सुतांत बांदिल्ले. मर्दींच एलामांतलो इन्द्र वेगळो सरलो. ताणें आपणालें वेगळें राज्य सुरू केलें. हाका लागून तांच्यांत फूट पडली. हे फुटीक लागून इन्द्राच्या नेतृत्वा खाला कांय कुळयो भरत. कुरू, मद्र, शिवि. पुरू, भृगु भारतांत आयल्यो. पार्श्व, मद, शक, पार्थव हे कुळयेंतले आर्य इराणांत रावले.

सगळ्योच कुळयो वांगडाच भारतांत आयल्यो अशें दिसना. कांय पयली आयल्यो. इन्द्रान सप्तसिंधूंत आपलें साम्राज्य घट करतकूच आनीक कांय कुळयो हांगा आयल्यो. ह्या नव्या आर्यां कडेन पयलीं आयिल्ल्या आर्यांचीं झुजां जाल्यांत. वेदांत ह्याय झुजांचीं वर्णनां वाचूंक मेळटात. सप्तसिंधूंतल्यान ते ल्हवू ल्हवू पातळत गेले. राजस्थानांतले सरस्वतीचे आनी बिहारांतले गंडकीचे तडीर पातळटासर तांकां तीन चार तरी शतमानां लागल्यांत जावंक जाय. पातळटा आसतना तांकां कितलींशींच रानां कातरचीं पडल्यांत. कितल्योश्योच न्हंयो उंपच्यो पडल्यात. कितल्याश्याच जातींच्या लोकां कडेन झुजचें पडलां. ऋग्वेदांत घोड्यांच्या पावलांचो आनी रथांच्या चाकांचो काळीज धडधडावपी आवाज आयकूंक येता तो हे मुस्तींतलो.

तांच्या एका देवाचें नांव अग्नि. तो मुदलचो देवलोकांतलो, पुणून हांचो समज, आमच्या कल्याणा खातीर तो धर्तरेर येवन रावला. ताका ते 'पावणो' म्हणटात. **अतिथिः मानुषाणाम्**. तांच्या यज्ञांचो पुरयत तो. यज्ञाचे वेदींत देवांक आपोवन हाडपीय तो. यज्ञ करून घेवपीय तो. अग्निचीय तुस्त करून आर्यांनी शेंकड्यांनी ऋचा रचल्यात. ताचो आर्यांक खूब आधार मेळ्ळा. आर्य घुरयो

घालताले तेन्ना अग्नि तांच्या सांगाताक रावतालो. दुस्मानांचीं शारां हुलपावन उडयतालो. रानांय हुलपावन ना करतालो. रानांतल्या 'सोरपां' चो आनी 'कोलसुण्यां' चोय सांवार करतालो.

सोरोप आनी कोलसुणीं हीं आर्यांच्या दुस्मानांचीं नांवां आसूंक जाय.

[३]

ऋग्वेद चाळिनाफुडें पयॅली गजाल नदरेंत भरता ती अशी -

हो ग्रंथ खंयच्याय एका रुशीन रचिल्लो न्हय. कितल्याश्याच रुशींचो हातभार लागला तो रचपाक. बरें, हे रुशी एका काळा वयलेय न्हय. रुशींच्यो कांय पिळग्यो खपल्यात ताका पूर्णत्व हाडपाक. तांच्यो शैली लेगीत सारक्यो न्हय. वेगळ्यो वेगळ्यो. ख्रिस्ता आदल्या देड हजार वर्सां सावन ते हो ग्रंथ रचीत आयल्यात. सुमार पांचशीं वर्सां तरी तांकां लागल्यांत जावंक जाय तो पूर्ण करपाक. तातूंत खूब पोरण्यो ऋचा आसात. आर्यांच्या आरंभाच्या काळांतल्यो, एलामांत ते रावताले, ते मुस्तींतल्यो लेगीत.

सांगल्यार कोणाक खरें दिसचें ना : आर्यां कडेन लिपी नाशिल्ली. पुणून तांचे कडेन एक खुबूच सुंदर भास आशिल्ली, जी मुखार संस्कृत ह्या नांवान नामनेक पावली. सर विल्यम जोन्सांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, Of a wonderful structure, more perfect than the Greek, more copious than the Latin, and more exquisitely refined than either. तातूंत, परत, आर्यांच्या आंगांत कवित्वाचे गूण आशिल्ले. तांणी अनुष्टुभ, गायत्री सारकेले कांय छंद सोदून काडिल्ले. आपणालो अणभव ते ह्या छंदांनी बसयताले आनी ते पाठ करताले. लिपी नाशिल्ल्यानूच जावंये, पाठांतराची तांची परंपरा आकांताची. आग्रोय आंकांताचो.

एके पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगेक ते हें पाठ केल्लें गिन्यान दीत रावल्यात. मुदल उच्चार लेगीत तांणी भंगूंक दिवंक नात. उच्चारांच्या मळार घाळ राविल्लें तांकां मात लेगीत सोंसनाशिल्लें. तांचो हो आग्रो सामको खर आशिल्लो. 'जांकां सारके उच्चार करूंक येनात तांकां वेद शिकपाचो अधिकार ना' हे तरेचो नेम लेगीत तांणी उपरांत केल्लो. पिळग्यांच्यो पिळग्यो ते उच्चार भंगूंक दिनासतना

वेद पाठ करीत रावल्यात. कांय काळान कांय उतरांचो अर्थ तांकांच सारको लागना जालो. देखून यास्काक पोरण्या उतरांचो अर्थ सांगपी 'निरुक्त' बरोवंचें पडलां. यास्क तातूंत खूब कडेन आडखळ्ळा. घुसमटला. हाचे वयल्यान वेदांचें दायज कितलें पोरणें आसतलें हाचो अदमास करूं येता.

ऋग्वेदाचे रुशी एका काळांतले न्हय तशे अमकेच एके जातीचेय न्हय. फकत ब्राह्मण तर न्हयच न्हय. आर्यांत जाती नाशिल्ल्यो. आसपाचें कारणूय ना. कातीन (वर्णान) एकेच जातीचे लोक ते. उद्देगूय ते सगळे तरेचे करताले. ऋचाय रचताले, झुजुंकूय वताले, गोरवांय राखताले. गृत्समद नांवाचो एकलो रुशी ऋचाय रचतालो आनी लुगटूय विणटालो. एकलो रुशी म्हणटा : तण दिश्टी पडनाफुडें गायो धांवतात. तसो म्हज्या घरांत जण एकलो आपापणाल्या कामां फाटल्यान धांवता. म्हजी आवय तांदूळ वेंचता, दांत्यार बसता. म्हजो बापूय वैजकी करता, वखदां दिता. हांव कविता रचतां.

एकाच घरांत वेगळे वेगळे उद्देग करपी लोक आसताले. ते ते उद्देग त्या त्या जातींच्या लोकांनीच करूंक जाय हो विचार आर्यांचो न्हय. ऋग्वेदाच्या आरंभाक तरी तो दिश्टी पडना. तो उपरांत केन्ना तरी भितर सरला जावंक जाय.

ऋग्वेदांत 'ब्राह्मण' हें उतर एकाच मंडळांत मेळटा. हें मंडळ आर्य-अनार्य एकामेकांत भरसूंक लागल्यात ते मुस्तींतलें. आरंभाच्या काळांतलें न्हय. वेदांच्या सोंपत्या काळांतलें. कांय जाण म्हणटात, ब्राह्मण आर्यांत नाशिल्लेच. अनार्यांत मात ते आशिल्ले. सप्तसिंधूंत आर्य आयल्यात ते मुस्तींत थंयचे राजा अनार्य आशिल्ले. पुरुषसुक्तांतल्या **'ब्राह्मणोऽस्य मुखमासीत् बाहू राजन्यः कृतः उरू तदस्य यद्वैश्यः पद्भ्यां शूद्रो अजायत.'**. हाचें भाशांतर करता आसतना 'एका काळार ब्राह्मण हें ह्या विराट पुरुषाचें तोंड आशिल्लें...', हे भाशेन 'एका काळार' हीं उतरां घालून करतात. म्हळ्यार. इन्द्र येवचे पयलीं अशें आशिल्लें. इन्द्र आयिल्ल्यान ही व्यवस्था भंगल्या. इन्द्रान ब्राह्मणांक मारून सुण्यांक लेगीत खावंक घाल्यात. हाचे वयल्यान जातींचेर आधारिल्ली समाज व्यवस्था अनार्यांची आशिल्ली अशेंच म्हणचें पडटा. मुदलच्या आर्यांत ती नाशिल्ली.

आर्यांत जाती नाशिल्ल्यो हाचें कारण आर्यांत मुर्त्यो नाशिल्ल्यो. मुर्त्यो आसतात थंयच जाती आसतात. आर्यांत मुर्त्यो नाशिल्ल्यो, पुणून देव आशिल्ले. सुमार तेत्तीस देवांचीं नांवां ऋग्वेदांत मेळटात. इकरा स्वर्गांतले, इकरा अंतरिक्षांतले

आनी इकरा धर्तरे वयले. उकत्या मळार यज्ञ करपी लोक हो. देवांक नांवां वेगळीं वेगळीं दिलीं तरूय तीं एकाच देवाचीं रुपां अशें मानपी. देखुनूच 'तूं धर्तरी, अंतराळ आनी मळब हांचे परसूय व्हडलो' अशें इन्द्राक म्हणपी हो लोक अग्निकूय तेंच म्हणटा, वरुणाकूय म्हणटा, सूर्याकूय म्हणटा आनी त्याच स्वासांत सांगता : इन्द्र, वरुण, मित्र, अग्नि, सूर्य सगळे एक. सत एकूच. पुणून वेगळे वेगळे लोक ताका वेगळ्या वेगळ्या नांवांनी पाचारतात. **'एकम् सत् विप्रा बहुधा वदन्ति'**. तात्पर्य, ऋग्वेदांत सुंदर प्रार्थना आसात. खोल तत्वचिंतनांय आसात. पुणून तातूंत तितलेंच आसा म्हणटात तें खरें न्हय. आरंभाच्या काळार आर्य कितें मानताले, कितें करताले, कशे रावताले, असलीय जायती म्हायती तातूंत आसा. आमचे संस्कृतायेच्या आरंभाच्या काळांतलो इतिहास तातूंत आसा.

[४]

आर्य ह्या देशांत पातळटाले त्या वेळार हांगा वेगळ्या वेगळ्या संस्कारांत वाडिल्ले चार कुळयांचे लोक रावताले. आर्विल्ल्या बुदवंतांनी तांकां नांवां दिल्यांत तीं अशीं -

१. नेग्रिटो, २. मॉंगोलॉयड, ३. ऑस्ट्रिक, आनी ४. द्रविड.

हांतल्या नेग्रिटो कडेन आर्यांचो संबंद आयलासो दिसना. घडये आर्य येवचे पयलींच ते दुसऱ्या समाजांत भरसून ना जाल्ले आसूं येतात. मुदयाळ्या केंसांच्या आदिवासी लोकांचो हे कुळये कडेन संबंद जोडटात.

वेदांचे मुस्तींत आर्यांचो मॉंगोलॉयडां कडेनूय संबंद आयिल्लो दिसना. ब्रह्मावर्तांत आर्यांनी आपणाली वसणूक केल्या ते मेरेन आर्यांक ते मेळूंक नात. कित्याक, हे कुळयेंतले लोक गंडकी पेल्यान उदेंत भारतांत रावताले. पुणून आर्य तांकां वळखताले जावंक जाय. तांकां ते किरात म्हणटाले आनी किरातांक ते 'प्रियदर्शिनः' म्हळ्यार, देखणे लेखताले.

आर्यांक पातळपाक आडखळ जाली ती ऑस्ट्रिक कुळयेंतल्या लोकां कडल्यान आनी द्रविडां कडल्यान. आर्यांचे भाशेंत, निषादां कडल्यान आनी दस्यूं कडल्यान.

पिशाच्च, दैत्य, दानव आनी राक्षस ह्या नांवांचे लोकूय ते मुस्तींत आशिल्ले.

कांय जाणकारांच्या मतान हीं निषाद आनी दस्यू हांचीं दुसरीं नांवां आसूं येतात. घडये संस्कारांक लागून आपणाक एकामेकां पसून ऊंच उणाक लेखपी ह्यो ते मुस्तींतल्यो जाती आसूं येतात.

लक्षांत धरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, निषादूय भायले आनी दस्यूय भायले.

निषाद मेडिटेरेनियन लोक. इतिहासा आदल्या काळार ते कितल्याश्याच फांट्यांनी हांगा पाविल्ले. हांगासल्ल्यानूच ते पातळत पातळत उदेंत आशिया खंडांत ऑस्ट्रेलिया मेरेन पावल्यात. कातीन काळे आनी आंगान मोटवे लोक हे. संस्कृतायेचे नदरेन व्हडले-शे गिरेस्त न्हय. वयल्या पांवड्याचे तर निखालूस न्हय. पुणून ह्या लोकांनी ह्या देशाक खूब दिलां. भात रोवंक तांणीच शिकयलां. नाल्ल, केळें, हळद, आलें, वांयगें तेच घेवन आयल्यात हांगां. पान-सुपारी खावन ओंठ रंगोवपाची चालूय मुदलांतली तांची. वेदीक भाशेंत नाल्ल, केळें, हळद, आलें, वांयगें, पान, सुपारी हांकां उतरांच नाशिल्लीं. संस्कृत भाशेंत हांचे खातीर नारिकेल, कदल, हरिद्र, शृंगवेर, वाटिंगण, ताम्बुल, गुवाक बीं उतरां आसात तीं मुदलांतली तांचे भाशेंतलीं. घांसून, पुसून, निवळ करून ('संस्कृत' करून) घेतिल्लीं. गंगेक गंगा हें नांव तांणीच दिलां. गंगा ह्या उतराचो मुदल अर्थ 'न्हंय' असोच जातालो. हें ऑस्ट्रिक कुळयेंतलें उतर. थाय आनी चिनी भाशेंत लेगीत तें गेलां. देखीक, मेखोंग, सिकियांग. कियांगाचो खरो उच्चार गांग, आनी गांग म्हळ्यार न्हंय. ऑस्ट्रिक (निषाद) लोक गायो पोशी नाशिल्लो. देखून दूद पियेनाशिल्लो. पुणून तांतयां खातालो. कोंबयो पोसपी संवसारांतलो पयलो लोक हो.

ह्या लोकां कडल्यान आर्यांच्या धर्मानूय कांय म्हत्वाच्यो गजाली घेतल्यात. मनीस मेले उपरांत ताचो आत्मो नवो जल्म घेता हो विचार वेदांच्या रुशींक खबर नाशिल्लो. मनीस मेलो म्हणटकच सोंपलो. उपरांत तो पितृलोकाक वता जातलो वा स्वर्गलोकांत ताका सुवात मेळटा जातली अशें आर्य मानताले. पुनर्जल्माचो विचार आर्यांक निषादां कडल्यान मेळ्ळा. मेल्ल्या-गेल्ल्यांचें श्राद्ध करप हिवूय चाल तांची.

तांच्यो कांय कुळयो दस्यूं वांगडा रगतान भरसल्ल्यो आनी ते मुस्तींतल्या भारतीय समाजाचें एक आंग जावन गांवांनी रावताल्यो. कांय कुळयो भरसूंक पावल्यो नात. वा म्हणुंया, भरसल्यो नात. त्यो गांव सोडून रानांनी वचून रावल्यो. आयज लेगीत त्यो रानांनीच रावतात आनी संस्कृतायेचे नदरेन आयच्या रॉकेट

युगांत लेगीत त्यो फातरा युगांत जियेतात.

जांकां आमी आयज आदिवासी म्हणटात ते हे लोक.

आर्यांक सगळ्यांत चड आडखळ जाल्या ती द्रविडांची.

द्रविड हें उतर आर्य न्हय. तें कांय शेंकड्यां उपरांत संस्कृत भाशेंत आयलां. घडये तमिळचें तमिझ, दमिझ, द्रमिड जायत जायत तें बौद्‌ध आनी जैन श्रावकां कडेन पावलां जातलें आनी तांणीच तें उत्तरे कडेन व्हेलां जातलें आनी संस्कृत भाशेन तें घांसून पुसून निवळ करून 'द्रविड' म्हूण घेतलां जातलें. आर्य तांकां आरंभाच्या काळार दस्यू ह्या नांवान पाचारताले.

ऋग्वेदा वयल्यानूच निवळ दिसता - दस्यू शारांनी रावताले. हाचो अर्थ, संस्कृतायेचे नदरेन ते वयल्या पांवड्याचे आशिल्ले असो करूंक जाय. कित्याक, शारां अवचीत वयर सरनात. सभ्यतायेचे कितलेशेच पांवडे चडले उपरांत मनीस शारांची संस्कृताय उबी करूंक पावता. दस्यूंचीं हांगा शारां आशिल्लीं हाचे वयल्यान ते हांगा देड दोन हजार वरसां आदीं सावन रावताले अशें म्हणचें पडटा. तांचीं शारां आशिल्लीं हाचो अर्थ, शारां भायर गांव आशिल्ले आनी गांवांनी गरजे परस चड अन्न पिकतालें अशें म्हणचें पडटा. गांवांनी गरजे परस चड अन्न पिकले बगर, 'सरप्लस प्रॉडक्शना' बगर, शारां वयर सरूंक वा तिगूंक पावनात.

सिंधु संस्कृतायेच्यो खुणो म्हूण पोरणावळ-शास्त्राचे कुदळीक जीं दोन शारां होलमलीं तीं मोहन-जो-दडो आनी हडप्पा दस्यूंचीं शारां आशिल्लीं.

दस्यूय भायले. मुदलचे एशिया मायनरांतले. क्रीट बी ज्युंव्यांचेर तांचे आदले सोयरे अजुनूय आसात. ऑस्ट्रिकां उपरांत कितल्याश्याच शतमानांनी ते तीन चार फाट्यांनी हांगा पाविल्ले आनी कितल्याश्याच शेंकड्यां पसून हांगा थीर जावन राविल्ले. आर्यांचो तांचे कडेन संबंद आयला त्या वेळार ते आपणाल्या वैभवाचे तेंगशेर आशिल्ले. तांणी न्हंयांचे तडीर आपणालीं शारां उबारिल्लीं आनी थंयच्यान ते व्यापार करताले. हडप्पांत तांगेल्यो कांय मुद्रा (seals) मेळ्ळ्यात. तसल्योच पोरणावळ-शास्त्राक सुमेरांतूय मेळ्ळ्यात. हाचो अर्थ, सुमेरा मेरेन तांचो व्यापार चलतालो असो करचो पडटा.

घडये ते मुस्तींत सिंधा पसून सुमेरा मेरेन एकेच संस्कृतायेचे लोक रावताले जावं येतात.

हरियूपिया नांवाच्या एका शाराचो उल्लेख ऋग्वेदांत आयला. तें हडप्पा

आसूं येता. दुर्योण नांवाच्या आनीक एका शाराचो उल्लेख मेळटा. तें खंयचें तें सांगूंक येना. पुणून नार्मिनी नांवाच्या एका शाराचो उल्लेख मेळटा. जाणकारांच्या मत्तान हें मोहन-जो-दडो आसूं येता. ते मुस्तींत शम्बर नांवाचो एकलो दस्यू राजा आशिल्लो. ताचीं णव्याण्णव शारां इन्द्रान मोडून मातये भरवण केल्लीं अशें ऋग्वेदांत मेळटा. हाचो अर्थ, दस्यूंचीं कितलींशींच शारां आशिल्लीं असो करूंक जाय. राजस्थानांत आयज सुकिल्ले सरस्वतीचे तडीर कालीबागन नांवाचें एक शार मेळ्ळां आनी सौराष्ट्रांत भावनगरा लागसार लोथल नांवाचें आनीक एक मेळ्ळां. लोथल आर्यांच्या आगळिकां उपरांतूय कांय शेंकडे तिगून उरिल्लें एक शार. हीं मेळिल्लीं शारां नियाळून पळेतकूच दस्यूंचे संस्कृतायेच्या पांवड्याचो अदमास करूं येता -

एक एक शार तीन तीन चौकोनी मैलांच्या आवाटाचें आशिल्लें आनी एका एका शारांत सुमार लाख-लाखभर लोक रावतालो. हडप्पांतले तीस फूट रुंद आनी सारके बेतिल्ले नीट रस्ते, रस्त्यांच्या दोशीं वशिंनी सारकीं आंखून बांदिल्लीं दोन दोन, तीन तीन माळयांची घरां, घरांतलें म्हेळें उदक भायर सोडपाच्यो खोल खोल खळयो (चिऱ्यांनी वा विटांनी बांदिल्ल्यो) हें सगळें नियाळटकूच हीं शारां 'आपशींच' वयर सरिल्लीं दिसनात. सारकें 'टाउन प्लॅनिंग' करुनूच उबारिल्लीं कशीं दिसतात.

ते शारा भोंवतणी उदकाचो एक चर मारताले. तशेंच एक कोटूय बांदताले. कोटांक दरवटे आसताले आनी रातचे हे दरवटे ते धांपताले. हाचे वयल्यान ही संस्कृताय defensive - चोराचो भंय आनी आत्मरक्षणाचो हुस्को आशिल्ली आसूंक जाय अशें म्हणचें पडटा. व्यापारी संस्कृताय! चोराक सोडून आनीक कोणाक भियेतली?

कोटा भितरलीं दोन दोन, तीन तीन माळयांचीं आनी कोटा भायलीं ल्हान ल्हान घरां पळेतकूच हांच्यांत गिरेस्त आनी गरीब लोक आशिल्ले अशेंय दिसता. कोटा भितरल्या माळयांच्या आनी कोटा भायल्या साद्या घरांच्यो खुणो मेळ्ळ्यात. कोटा भितरल्या घरांक पायखिळे आशिल्ले. ते घरांत भितर येनासतना भायले भायर निवळ करूंक येताले. हाचे वयल्यान पायखिळे निवळ करपीय लोक ते मुस्तींत आशिल्ले आनी ते घरांत भितर सरनाशिल्ले, भायले भायर निवळ करून वताले अशें म्हणूं येता. म्हळ्यार, हो लोक आफूड-भश्ट मानपी आशिल्लो जावंक

जाय. भारतीय समाजाचें दुशण कशी जावन पडिल्ली अस्पृश्यताय तेच मुस्तींतली आसूंक जाय.

हडप्पांत भांगराच्यो कांय वस्ती मेळ्ळ्यात. जादिता सारके खडे मेळ्ळ्यात, मणी मेळ्ळ्यात. तांब्याच्यो आनी पितळेच्यो वस्ती, सुरयो, गरयो, फणयो, ब्राँझचे कांय पुतळे आनी भुरग्यांचीं खेळणीं मेळ्ळ्यांत. हाचो अर्थ : ते मुस्तींत कारागीर आशिल्ले.

हो लोक खंयची भास उलय़तालो, सारकें कळूंक ना. ते मुस्तींतल्यो तांच्यो ज्यो मुद्रा मेळ्ळ्यात तांचेर एक लिपी आसा. ही लिपी आदली तमिळ आसुंयेता अशें कांय जाणांचें म्हणणें. पुणून ती अजून सारकी कोणाक वाचूंक येवंक ना. देखून तांचे भाशे संबंदान निश्चित अशें कितेंच सांगूंक येना. पुणून एक वेगळेच तरेचो पुरावो मेळ्ळा : थंयच लागसार बलुचिस्तानांत ब्राहुई नांवाची एक भास उलोवपी लोक अजून आसात. ही ब्राहुई भास बांदावळीन द्रविड कुळयेंतली. हाचे वयल्यान ते मुस्तींत ह्या वाटारार द्रविड कुळयेंतलीच खंयचीय तरी एक भास घोळटाली जावंक जाय अशें जाणकार म्हणटात.

[५]

आर्यांचो दस्यूं कडेन संबंद आयलो तेन्ना तांचे मुखार एक मोटो प्रस्न उबो रावलो : 'ह्या लोकांचें आतां करप कितें?'

दस्युंकूय तोच प्रस्न पडलो : 'हांचें करप कितें?'

दोनूय संस्कृतायो संस्कारान वेगळ्यो. दोनींचो पांवडोय वेगळो. धर्माच्या मळार जाल्यार दों मजगतीं भूंय-मळबा इतलें अंतर. आर्यांचे देव सैमातले. मळबांत, अंतराळांत, धर्तरेर रावपी. हांचे फातराचे. देवळांत रावपी. हांच्या देवांक ताळ-तंत्र नाशिल्लो. कोणाक शिंगां आशिल्लीं. कोण नागडे रावताले. इतलेंच न्हय, हे लिगांची आनी योनीची पुजा करताले. आर्यांचें आंग शिरशिरलें हें पळोवन. 'हे सापूच बुरशे, पोजडे लोक. हांकां आनी आमकां केन्नाच पडपाचें ना', अशें तांकां दिसलें. आनी 'हांकां मारून ना करून उडयल्ले बरे' अशें तांणी थारायलें. तांकां तांतीं-पिलां सयत मारून उडोवपाचो आर्यांनी नित्शय केलो. दस्यूंची पाळां-मुळां खणून काडपाक आर्यांनी केल्ल्या किंवाट्याच्या यत्नांचीं वर्णनां ऋग्वेदांत

पावला कणकणी वाचूंक मेळटात. तांणी पयलीं गांवांचेर घुरयो घाल्यो. थंयचें धन, धान्य, शेतां, गोरवां लुटलीं. गांवांची दानाधिस्पट करून ते आपणाल्या हातांत घेतले आनी मागीर शारां मोडपाक सुरवात केली. ते उपरांत ते दस्यूंक जिवे मारपाक लागले. धनसाता, वाजसाता, क्षेत्रसाता, गोसाता म्हळ्यार धन, धान्य, शेतां आनी गोरवां लुटपाचीं झुजां आपणें केल्यांत अशें ऋग्वेदांतले आर्य मोट्या अभिमानान सांगतात. तें कित्याक, आमी 'पुरभिद्यः' (म्हळ्यार शारां मोडल्यांत) आनी 'दस्युहत्यः' य केल्यात म्हूण सांगतात. इन्द्र हें काम बेस बरें करतालो वा करून घेतालो. आपणाल्या वज्रान तो दस्यूंचीं शारा मोडटालो आनी अग्नि शारांचीं शारां उजो घालून हुलपयतालो. इन्द्रान इतल्या हजार दस्यूंक कापून काडले, इतलीं शारां मोडून उडयलीं, इतल्या दस्यूंक जिवे हुलपायले असल्यो इन्द्राच्या पराक्रमाच्यो व्हडविको गावपी कितल्योश्योच ऋचा ऋग्वेदांत मेळटात. तितल्योच अग्निच्या पराक्रमाची तुस्त गावपीय ऋचा मेळटात.

दस्यू ह्या उतराचो अर्थ सायणाचार्यान 'हुलपावन मारपा सारके' असो केला.

दस्यूंचेर केदो आकांत आयला जावंक जाय! बावड्यांनी सपनांत लेगीत केन्ना येवजूंक ना जातलें आपणाचेर असलें अरिश्ट केन्ना कोंसळत म्हूण. सुसेगाद बरो व्यापार करताले. भियेवंक जाय तें चोरांक, इतलेंच जाणा आशिल्ले. तांणी आपणाल्या शारांची बांदावळ हेच नदरेन केल्ली. कोटां बांदिल्लीं. तांकां दरवटे दवरिल्ले. ते तीनसांज जातकूच धांपताले. दुसरे संस्कृतायेचे लोक एक दीस येतले, आपणाचेर घुरयो घालतले, आपणालीं पाळां-मुळां खणून काडटले म्हणपाचो दुबाव लेगीत तांकां केन्ना आफडूंक ना जातलो. मोहन-जो-दडो आनी हडप्पा हांगासल्ल्या उत्खननांत कांय सांपळे मेळ्ळ्यात. दुरगा वयल्यान उडी मारून पळपाचो यत्न करता आसतना मेल्ल्यांचें. घरांतल्यान जीव मुठींत घेवन पळटा आसतना सपणांचेर पडून मेल्ल्यांचे, शारांतल्यान भायर सरपाचो यत्न करता आसतना कोटाच्या दरवट्या कडेन चिरगट केल्ल्यांचे आनी थंय मेल्ल्यांचे. हाचे वयल्यान आर्यांची पुरभिद्यः आनी दस्युहत्यः कसल्या किंवाट्यांची आशिल्ली हाचो अदमास करूं येता.

इन्द्र मुदलचोच उरफाट्या काळजाचो. ताका वेदान 'कनीनः' म्हळा. सायणाचार्यान ह्या उतराचो अर्थ 'देखणो' असो केला. पुणून ह्या उतराक आनीक एक अर्थ आसा : 'आवय आंकवार आसतना जल्माक आयिल्लो', असो. आवय

आंकवार आसतना इन्द्र जल्माक आयिल्लो जावंक जाय. कित्याक, आपणाले प्रतिष्ठेक लुसकान जायत ह्या भंयान आवयन ताका लिपोवन दवरिल्लो अशें ऋग्वेदांत म्हळां. आवय कौशिक गोत्रांतली. आंकवार आसतना तिचो एकल्या राजा कडेन संबंद आयलो आनी ताचे पसून तिका इन्द्र जालो. इन्द्र जाला त्या वेळार राजा तिचे कडेन लग्न जावंक तयार नाशिल्लो. देखून इन्द्राचे आवयक लिपचोरयां गोठ्यांत बाळंत जावचें पडिल्लें. उपरांत कांय काळान राजा तिचे कडेन विधिवत् लग्न जाला. पुणून ते मेरेन बावडेक जायते मनस्ताप सोंसचे पडल्यात. आवयक जाल्ले हे मनस्ताप इन्द्र केन्नाच विसरलो ना. तो बापायचो सूड घेवपाची संद सोदीत रावलो. एक दीस ताका तशी संद मेळ्ळी आनी तिचो इन्द्रान लाव घेतलो. बापायक पांयांक धरलो, उबारलो आनी जमनीर आपटून मारलो. ते उपरांत इन्द्र एलामचो राजा जालो. राजा जाले उपरांतूच तो सप्तसिंधू कडेन आयला. इन्द्रान सप्तसिंधूचेर आपलो शेक बसयला त्या वेळार ताका दस्यूंचोय आधार मेळ्ळा जावंक जाय. दस्यूं भितर फूट पडिल्ली अशें दिसता. कित्याक, इन्द्राक आधार दिवपी दोगां दस्यूंची नांवां ऋग्वेदांत मेळटात. दोगूय राजा आशिल्ले. एक त्रसदस्यू. दुसरो पुरुकुत्स. इन्द्र जाचो आधार घेवन दस्यूंची शारां मातयेभरवण करतालो तें वज्र लेगीत ताका दस्यूंतल्या एका ब्राह्मणान करून दिल्लें. त्वष्टा नांव ताचें. तोवूय राजा आशिल्लो. त्वष्टा म्हळ्यार मेस्त. मेस्त ब्राह्मणांत मोडटाले आनी ब्राह्मण राज्यूय करताले. त्वष्टाक त्रिशीर्ष नांवाचो पूत आशिल्लो. त्वष्टान दिल्ल्या आधाराक स्मरून इन्द्रान तसरीप म्हूण त्रिशीर्षाक आपलो पुरयत केल्लो. आनी हो बंड करतलो ह्या दुबावान एक दीस ताका मारुनूय उडयल्लो.

सप्तसिंधूंत इन्द्राक जैत मेळत गेलें तें दोन कारणांक लागून. एक, आर्यांच्या आगळिक्या एकचाराक लागून आनी दुसरें, दस्यूंचे भितरले फुटीक लागून. पुरुकुत्सान कितलींशीं शारां 'इन्द्रा खातीर' फोडल्यांत मोडल्यांत, अशें सांगपी ऋचा ऋग्वेदांत आसात. शम्बर नांवाचो दस्यू राजा आशिल्लो, ताचीं एकल्याचींच णव्याण्णव शारां इन्द्रान मातयेभरवण केल्लीं. हें झूज कितलीं वर्सां चल्लां जातलें, हाचो अदमास करूंक येना. कित्याक, शम्बर राजा चाळीस वर्सां मेरेन इन्द्रा आड झुजतालो अशें ऋग्वेदांत म्हळां. चाळीस वर्सां मेरेन तो किंवाट्यान झुजला. सगळीं शारां हातांतलीं गेले उपरांत रानांत रावन झुजला. चाळीस वर्सांच्या झुजा उपरांत शम्बर एक दीस इन्द्राच्या हाताक लागला. आनी त्याच खिणाक इन्द्रान

ताका मारून उडयला.

ह्या झुजांक लागून दस्यूंची आक्रांताची दार्नधिस्पट जाल्या जावंक जाय. बावडे जिवार उदार जावन किंवाट्यान झुजल्यात जावंक जाय. नमूची नांवाच्या एकल्या राजान इन्द्रा आड झुजपा खातीर राज्यांतल्या बायलांक लेगीत मुखार काडिल्ल्यो. ऋग्वेद म्हणटा : दासान बायलांक लेगीत झुजाक उब्यो केल्यो. असली दुबळी सेना कितें उजवाड घालतली आशिल्ली?

इन्द्राचे मुस्तींत सुरू जाल्ल्यो ह्यो दस्युहत्या सुमार णव पिळग्यां मेरेन चल्ल्यो अशें ऋग्वेदा वयल्यान दिसून येता. म्हळ्यार, एका सारक्यो तीन चार शेकड्यां मेरेन त्यो चल्ल्यात. ह्या चार शेंकड्यांच्या काळांत आर्यांक एक खीण लेगीत उसरपत मेळूंक ना. दस्युंकूय मेळूंक ना. दोनूय संस्कृतायो एकिमेकीं आड किंवाट्यान झुजल्यात आनी दोनूय पावला पावलाक मार खायत गेल्यात. आमच्या पुराय इतिहासांत असलो सांवाराचो काळ दुसरो पळोवंक मेळना. ह्या काळांत जे उत्पात हांगा जाल्यात तितले ताचे पयलींय जावंक नात. उपरांतूय जावंक नात. एक संस्कृताय दुसरे संस्कृतायेचीं पाळां-मुळां खणून काडपाक भायर सरली आनी दोनूय संस्कृतायांनी वाडिल्ल्या लोकांच्या मनांत एकामेकां विशिंच्या दुस्वासाचें वीख देंवलें. आर्यांक दस्यू पडमूर दिसपाक लागले. बुरशे, पोजडे, दोन जिबो आशिल्ले, सारकें उलोवंक येनाशिल्ले, काळे, मोटवे, फेंच्या नाकांचे, रीत नाशिल्ले, असल्यो कितल्योश्योच गाळी आर्य तांकां संवत रावले. आनी दुश्ट, दुस्वासी, पाडे, घमेंडी, आगळिको करपी असल्यो गाळी दस्यू आर्यांक संवत रावले.

आर्यांक कांय इतिहासकार Barbarians म्हळ्यार रानवटी म्हणटात. ते शारांत रावी नाशिल्ले इतलेच खातीर. खरेपणानशीं ते खातीर तांकां रानवटी म्हणप समा न्हय. तांचे कडेन लिपी नाशिल्ली. तरूय ते वेद रचताले. म्हळ्यार ते 'साक्षर' नाशिल्ले. तरूय 'सुसंस्कृत' आशिल्ले. तेच भाशेन, ते शारांत रावी नाशिल्ले. तरूय सभ्य civilized आशिल्ले. इतलेंच की दस्यूंची सभ्यताय एके तरेची जाल्यार, आर्यांची वेगळे तरेची आशिल्ली. दोनींची बांदावळूच वेगळी आशिल्ली. देखून दों मजगतीं भूंय मळबा इतलें अंतर आशिल्लें.

[६]

दस्युहत्येन अनार्यांक ना करपाचो वावर णव पिळग्यां मेरेन किंवाट्यान केले उपरांत आर्यांक एक दीस प्रस्न पडलो -

जे वाटेन आयजवेर आमी चलत आयल्यात ती वाट आमकां अखेरेक खंय व्हरून पावयतली? पिळग्यांच्यो पिळग्यो आमी दस्युहत्या करीत आयल्यात; कितलेशे दस्यू ना करूंक पावले आमी? म्हाल-समुद्रा भाशेन तें देशभर पातळ्ळ्यात. म्हाल-समुद्र केन्नां कोणाक आटोवंक आयला व्हय?

बरें, दस्यूय लेचे-पेचे न्हय. तेवूय किंवाट्यान झुजतात. तांचो तो जिणे-मरणाचो प्रस्न जावन पडला. आमी एक दिलें जाल्यार ते दोन दितात. हाका अंत आसा काय ना?

आर्य आयिल्ले हांगाच रावपा खातीर. तांकां परते वचपाचें नाशिल्लें. खंय वतले आशिल्ले? आपली वार, मठी सगळी आतां हांगाच ह्या निर्णयार ते पाविल्ले. तशें जाल्यार मागीर हांकां मारून प्रस्न सुटपाचो ना अशें तांकां दिसपाक लागलें. हांकां कितलो तेंप म्हूण आमी दुस्मान लेखतले? दुस्मानां मजगतीं कशे म्हूण आमी जियेतले? ना, हें उपकारा पडपाचें ना. हांचे कडेन आतां दुसरें कसलेंय तरी नातें आमी जोडचें पडलें. ना जाल्यार तांकांय सस्तताय मेळपाची ना, आमकांय सुसेग मेळपाचो ना.

आपणाली वाट चुकल्या म्हणपाचें तांकां दिसपाक लागलें तेन्ना तांगेलें तत्वगिन्यानूय तांच्या आधाराक धांवन आयलें. तांच्या रुशींक एक दिश्टावो जाल्लो. ह्या दिश्टाव्याक धरून 'संवसार देवान घडयला म्हणचे परस देवूच संवसार जाला' अशें ते म्हणपाक लागिल्ले. संवसारांत जें जें कितें आसा तें सगळें 'ताचें'च उकताडा आयिल्लें रूप अशें ते सद्दां प्रार्थने वेळार म्हणटाले. 'तशें जाल्यार मागीर दस्यूंच्या रुपानूय तोच उकताडा आयला अशें म्हणचें पडलें ना? ताचेंच रूप हेंवूय एक. तें ना करपाक वावरप समा व्हय?'

सांगपाचें म्हळ्यार, हे लोक सांवाराक उबगल्ले.

सांवाराक उबगल्ले सगळेच. तरी आसतना कांय जाणांचो पीळ सुटनाशिल्लो. ते म्हणपाक लागले, 'तुमी म्हणटात तें तत्वान खरें. पुणून ह्या बुरश्या आनी उणाक लोकां बरोबर रावप कशें? ते यज्ञ करिनात, मानिनात. आमचें यज्ञा बगर

पावल उखलना. हांकां आमी लागीं केले जाल्यार यज्ञाची पवित्रताय भंगची ना व्हय? आमच्यांत ते भरसले जाल्यार आमचें आर्यत्व बुडचें ना व्हय?'

सांवाराक उबगल्ले लोक तांकां विचारपाक लागले, 'तुमगेलें आर्यत्व रगतांत आसा काय संस्कारांत? रगतांतलें आर्यत्व आमी मानताले जाल्यार आमचे उपरांत आयिल्ल्या आर्यां आड आमी कित्याक झुजिल्ले? आमी खासा आर्यां आडूय झुजल्यात. खरें आर्यत्व संस्कारांचेंच धरूंक जाय. संस्कारान आर्य तोच खरो आर्य. हे लोक संस्कारान आर्य न्हय म्हूण आमी तांकां बुरशे, उणाक लेखतात. तांकां संस्कारान आर्य करुंया. तांकांय यज्ञाची दीक्षा दिवंया. तांकांय पवित्र करुंया. आमचे कडेन जें गिन्यान आसा तें तांकां दिवंया. मागीर आर्य आनी अनार्य फरक उरचो ना.'

हे भाशेन, वेदांचो काळ सोंपपाक आर्यां मदीं दोन पंगड पडले. एक आर्य आनी अनार्य हांचे मजगतचें अंतर 'दवरूंक जाय' म्हणटल्यांचो; दुसरो, अंतर 'कातरूंक जाय' म्हणटल्यांचो.

पयल्या पंगडाचें म्हणणें : आमी संस्कारान ऊंच, आमी उणाकां वांगडा भरसप समा न्हय. दुसऱ्याचें म्हणणें : मनीस सगळे सारके. मनशा मनशा मजगतीं ऊंच-उणाक वेगळेचार दवरप समा न्हय.

पयले आपणाक 'भद्र' लेखपाक लागले आनी दुसऱ्या पंगडाच्या लोकांक 'भ्रष्ट' मानपाक लागले. तर दुसरे आपणाक 'सुधारक' लेखून पयल्यांक 'सनातनी' मानपाक लागले. ऋग्वेदा पसून आतां मेरेनच्या आमच्या पांच हजार वरसांच्या इतिहासांत सनातनी आनी सुधारक दोनूय पंगडाचे लोक आमकां समाजांत सदांच पळोवंक मेळटात. दोनूय प्रवाह सारक्याच अंतरा वयल्यान समाजांत सदां व्हांवत आयल्यात. पयलो : वेगळेचाराचो आनी विघटनेचो. दुसरो : एकचाराचो आनी संघटनेचो. आमचो आतां मेरेनचो पुराय इतिहास म्हळ्यार ह्या दोन प्रवाहांचो इतिहास.

'अंतर कातरूंक जाय' म्हणटल्या सुधारकां मुखार एक मोटो समाजीक प्रस्न उबो आशिल्लो. खुबश्या आर्यांचो आर्य न्हय त्या जातींतल्या बायलां कडेन संबंद आयिल्लो. ते ह्या बायलां कडेन लग्न जाल्ले. आनी तांकां तांचे पसून भुरगीं जाल्लीं. ह्या भुरग्यांक आर्य लेखप काय अनार्य हो तो प्रस्न आशिल्लो.

कातीन हीं भुरगीं काळीं आशिल्लीं. पुणून संस्कारान आर्य जाल्लीं वा म्हणुंया,

बापायन तांकां आर्य केल्लीं. तांकां समाजांत आसपावन घेवपाची आनी तांकां थंय मानाची सुवात दिवपाची उमळशीक बापांयक लागिल्ली.

'शुद्ध' आर्यांचे नदरेन हे लोक 'भ्रष्ट' आशिल्ले.

वेदांचो काळ सोंपपाक शुद्ध आर्य आनी भ्रष्ट आर्य हे तरेचो एक फरक आर्यांत दिश्टी पडटा. शुद्ध आर्य चडशे पंजाबांत दिश्टी पडटात. ह्याच आर्यांच्या शिरंत्रांनी आर्य रगत घोळटालें. तांकां हे गजालीचो अभिमानूय आशिल्लो. तांचें रगतूय शुद्ध तशी भासूय शुद्ध आशिल्ली. आर्यांच्या संवसारांत हांची तांचे भाशे खातीर लेगीत नामना आशिल्ली. ही नामना ते उपरांत कितलींशींच वरसां तिगून उरल्या. कौषितकी ब्राह्मणांत एके कडेन आसा, 'भास शिकपाक लोक उदीच्य देशाक (पंजाबांत) वतात. थंयच्यान शिकून येतकूच ते जी भास उलयतात ती आयकत रावची-शी दिसता.' वेदीक काळांतूच आर्यांत भाशेच्या मळार तीन रुपां आशिल्लीं. एक 'उदीच्य'चें (पंजाबांतलें), दुसरें 'प्राच्य'चें (उदेंत उत्तर प्रदेश आनी बिहार हांगासल्लें) आनी तिसरें 'मध्य देशीय', मदल्या वाटारांतलें. तातूंत उदीच्य देशांतली भास शुद्ध. तिची ही नामना अशोकाच्या काळांत लेगीत तिगून उरल्या.

उदीच्यच्या ह्या 'शुद्ध' आर्यांक अनार्य खंयचे, अनार्यां कडेन संबंद येवन 'भ्रष्ट' जाल्ले हे आर्य लेगीत सोंसनाशिल्ले. 'हांणी अधर्म आडयला' अशें म्हणून शुद्ध आर्यांनी तांची खूब निंदा केल्या. तांच्या 'सुधारकी' वावरांत खूब आडमेळीं हाडल्यांत. इतलेंच न्हय तर हांकां 'जाग्यार हाडले बगर उपाय ना' अशें म्हणून तांणी मदीं मदीं तरसादेचोय आधार घेतला.

तरी आसतना 'सुधारकां' चो वावर चलत रावला. आनी तो नेटान चल्ला. आर्य अनार्य हांचे मजगतचें अंतर कातरूंक वावुरपी दोन नांवां वेदांत मेळटात. दोगूय तेजिश्ट वेदीक रुशी. एक, अगस्त्य. दुसरो, विश्वामित्र. आनिकूय एक नांव मेळटा - लोपामुद्रेचें. ही एक बायल मनीस आशिल्ली. (वेदांचे मुस्तींत बायलोय रुशी जाताल्यो. लोपामुद्रे भायर विश्वावरा म्हूण आनी एकलेचें नांव मेळटा) अगस्त्य, विश्वामित्र आनी लोपामुद्रा ह्या तीन रुशींनी कितल्याश्याच अनार्यांक आर्य केल्यात. आनी आर्यांच्या संवसारांत तांकां भौमानाची सुवात जोडून दिल्या.

हांच्याच वावराक लागून ज्या वेदांत 'दस्यूंचो सांवार कर' म्हूण प्रार्थना

आशिल्ल्यो त्याच वेदांत 'दस्युंकूय तेजिश्ट कर' ह्या अर्थाच्यो प्रार्थना येवंक पावल्यात.

वेदीक काळ सोंपपा वेळारूच आर्य संघर्षांतल्यान समन्वया कडेन पावल्यात.

[७]

दोन वेगळ्यो संस्कृतायो एकठांय आयल्यो म्हणटकूच पयलीं त्यो एकिमेकींच्या आंगार धांवून वतात. उपरांत 'पुरो जालो हो अच्छेव' अशें म्हणून एकिमेकींच्या लागीं येतात. लागीं आयल्यो म्हणटकूच दिवप-घेवप दोनिंकूय करचें पडटा.

समन्वय आपशीं घडून येना. घडोवन हाडचो पडटा.

आनी समन्वयाचो नेम असो - एकठांय येवपी दोनूय संस्कृतायांक दिसूंक जाय : आमी गिरेस्त जायत वतात. वाडत वतात. ना जावन वचनात.

सैमाचे सायेंत आर्य वाडिल्ले. सैमाक तांणी अश्वत्थाची ओपार दिल्ली. अश्वत्थ म्हळ्यार पिंपळ. पुणून ताचो दुसरो एक अर्थ आसा : आयज आसा, फाल्यां ना असलें. आयज दिसता तशें फाल्यां दिसचेंना असलें. सैमांत खिणा खिणाक बदल घडून येता तो हे खातीर. सैम अश्वत्थ म्हूण. सैमांतलो नित्य बदल आर्य पळेत आयिल्ले. पानखर रुतूंत उगडे नागडे जाल्ले रूख, वसंत लागनाफुडें कशे पालेवन आनी फुलून येतात ते तांणी पळेल्ले. पालेल्ले रूख फुलतात. फुलिल्ले फळटात हें ते सदांच पळेत आयिल्ले. सैम खिणा खिणाक बदलता देखून तें सदां नवें ताल्ल दिसता हें ते जाणा आशिल्ले.

बदलप म्हळ्यारूच जियेवप ह्या निर्णयार ते पाविल्ले. भायलें, भितरलें, अडेचें आनी निजाचें, खिणयाळें आनी सासणाचें हांतलो फरक तांकां कळूंक लागिल्लो.

आर्य न्हय तांकां आर्य करचे अशें तांणी थारायलें तेन्ना सगळ्यांत पयलीं तांणी आर्य ह्या उतराची व्याख्या बदल्ली. पयलीं जो आर्य कुळयेंत जल्मा आयला तोच आर्य अशें ते मानताले. आतां 'जाची चाल बरी, करणी बरी तो आर्य' अशें ते म्हणपाक लागले. आर्य ह्या उतराची व्याख्या बदलतकूच तांच्या दिग्विजयाच्या हावेसान वेगळें रूप घेतलें. पयलीं ते चोंयवशीन पातळटाले तेन्ना लोकांक जिखताले, प्रदेश जिखताले. आतां पातळटा आसतना 'जग आर्य करपाच्या' हावेसान ते

पातळूंक लागले. **कृण्वंतु विश्वम् आर्यम्,** अख्खो संवसार आर्य करुंया अशें म्हणीत ते पातळूंक लागले. आर्य रगताक आतां व्हडलेंशें म्हत्व उरूंक नाशिल्लें. आर्य संस्कारांक म्हत्व आयिल्लें. महाभारताचो काळ येसर आर्य उतराची व्याख्या **वृत्तेन हि भव्यत्यार्थो न धनेन न विद्यया** अशी जाल्या. मनीस धनान आनी विद्येन आर्य जायना, वृत्तीन जाता, सभावान जाता. सभावान आर्य तोच खरो आर्य अशें ते म्हणपाक लागले.

जग आर्य करपाचीं तांचे कडेन दोन साधनां आशिल्लीं : एक यज्ञ. दुसरें, भास.

इतिहासाचे नदरेन यज्ञा परस भास चड म्हत्वाची थरल्या.

लोकांनी आपणाली भास घेतली हें पळेतकूच आर्य खासा आपूण बदलूंक मुखार सरले. सगळ्यांत व्हडलो बदल तांणी आपणाल्या धर्माच्या मान्यतायां भितर घडोवन हाडलो.

आर्यांचो धर्म यज्ञाचेर आधारून उबो जाल्लो. यज्ञ हो तांगेलो मुखेल धर्म. यज्ञ करप हें तांगेल्या जिविताचें ध्येयूच जावन पडिल्लें. जे भुंयेर यज्ञ जायनात ती भूंय अपवित्र, आनी जे लोक यज्ञ करिनात ते 'अव्रत' अशें ते मानीत आयिल्ले. अनार्यांक तांणी यज्ञाची दीक्षा दिली. उपरांत ल्हवू ल्हवू आर्यांच्याय जिवितांतलो यज्ञ गळून पडलो. दिसपट्ट्या वेव्हारा खांतीर तांणी अनार्यांची पुजा घेतली. आर्यांत पुजा नाशिल्ली. पुजा उतर लेगीत आर्य न्हय. तें दस्यूंचे भाशेंतलें. पुजा येतकूच देवळां आयलीं आनी देवळां वांगडा देवांच्यो मुर्त्यो आयल्यो.

यज्ञ फकत कांय म्हत्वाच्या प्रसंगां पुरतोच तांणी राखून दवरलो.

अनार्यांचो एक देव आशिल्लो, शिंगांचो. पशुपती. आर्यांनी ताका आपणाल्या रुद्रा कडेन जोडलो आनी ताका तांणी शिव म्हूण एक नवें नांव दिलें.

शिवा वांगडा लिंगपुजा आयली. पयलीं लिंग पळेनाफुडें आर्यांचें आंग शिरशिरतालें. तांकां ही लिंगपुजा 'अळशीक' कशी दिसताली. लिंगपुजा करतल्यांक ते 'शिश्नदेवा' म्हूण हिणयताले. आतां शिवा वांगडा लिंगपुजा येतकूच तांतलो बिभत्सभाव तांणी ना करून उडयलो. कामदेवाक आपणाल्या तिसऱ्या दोळ्यान हुलपावन उडोवपी देवाचें तें प्रतीक थरलें.

शिव म्हळ्यार सगळ्यांचें बरें करपी. कल्याण करपी. आषुतोष, अशरण-शरण. ताका तांणी सगळ्यांत व्हडलो देव मानलो. म्हादेव म्हळो.

दस्यूं भायर देशांत निषाद आशिल्ले तांगेलेय देव आशिल्ले. कोण सोरपाक पुजताले. कोण हतयाक. जाल्यार, कोण हुंदराक. (आयज लेगीत आदिवासी लोक असल्याच देवांक भजतात). निषादांक भितर घेवचे अशें थारायलें तेन्ना तांगेले देवूय आर्यांक घेवचे पडले. तांकांय मानाची सुवात दिवची पडली. तांणी दस्यूंच्या देवांचें आनी निषादांच्या देवांचें नातें जोडलें आनी तांकांय आपणांत आसपावन घेतले. सोरपाक म्हादेवाच्या गळ्यांत घालो, वाहन म्हूण ताका नंदी दिलो. गणपतीक हतयाचें तोंड लायलें. वाहन म्हूण ताका हुंदीर दिलो. विष्णूक गरूड दिलो. इन्द्राक ऐरावत दिलो. हे भाशेन निषादांच्या देवांक दस्यूंच्या एका एका म्हत्वाच्या देवा कडेन जोडून तांकांय आपणांत आसपावन घेतकूच निषादूय खुशालभरीत जाले. 'आमच्या देवां बगर हांचें कोणाचें पावल उखलना' हे भाशेची खोस तांकां जावपाक लागली.

आर्यांनी एकूच थारायल्लें - सगळे देव घेवपाचे. पुणून अखेरेक देव हे देव. एकाच ईश्वराचीं वेगळीं वेगळीं रुपां, वेगळीं वेगळीं नांवां. **एकम् सत् विप्रा बहुधा वदन्ति** ह्या तांगेल्या तत्वगिन्यानांत हें जिस्त बसतालें. मुदयेर थीक कशें. ह्या तत्वगिन्यानाक धरून दस्यूंचे आनी निषादांचे देव तांणी घेतले आनी तांचें आर्यीकरण केलें. दस्यूंचे आनी निषादांचे देव रागार जाताले, रागान लोकांक ख्यास्त फर्मायताले. लोक तांकां भियेताले. तांकां आर्य करतकूच तेवूय आर्यांच्या देवां भाशेन लोकांचें बरेंच करूंक लागले. समुद्रमंथना वेळार कांसवान धर्तरेक आधार दिल्लो. गरूडान अमृतूच हाडिल्लें.

केदो धाडसाचो प्रयोग हो आर्यांचो! पोन्नें सगळें घेवन ताका नवो अर्थ दिवप आनी सगळ्यां सांगातान नवें जिवीत जियेवपाक मुखावेली वाट चलप. असल्या प्रयोगाक नदरूय क्रांतिकारी लागता, काळिजूय क्रांतिकारी लागता. आयज हिन्दू देवा धर्माच्या नांवान जें कितें मानतात आनी करतात तांतलें वेदीक कितलें आनी वेदीक न्हय तें कितलें, हाचो हिशेब लावंक आमी बसले जाल्यार तातूंत चडशें वेदीक न्हय तेंच मेळटलें. अनार्य तेंच चड आसतलें. सगळें आर्यीकरण करून घेतिल्लें.

[८]

शिवा वांगडा आर्यांनी शक्तिपुजाय घेतली.

संवसार कसो जालो हें कुवाडें सोडयता आसतना लिंगपुजेचो जल्म जाल्लो. पावस पडनाफुडें बियो कोंबेतात, तातुंतल्यान रोपे वाडटात आनी ते परत बीं दितात हें मनशान पळेल्लें. गायो गाबण्यो जातात, वियेतात आनी पाडकां दितात हेंवूय तांचे नदरेंत भरिल्लें. सगळ्यांत व्हडलो चमत्कार म्हळ्यार जिची आपणाक ओड ते आपणाले बायलेक आपणा सारकें वा तिचे सारकें भुरगें जाता. म्हणटकूच संवसारूय असोच जल्माक आयला जावंक जाय. ताकाय आवय-बापूय आसा जावंक जाय अशें आरंभाच्या काळांतलो मनीस मानूंक लागिल्लो.

प्रजनन हेंच संवसाराचें मुदल कारण आसूंक जाय हे कल्पनेंतल्यान लिंगपुजेचो जल्म जाल्लो. शैव आनी शाक्त ह्या मत्तांची ही बुन्याद. हे बुन्यादींत तंत्राचोय वांटो आशिल्लो.

शक्ति ही तंत्रविद्येची मुखेल देवता. संवसार खिणाखिणाक बदलता आनी खिणाखिणाक मरता तो संवसाराचे बुन्यादींत आशिल्ल्या शक्ति -तत्वाक लागून हें तंत्रविद्येचें मुळावें मत्त. उत्पत्ती, स्थिती आनी लय हाची देवता शक्ति. उत्पत्तीक 'पुरूष' जाय पडलो जाल्यारूय ताची सुवात दुसऱ्या पावंड्याची. मुखेल पांवडो शक्तिचोच.

भैरव हें पुरूषाचें एक रूप आनी शिव हें भैरवाचें रूप.

.असलें जायतें कितें कितें तंत्रविद्येंत भरिल्लें. आर्यांनी तेंवूय घेतलें. घेतना वायट तें सोडून दिवंया, बरें तितलेंच घेवंया अशेंय तांणी म्हळें ना. परतें, येवंदी सगळें. मागीर तें घांसून-पुसून निवळ करुंया अशें तांणी थारायलें.

शक्तिपुजेक तांणी जगदंबेचे पुजेचें नवें रूप दिलें आनी शैव, शाक्त आनी तांत्रिक हांकां आपणाल्या गोपांत आसपावन घेतले.

आर्य स्वर्ग मानताले. मनीस मेलो म्हणटकूच सोंपलो. उपरांत तो स्वर्गांत वता जातलो. तो परतो जल्म घेता हो विचार तांकां येवजूंक नाशिल्लो. पूर्वजल्म, पुर्नजल्म आर्यांत नाशिल्लो. आर्यांच्या धर्म-पुस्तकांत हो विचार पयलेच फावट दिश्टी पडटा तो ब्रह्दारण्यक उपनिषदांत आनी ब्रह्दारण्यकाचो काळ वेदांच्या कितल्याश्याच शेंकड्या उपरांतचो. वेदांचे मुस्तींत पुनर्जल्माचो विचार मानताले

अनार्य. आर्यांनी हो विचार तांचेच कडल्यान घेतला.

ह्या विचारा फाटल्यान आनीक एक विचार आसा. कर्मसिद्धांत म्हणटात ताका. ह्या विचाराचें म्हणणें अशें : करणी केन्नाच फुकट वचना. दर एकले करणेचें फळ मेळटा. बरे करणेक बरें फळ मेळटा. वायट करणेक वायट. तें तुका ह्या जल्मांत भोगूंक मेळ्ळें ना जाल्यार दुसऱ्या जल्मांत भोगचेंच पडटा, केन्नाच चुकना.

हो विचार आर्यांचो न्हय. अनार्यांचो, आर्यांनी तो जश्या तसो घेतलो. मुखार तांणी ताचेर खूब संस्कार केले आनी उपरांत तो वेदांताचो मुखेल विचार जालो ही गजाल वेगळी. पुणून मुदलांत तो आर्यांत नाशिल्लो.

पुनर्जल्माचो सिद्धांत ह्याच कर्मसिद्धांताचेर आधारून उबो रावला.

सांगल्यार खरें दिसचें ना : जे एके विद्येक लागून हिंदूंची संवसारभर नामना जाल्या ती योग विद्या लेगीत आर्यांची न्हय. तिवूय अनार्यां कडल्यान आर्यांनी घेतल्या.

तात्पर्य - आर्यांनी अनार्यांक आर्य करचें थारायलें तेन्ना अनार्यांचें सगळें तांकां घेवचें पडलें.

सिंधुसंस्कृतायेच्यो खुणो म्हूण जीं शारां पोरणावळशास्त्रान उस्तून काडल्यांत तातूंत अनार्यांच्या देवांचीं तरातरांची रुपां पळोवंक मेळ्ळयांत. तांचो आनी ऋग्वेदांतल्या ऋचांचो संबंद जोडून पळोवंक जाय. म्हणटकूच आर्य खंयच्यान खंय मेरेन गेले हाचो अदमास येतलो. अग्नि, पूष, मरूत, उषस् असल्या सैमाच्या शक्तींक देव मानपी आर्य तीन तोंडांचे आनी स हातांचे देव मानूंक लागले, तंत्र-मंत्र आनी ताच्या सांगातान येवपी वामाचारूय मानूंक लागले. हाचे वयल्यान तांणी आपल्या जिवितांत केदी क्रांती घडोवन हाडली हाचो अदमास करूं येता.

अनार्यांचो एक देव आशिल्लो, शिंगांचो. सिंधु संस्कृतायेंत वृषभाक (बैलाक) खूब म्हत्व आशिल्लें. सामान्या भायली शक्त. प्रजननाची शक्त सगळी बैलाच्या शिंगांत आसा असो तांचो समज. पावित्र्य, यश, समृद्धी हांचें शींग प्रतीक जाल्लें. हाका लागून देवांच्या माथ्यार ते शिंगां चडयताले. आयजूय गोंड, कोरकू, माहिया बी आदिवासी लोकांत ही चाल आसा. शिंगां लायले बगर तांगेल्या पुजाऱ्यांक देवाची पुजा लेगीत करूंक मेळना. ही चाल आयच्या हिन्दू समाजांत दुसऱ्या एका रुपांत दिश्टी पडटा - कपलाक आडवें जावं उबें गंध लावप हें शिंगां लावपाचे

अनार्य चालीचेंच आर्यीकरण आसूं येता. लग्ना वेळार आमी न्हवऱ्याक जें बाशींग बांदतात तेंवूय हेच चालीचें एक रूप आसूं येता. (बा-शींग = दोन शिंगां?) शिवाचे तकले वयलो चंद्र लेगीत तेच चालीचें आर्य रूप आसूं येता. आयचो हिन्दू धर्म वेदीक काय अवेदीक असो दुबाव येवचो इतल्यो अवेदीक चाली आर्यांनी आपणावन घेतल्यो.

ल्हाना-समानांतलो प्रयोग न्हय हो, खूब मोट्या धाडसाचो आनी आकांताचो क्रांतिकारी प्रयोग हो. असले प्रयोग राजाज्ञेन केन्ना घडून येनात. सैनिकांचे तरसादीकूय ते घडोवन हाडूंक येनांत. विज्ञानूय ह्या कामाक चडशें उपकारा पडना. आर्य नदरेचे रुशी जेन्ना ते घडोवन हाडपाक मुखार सरतात तेन्नाच ते घडून येतात.

आर्य-अनार्य एकचाराचो हो प्रयोग वेदांचो काळ सोंपपा सोंपपाक सुरू जाल्लो. तो पुराणकाळा मेरेन चलत राविल्लो. हिन्दू संस्कृतायेक तिच्या आरंभाकूच इतिहास-विधात्यान ही समन्वयाची देख दिल्ली म्हणूंक जाय.



३.

# पुराण काळांतली साधना

हिन्दू संस्कृताय हालिंसाराक मनीसघाणी जावन पडल्या. मुदलांत ती तशी नाशिल्ली. 'तुमी आमच्यांतले फुटून भायर सरिल्ले, तुमी आमकां नाकात.' 'तुमी भायल्यान हांगा आयिल्ले, आशिल्ले तशे परते वचात,' 'तुमी संस्कारान उणाक, आमच्या दोळ्यां मुखावयले कडेक सरात', हे भाशेन, हिन्दू संस्कृताय केन्ना कोणाक आपणा पसून धुकलून पयस उडय नाशिल्ली. उरफाटी, तुमी बेश्टे आपणाक आमचे पसून वेगळे मानतात. तुमी वेगळे न्हय, तुमी आमचेच, रगतान लेगीत आमी एकूच अशें सगळ्यांक सांगताली. हिन्दू संस्कृताय मुदलांत सर्वसमावेशक आशिल्ली. सगळ्यांक तिणें आपणांत आसपावन घेतिल्ले.

ती सर्वसमावेशक आशिल्ली म्हूण दाखोवन दिवपाक इतिहासीक पुरावे घडये दिवंक मेळचे नात. पुणून, पुराणांतले घे म्हूण पुरावे दिवन हें दाखोवन दिवंक येता. एक खरें : पुराणांक इतिहास लेखप समा न्हय: पुणून पुराणांत इतिहास निखालूस ना, अशेंय म्हणप समा न्हय. पुराणांत इतिहास भरला. फकत तो सोदून काडूंक येवंक जाय. सोदून काडपाची नदर मनशांत आसूंक जाय.

आर्य-अनार्य एकामेकांत भरसले, ते उपरांत रुशींनी पुराणां रचलीं. अनार्यां कडेन तांगेलो लोकवेद आशिल्लो. अनार्यांक आपणाल्या गोपांत आसपावन घेतकूच तांगेल्या लोकवेदांचेंय आर्यीकरण करूंक जाय, अशें रुशींक दिसलें आनी तांणी पुराणां रचलीं. जाणकार म्हणटात, आर्यां आदल्योय कथा रुशींनी पुराणांत आसपावन घेतल्यात. पुराणांत राजांच्यो ज्यो वंशावळी आयल्यात त्यो इतिहासाचे

नदरेन तर खूब म्हत्वाच्यो अशें म्हणपीय जाणकार आसात. एक गजाल कोणाच्यान न्हयकारूंक जावची ना : आर्य -अनार्यांचे भरसणे उपरांत जी एक संमिश्र संस्कृताय आर्यावर्तांत वयर सरली तिका पुराणांनी खूब पोसवण दिल्या. आयचें हिन्दू मानस पुराणांनी घडयलां. हिन्दू संस्कृताये संबंदान येवजिता आसतना पुराणांक कडेक काडून येवजूंक येवपाचें ना, येवजप सारकेंय जावचें ना.

पुराणां कितें सांगतात? आयज जे वेगळे वेगळे जातींचे, वंशांचे लोक हिन्दू समाजांत दिश्टी पडटात ते वेगळे वेगळे न्हय, ते एकामेकांचे सोयरे. एकाच रगताचे. तांणी एकामेकांक वेगळे मानप समा न्हय म्हणपाचें सगळ्यांत पयलीं पटोवन दिवपाचो यत्न करतात. तीं म्हणटात-

ब्रह्मदेवाक कश्यप नांवाचो एक नातू आशिल्लो. तो दिती आनी अदिती ह्या दोगी भयणीं कडेन लग्न जाल्लो. दिती पसून ताका जी संतत जाली ती दैत्यांची आनी अदिती पसून जाली ती आदित्यांची (= देवांची, आर्यांची). म्हळ्यार, दैत्य आनी देव सवत भाव आशिल्ले.

दिती आनी अदिती भायर प्रजापतिच्या बारा धुवां कडेन कश्यप लग्न जाल्लो. तांचे पसून ताका जी संतत जाली ती नाग, गरूड, सर्प, राक्षस, अप्सरा हांची. म्हळ्यार, हेवूय सगळे दैत्यांचे आनी देवांचे सवत भाव आशिल्ले.

यवन आनी म्लेंच्छ भायल्यान आयिल्ले अशें आमी म्हणटात. पुराणां तांगेली वेगळीच कथा सांगतात. तीं म्हणटात, ययातीक पांच पूत आशिल्ले : यदु, तुर्वसु, द्रह्यु, अनु आनी पुरु. हांतल्या तुर्वसुचे पूत यवन आनी अनुचे म्लेंच्छ. म्हळ्यार, यवन आनी म्लेंच्छ यादव, पौरव आनी भोज हांचे बापोलभाव आशिल्ले. आंध्र, पुंड, शबर, पुलींद ही खंय विश्वामित्राची संतत आशिल्ली.

इतिहासाचे नदरेन ह्यो सगळ्यो वेगळ्यो वेगळ्यो मनीस कुळयो. वेगळ्या वेगळ्या वंशांचे लोक हे. सगळ्यांक एका समाजांत आसपावन घेवंक जाय अशें रुशींक दिसलें तेन्ना सगळ्यांक तांणी रगताच्या नात्यान गुंथून काडले. आनी लक्षांत धरूंक जाय : वेगळ्या वेगळ्या वंशांच्या ह्या लोकांक तुमी हांगा येवन रावात म्हूण सांगपाक कोण वचूंक नाशिल्लो. कोणूच तांकां आपोवंक वचूंक नाशिल्लो. ते वेगळ्या वेगळ्या कारणांक लागून हांगा आयिल्ले. कोण पोटा खातीर आयिल्ले, कोण आसऱ्या खातीर आयिल्ले, तर कोण आनीक कित्या खातीर आयिल्ले. पुणून येवन सासणाचे हांगाच रावतले अशें थारावन आयिल्ले. येतना सगळे

आपापणाल्यो परंपरा, आपापणालीं धर्ममत्तां, आपापणाल्यो चाली-रिती, आपापणाल्यो भासो, म्हळ्यार, आपापणाल्यो वेगळ्यो वेगळ्यो संस्कृतायोय घेवन आयिल्ले. एके कडेन येवन रावतकूच ह्या लोकां मजगतीं झगडीं-झुजां जाल्लीं आसूंक जाय. कोणें कोणाक तांतयां-पिलां सयत ना करपाचोय (येवरोपेवांनी अमेरिकेक केल्लो तसो) यत्न केल्लो आसूंक जाय. कोणें कोणाक चिड्डून आपणाल्या खोंटां पोंदा दवरपाचोय (येवरोपेवांनी दक्षीण आफ्रिकेंत केल्लो तसलोय) यत्न केल्लो आसूंक जाय. पुणून इतलेंय करून, कोणूच ना जायना, कोणूच चिड्डून चेपून उरना म्हणपाचें तांकां दिसून आयलें तेन्ना हें उपकरा पडपाचें ना हाची तांकां जाणवीक जाली आनी, कोणार्चीच कोणाक आडखळ जायनासतना एकठांय रावपाची एक तरा कशेय भाशेन सोदून काडचीच पडली अशें तांकां खोलायेन दिसपाक लागलें तेन्ना तांकां सह-अस्तित्वाच्या तत्वाचो सोद लागलो. आनी तांणी थारायलें, 'देश सगळ्यांचो. हांगा येवन रावल्यात तितल्याय वंशांच्या लोकांचो. सगळ्यांनी एकामेकांच्या स्वातंत्र्याक आडखळ हाडी नासतना एकठांय रावपाचें.'

तांणी एक जीवन-शैली - a way of life केळोवन काडली आनी तिका नांव दिलें : जातीवेवस्था.

जाती सगळ्यो ह्या देशांत वंश-भेदांतल्यान जल्माक आयल्यात. जातींक लागुनूच ह्या देशांत चाली-रितींची, धर्मविचारांची, उत्सव-परबांची, लोकवेदाची. तरातरांच्या परंपरांची विविधताय पातळिल्ली पळोवंक मेळटा. हे विविधतायेक लागुनूच देश संस्कृतायेचे नदरेन समृद्ध जावंक पावला. ही विविधताय ना जाली जाल्यार देश संस्कृतायेचे नदरेन खाकनवाळ जातलो अशें म्हणपी समाजशास्त्री देशांत आसात. जात म्हणिना फुडें आयज सगळेच जाण तिचे आड दांत-वोंठ चाबून उलोवपाक लागता. जसो कितें तिणेंच ह्या देशाचो घात मारला. घात मारला. ना म्हुणूं नज. पुणून एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय : जेन्ना हजार तरांचे लोक एके कडेन येवन रावतात तेन्ना तांकां झगड्यां-झुजां बगर एकठांय दवरपाचें एकूच समाजशास्त्रीय तत्व उपकरा पडूं येता तें म्हळ्यार, सह-अस्तित्वाचें peaceful co-existence चें. ह्या तत्वांतल्यान जात निर्माण जाल्या. आरंभाच्या काळांत दुसरो उपाय नाशिल्लो. ह्या तत्वाक लागुनूच हो देश अजून मेरेन तिगून उरला. आनी तातुंतल्यानच जल्माक आयिल्ले जाती-वेवस्थेन ह्या देशाक आरंभाच्या काळांत एके विचित्र परिस्थितींतल्यान वाटायला. ना जाल्यार

ह्या देशाचो तेन्नाच पिठो जावन पडटलो आशिल्लो.

दुसरी एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय-

इतिहासा आदल्या काळा पसून वेगळ्या वेगळ्या वंशांचे लोक एका सारकीं स्थळांतरां करीत आयिल्ले पळोवंक मेळटात. जल्माक आयिल्ले सुवातेर खंयचोच वंश थीर रावूंक ना. हांगासल्ल्यान थंय गेला. पुणून वंश-समन्वयाचें काम संवसाराचे फाटीर हेर खंयचेच कडेन जावंक पावूंक ना. भारतवर्षांतूच तें जावंक पावलां. हिन्दूंच्या रुशींनी तें करून दाखयलां. हेर सगळे कडेन अजुनूय - ह्या विसाव्या शतमानाचे अखेरेक लेगीत - वंशां वंशां मजगतीं झगडीं-झुजां चलत रावल्यांत. तांकां ethnic clashes ह्या नांवान आमी आयज वळखतात. हे clashes पालोवपाचो कोणाकूच अजून मेरेन कसलोच उपाय येवजूंक ना. ह्या संदर्भांत आमच्या देशान पुराणकाळांत घडोवन हाडिल्लो वंश-समन्वय तोखणाय करपा सारको कोणाकूय दिसलो जाल्यार अजाप न्हय. तोखणाय करपा सारकोच एक समाजशास्त्रीय प्रयोग आशिल्लो हो.

जाती-वेवस्थेंत ऊंच - उणाकपणाचें अमंगळ तत्व केन्ना रिगलें, सारकें सांगूंक येना. मुदलांत तातूंत तें नाशिल्लें. Equal but separate हेंच एक तत्व आशिल्लें. आनी हें तत्व नागरीक 'स्वातंत्र्या' इतलेंच म्हत्वाचें आशिल्लें.

जातींतल्या ऊंच - उणाकपणा खातीर हालिंसाराक मनुस्मृतिक जापसालदार धरपाची एक चाल सुरू जाल्या. खरेंपणानशीं मनुस्मृति ख्रिस्ता उपरांतच्या पयल्या वा दुसऱ्या शतमानांतली. जात कितल्याश्या शतमानां आदली. बुद्धाचे मुस्तींत जात आशिल्ली आनी जातींत ते मुस्तींत ऊंच-उणाकपणाचें तत्वूय आशिल्लें. आनी बुद्ध तर ख्रिस्ता आदल्या पांचव्या वा सव्या शतमानांतलो. म्हळ्यार, जाती-वेवस्था मनुस्मृति परस उणी पुरी सातशीं आठशीं वर्सां आदली, घडये ताचेय आदली आसूं येता. मनून फकत ती codify केल्या. तिचे नेम घडोवन काडल्यात. जें चलत आयलां तेंच सारकें बरें चलचें म्हूण ताणें कायदे घडयले. मनू फकत codifier आशिल्लो, reformer नाशिल्लो. सुधारक नाशिल्लो. 'संहिताकार' नाशिल्लो. ताचे कडल्यान सुधारकाच्या कामाची उमेद बाळगप समा न्हय. जातींतलें ऊंच-उणाकपण ना करपाचें काम सुधारकांचें आशिल्लें. आनी सुधारक तें सदांच करीत आयिल्ले. बुद्धान हें काम आपणाले तरेन केल्लें. ताणें जाती-वेवस्था 'मोडपाचो' यत्न केलो म्हणटात तें खरें न्हय. ताणें ऊंच-उणाकपणाच्या तत्वाचेर

उबे आशिल्ले समाजवेवस्थेंत उणाक मानिल्ल्या लोकांक 'ऊंच' पांवड्यार चडपाक वाट मेकळी करून दिली. 'जल्मान ब्राह्मण तोच ब्राह्मण' अशें ब्राह्मण मानीत आयिल्ले. बुद्धान 'हें खरें न्हय, करणेन ब्राह्मण तोच खरो ब्राह्मण' आचार-विचारान ब्राह्मण तोच खरो ब्राह्मण' हें तत्व चलणुकेंत हाडून ब्राह्मणांचो ब्राह्मणपदा वयलो मक्तो मोडून उडयल्लो. तागेल्या संघांत 'करणेन ब्राह्मण जाल्ले' कितलेशे हेर जातींतले लोक आशिल्ले आनी ते अधिकारांचे श्रेणींत 'संघां'त सामके वयल्या पांवड्यार वचून बशिल्ले.

हेंच तरेचें काम पुराणांनीय आपणाले तरेन केलां. हेंच पळेयात, पुराणांनी हिन्दू मुखार देख-दिणे 'आदर्श' कोणाचे दवरले? आर्यांचे न्हय. दैत्यांचे दवरले. आदर्श जोडपें कोणा सारकें आसचें? तर सत्यवान सावित्री सारकें. नारदान सत्यवानाचें वर्णन 'सूर्या सारको तेज:पूंज, ब्रहस्पती सारको बुदवंत, इन्द्रा सारको शक्तिवंत आनी धर्तरे सारको क्षमावंत' अशें केलां. आनी रोखडेंच तो कोण आशिल्लो तेंय सांगलां. तो शाल्वाचो नातू आशिल्लो आनी शाल्व दैत्य कुळयेंतलो आशिल्लो अशें म्हळां. सावित्री शिबी कुळांतली आशिल्ली आनी शिबी कुळूय दैत्य आशिल्लें अशेंय स्पश्ट केलां. म्हळ्यार, वडा-पुनवेक हिन्दू बायलो ज्या जोडप्याचो सदां उगडास करतात तें आर्य कुळयेंतलें नाशिल्लें. दैत्य कुळयेंतलें आशिल्लें. भक्तां मदलो शिरोमणी कोण आशिल्लो? प्रल्हाद. तोय दैत्य कुळयेंतलो आशिल्लो. महाभारताचे मुस्तींत एक व्हडलो रुशी जावन गेलो : आस्तीक नांवाचो. तो नाग कुळयेंतलो (Proto- Austroloid) आशिल्लो. महाभारत जाणें बरयलें तो महर्षी व्यास सत्यवतीचो पूत आशिल्लो आनी सत्यवती धीवर कन्या म्हळ्यार खारवीण आशिल्ली. जाचे पासून सत्यवतीक व्यास जाल्लो तो पराशर रुशी चांडाळणीचो, म्हारिणीचो पूत आशिल्लो. जाणें रामायण बरयलें तो वाल्मीकी कोण आशिल्लो? कोळी. रुशी जावचे पयलीं तो वाटमारेपण करतालो, लोकांक लुटटालो. चोरांक आनी वाटमाऱ्यांक लेगीत व्हड रुशी करपाची तांक हिन्दू संस्क्रतायेंत आशिल्ली असो हाचो अर्थ जाता. रघुवंशाचो कुळ-गुरू आनी सप्तर्षी मदलो एक नांवाजतो वसिष्ठ रुशी कोण आशिल्लो? एके वेश्येचो पूत.

पुराण काळा आदल्या उपनिषद काळांत लेगीत असले प्रयोग जाल्यात. एक सुंदर कथा उपनिषदांत आयल्या -

जाबालीचो पूत सत्यकाम वेद शिकपाक गौतम रुशी कडेन वता. गौतम ताका

विचारता, 'पुता, तुजी जात खंयची? वेद कोणाकूय शिकोवं येनात.' सत्यकाम जाप दिता, म्हाका म्हजी जात खबर ना. हांव आवयक विचारून येतां. तो आवयक विचारूंक वता. आवय म्हणटा, 'म्हाकाय तुजी जात खबर ना. तरणेपणांत हांव जायत्या जाणांगेर कामाक वतालीं. त्या वेळार तूं पोटांत आयला. कोणा पसून तें म्हाकाय सांगूंक येवपाचें ना.' सत्यकाम ही जाप घेवन गौतमाच्या आश्रमांत परतो येता. रुशी विचारता, 'कळ्ळी तुका तुजी जात खंयची ती?' आवयन जें सांगिल्लें तेंच सत्यकाम रुशीक सांगता. गौतमाचें काळीज भरून येता. तो सद्‌गदीत जावन आसना वयलो उठ्ठा आनी सत्यकामाक वेंगेंत घेवन म्हणटा, 'अ-ब्राह्मण न्हय पुता तूं. तूं द्विजोत्तम. सत्य कुळांत जल्माक आयिल्लो.' आनी ताका शिश्य करून घेता.

मनुस्मृतिची सत्या देशांत खरीच चलिल्ली जाल्यार हे तरेच्यो घडणुको हांगा केन्नाच घडून येवंच्यो नाशिल्ल्यो. सत्यवान-सावित्री, प्रल्हाद, आस्तीक, व्यास, वाल्मीकी, वसिष्ठ हांचे 'आदर्श' लोकां मुखार दवरपाचो धीर कोणाक - रुशींक लेगीत - जावचो नाशिल्लो.

ब्राह्मण चली आनी क्षत्रीय चलो वा क्षत्रीय चली आनी वैश्य चलो हांच्या 'संकरा' पसून जी संतत जाता, तिका मनून 'सूत' जातींतली म्हळ्या. सूत म्हळ्यार शुद्र. पुणून महाभारत आयज ज्या रुपांत मेळटा ताचें संपादन सौतीन केल्लें . महाभारताक निमाणें रूप ताणें दिल्लें. सौती सूत-पुत्र आशिल्लो. म्हळ्यार शुद्र आशिल्लो, आनी शौनका सारकेलो एक भार्गव ब्राह्मण (सारस्वत) ताची पाद्‌यपुजा करतालो आनी पांयांचें तीर्थ घेतालो.

हिन्दू संस्कृताय मुदलांत हे तरेची आशिल्ली. तिगेलें खरेलें रूप सगळ्यांक आपणांत आसपावन घेवपी आशिल्लें. तिणें दैत्यांक आनी देवांक (नेग्रिटोंक आनी आर्यांक) एकामेकांचे भाव मानल्यात. यवनांक आनी म्लेंच्छांक (ग्रीकांक आनी बाक्ट्रेयांतल्या सगळ्या जातींच्या लोकांक) एका रगताचे केल्यात. भारतवर्षांत जितल्याय वंशांचे लोक आयले तांच्या परंपरांक अभयदान दिवन, पोसवण दिवन आनी तांचो आदर करून हिन्दू संस्कारांच्या पोडान गुथून काडल्यात. चोरांक आनी वाटमाऱ्यांक लेगीत रुशी करपाची तिच्यांत तांक आशिल्ली. तिगेले सगळ्यांत व्हडले प्रतिनिधी म्हळ्यार व्यास, वाल्मीकी आनी वसिष्ठ. तिगूय 'भायल्या जातींतले' आशिल्ले. ब्राह्मण नाशिल्ले.

केदें व्हड दायज हिन्दूंक मेळिल्लें हें. कोणाकूय तांचो मत्सर दिसचो हे तरेचें दायज आशिल्लें हें. पुणून कटा ! हिंदूतल्या स्युडो-सेक्युलरिस्टांकूय ह्या दायजाची जाणवीक जाली ना. स्युडो-हिन्दूइस्टांकूय जाली ना. दोगांयनी ह्या दायजाची उवेखणीच केली. आनी ही संस्कृताय अंतीं विटकळूंक दिली. आयज ती मनीसघाणी जावन पडल्या. तूं नाका, तूं नाका, तूं नाका करून ती सगळ्यांक आपणा पसून पयस धुकलीत वचूंक लागल्या.






४.

# महाभारताच्या काळांतली साधना

महाभारताची कथा मुदलांत कौरव-पांडवांचे दुस्मानकायेची आनी हे दुस्मानकायेक लागून तांचे मदीं उपराशिल्ल्या झुजाची. प्रस्न पडटा - खरेपणानशीं इतलीच ही कथा, काय हे कथे फाटल्यानूय एक कथा आसा? राजनितूच घेवंया. राजनितीची कितलिशी फोडणिशी महाभारतांत आयल्या. शान्तिपर्वांत जाल्यार तिच्या सगळ्या आंगांची भासाभासूय खूब जाल्या. तिवूय भीष्मा सारकेल्या अणभवी आनी अधिकारी मनशाच्या तोंडांतल्यान.

पुणून महाभारतांत राजनीत खेळटात दोगूच. एक शकुनी, दुसरो कृष्ण.

राजनितीचे दोगांयचे आदर्श दोन तरांचे. शकुनीचो आदर्श आयज जिका आमी 'मॅकियावैलियन' राजनीत म्हणटात ते तरेचो. दावपेंचांची, वा म्हणुंया, कुटिल राजनीत ही. कृष्णाचो आदर्श दुसरो - न्याय्य आनी उक्ते राजनितीचो. कृष्ण झुजाचे मान्य नेम मोडटा. पुणून ह्या नेमांक मर्यादा आसात. ते बदलूंक जाय, हें दाखोवपा खातीर. कृष्ण पोरण्या नेमांचो गुलाम न्हय. नवे नेम घडोवपी एक युग पुरूश तो.

दोन तरांच्या राजनिर्ती मदलो हो फरक लक्षांत येना फुडें महाभारतांतल्या झुजाची कथा ह्या नव्या उजवाडांत पर्थून नियाळून पळोवचीशी दिसता. ही कथा कौरव पांडवां मदल्या झुजाचीच निखटी न्हय, तर शकुनी आनी कृष्ण हांचे मदल्याय झुजाची वा म्हणुंया संघर्षाची कथा शी दिसपाक लागता.

महाभारत मुदलांत बरयलें व्यासान. बरोवन मागीर ताणें तें आपणाल्या पांच शिष्यांक शिकयलें. तांतलो एक वैशंपायन. जनमेजयाच्या सर्पसत्रांत वैशंपायनान

तें सांगलें. ह्या सर्पसत्रांत लोमहर्षणाचो पूत सौती आयिल्लो. ताणें तें आयकलें आनी शौनकाच्या द्वादश वार्षिक सत्रांत जमिल्ल्या रुशींक सांगलें. त्या वेळार सौतीन भृगु वंशाच्यो कितल्योश्यो कथा भितर गुंथून काडल्यो अशें म्हणटात. कित्याक काडल्यो? भृगु वंशाचो आनी कुरू वंशाचो कसलोच संबंद ना. भृगु वंश परशुरामाचो. परशुराम रामा आदलो अवतार आनी राम कृष्णा आदलो अवतार. परशुराम आनी कृष्ण हांचे मजगतीं दोन युगांचें अंतर. आनी एक एक यूग तीन तीन, चार चार हजार वर्सांचें, अशें खासा महाभारतूच सांगता. पुणून महाभारतांत परशुराम भीष्माक अस्त्र-विद्या शिकयता. तसो द्रोणाकूय शिकयता. आनी कर्णाकूय शिकयता. जसो कितें, त्याच काळांतलो जाल्ले वरी. हाचो अर्थ कसो लावचो?

तर्कान ह्या प्रस्नाची जाप दिवंक येवपाची ना.

महाभारताचो संवसार इतिहास, काळ, तर्क, वास्तव सगळ्यां पेल्यान गेला. वास्तव जगांतल्या खरें आनी फट, बरें आनी वायट हांची कसवटणी ज्या मापांनी आमी करतात तीं मापां हांगा कित्याक उपकारा पडनात. हें जगूच मिथकांचें. वास्तवा पेले कडलें. काळाचीं भूत, भविष्य, वर्तमान, तिनूय अंतरां कातरून मुखार गेल्लें.

मिथकांचें हें रूप लक्षांत येना फुडें निखट्यो भृगु कुळांतल्योच न्हय, तर मुदल कथे कडेन कसलोच संबंद नाशिल्ल्यो ज्यो कितल्योश्यो कथा महाभारतांत आयल्यात - आनी त्यो थोड्यो येवंक नात, कथांचो पावस पडला तातूंत, उटांगारांचो कसो - त्यो सगळ्यो खंयच्यान आयल्यो आनी सौतीन त्यो महाभारतांत कित्याक गुथून काडल्यो हें जाणा जावन घेवपाक मन आंवडेता. त्यो बेश्टयो येवंक नात. मुजरत गुथून काडल्यात म्हणपाचें स्पश्ट दिसून येता. मागीर मिथकां घांसून-पुसून निवळ करून तांगेलें खरेलें रूप समजून घेवपाक मन वावुरता.

वनपर्वांत रेणुकेची कथा आयल्या. रेणुका जमदग्नीची बायल. परशुरामाची आवय. एक फावट चित्ररथ गंधर्वाक पळोवन ती भुलता. जमदग्नीक तिची तिडक मारता. हिची गोमटीच कातरून उडय म्हूण तो परशुरामाक सांगता. आनी परशुराम कित्याक कितें कात कांयच विचारी नासतना कचक् करून तिची गोमटी कातरता. मागीर परशुरामाक पच्छाताप जाता. आपणें आवयक मारली म्हूण तो रडपाक लागता. तिका परती जिवी कर म्हूण बापाय कडेन मागता आनी बापूय तिका जिवी करता.

आतां प्रस्न उपरासता - सौतीन ही कथा महाभारतांत कित्याक गुथून काडली? कथेच्या ह्या सागरांत आनीक एके कथेची भर घालची म्हूण? न्हय. दुसरो कसलोय तरी हेतू आसूंक जाय ताचो. रेणुकेची आयज यल्लाम्मा आनी भूदेवी म्हूण कर्नाटक, महाराष्ट्रांत पुजा जाता. भुरगीं जावचीं म्हूण कर्नाटक, महाराष्ट्रांतल्यो बायलो तिची आयजूय पुजा करतात.

ख्रिस्ती सनाच्या चवथ्या आनी पांचव्या शतमाना उपरांत शाक्त संप्रदाय देशांत प्रतिष्ठित जावपाक लागिल्लो. त्या वेळार आर्य धर्मांत ह्या संप्रदायाचीं दैवतां आसपावन घेवपाची गरज उपराशिल्ली. जगदंबा आदिशक्ती ह्या संप्रदायाचें मूळ दैवत. रेणुका तिचें प्रतिक. ती चित्ररथ गंधर्वाक पळोवन मोहित जाल्ली. तिका आर्यांच्या पुरुष-प्रधान दैवतांचे पंगतीक बसोवचे पयलीं चारित्र्य शुद्धीच्या दिव्यांतल्यान भायर काडची अशें घडये आर्यांक दिसलें जावंये. अशें एक सूचन हे कथेंतल्यान मेळटा. हें लक्षांत येनाफुडें रेणुकेची कथा निखटी कथा उरना. अथर्ववेदाच्या काळांत अनार्यांच्या देवांक आर्यांच्या देवांचे पंगतीक बसोवपाचो जो यत्न जालो ताचें हें एक मिथक आसूंक जाय अशें दिसता.

रामान त्राटिकेक मारिल्ली. कृष्णान पुतनेक मारिल्ली. राक्षस-राक्षशिणींक मारप ही आर्यांची चाल आशिल्ली. हिडिंबा हिवूय त्राटिके पुतने सारकी राक्षशीण. पुणून महाभारतांत ती भीमाची बायल जाता. राक्षशिणीं कडेन पळोवपाचे आर्यांचे नदरेंत खंयच्या तरी एका काळार बदल घडून आयला जावंक जाय. त्या वेळार ही कथा महाभारतांत भितर आयल्या म्हणूंक जाय. हो बदल केन्ना घडून आयलो? कित्याक लागून आयलो?

हांगा आनीक एक गजाल आमचें लक्ष ओडटा. हिडिंबे कडेन संबंद आयलो तो भीमाचो. भीम हेर मनशां सारको किरकोळ मनीस नाशिल्लो. तो वायु पसून कुंतीक जाल्लो. म्हळ्यार अति-मानवी आशिल्लो. परतो, प्रस्न उपरासता, भीम खरेपणानशीं कोण आशिल्लो? वायु-पुत्र म्हळ्यार? हें मिथक कशें सोडोवपाचें?

अर्जुन भीमाचो भाव. तोवूय तसलोच. अति-मानवी. इन्द्रा पसून जाल्लो. ताचोय कांय बायलां कडेन संबंद आयला. तांतल्यो द्रौपदी, सुभद्रा आनी चित्रांगदा मनीस-कुळयेंतल्यो. पुणून अर्जुनाचो संबंद हांचे भायर उर्वशी कडेनूय आयला आनी उलुपी कडेनूय आयला. दोगीय मनीस कुळयेंतल्यो न्हय. उर्वशी अप्सरा. तर उलुपी नागकन्या. एकली अंतरिक्षांतली. दुसरी जलाशयांतली. ह्यो कोण आशिल्ल्यो?

अप्सरा, नागकन्या, यक्षिणी, राक्षशिणी असल्यो वेगळ्या वेगळ्या कुळयांतल्यो बायलो महाभारतांत जायते कडेन मेकळेपणान भोंविल्ल्यो दिश्टी पडटात.

व्यासाची आवय मत्स्यगंधा आनी भरताची आवय शकुंतला दोगीय अप्सरांल्यो धुवो. भरतकूळ हांचे पसून जालां. द्रोण, कृप, ऋष्यशृंग हांगेल्योय आवयो अप्सरा. अप्सरा कोण आशिल्ल्यो? खंयच्यान आयिल्ल्यो? अप्सरांचीं जीं वर्णनां महाभारतांत आयल्यांत तीं मातशीं नियाळून पळोवंक जाय.

त्यो केन्ना एकल्यो-दुकल्यो भोंवनात, सामान्यतायेन त्यो गंधर्वां वांगडा भोंविल्ल्यो पळोवंक मेळटात. खुबूच सुंदर बायलो म्हूण तांगेली नामना. नाचपा गावपांत प्रवीण. जाय तेन्ना जाय तीं रुपांय त्यो घेवंक जाणात. गंधर्वां वांगडा त्यो आसतात म्हूण त्यो गंधर्वांच्यो बायलो जातल्यो अशें म्हणूं येता. पुणून इन्द्रागेर त्यो तागेल्यो रखेल्यो म्हूण राविल्यो दिश्टी पडटात. इन्द्र आनी गंधर्व अप्सरांचे कसले संबंद हे? धर्तरेवेल्या मनशांक भुलोवपाकय त्यो मदीं मदीं सकल देंवतात. मजा अशी, त्यो मनशांक भुलयतात. पुणून तांगेल्या जिवितांत त्यो आपणाक चड-श्यो घुसपावन घेनात. मनशां पसून तांकां भुरगें जालें जाल्यार ताका सोडून वचपाक त्यो मात लेगीत अनमननात. तांच्या काळजांत मोग, वात्सल्य कांयच ना. मेनकेन शकुंतलेक कशी वाऱ्यार सोडिल्ली?

ग्रीकांच्या मिथकांनीय आमकां अप्सरा पळोवंक मेळटात. ग्रीक लोक तांकां नीम्फस् म्हणटाले. आर्यांचे आनी ग्रीकांचे पूर्वज एके कडेन रावताले तेन्ना तांच्यात ह्यो संकल्पना उदेल्ल्यो आसूं येतात. उपरांत आर्य आनी ग्रीक वेगळे पडले. दोगूय दोन दिकांनी वाट चलत गेले. तेन्ना नीम्फस् आनी अप्सरांत फरक पडलो जावंक जाय.

अप्सरांचें कितलें भूल-भुलायणें एक कथाविश्व महाभारतांत उबें जालां!

पुरुरव्याच्या जिवितांत एक अप्सरा आयली - उर्वशी. आयली आनी गेलीय. पुरुरवा पिशें लागपा कडेन पावलो. शंतनुच्या जिवितांत एक खेपे गंगा आयली, दुसरे खेपे मत्स्यगंधा आयली. गंगेन शंतनुक मानसीक क्लेष थोडे दिले नात. 'हांव कितेंय करूं. तुवें म्हाका कांयच म्हणूंक जायना' ही अट घालून ती ताचे म्हऱ्यांत रावली आनी तागेलीं एका फाटल्यान एक आठ भुरगीं तिणें न्हंयेंत बुडोवन मारलीं. 'पापणी कितें करता?' अशें शंतनुन तिका विचारलां मात्, ती ताका त्याच खिणाक

सोडून गेली.

पुरुरवा आनी शंतनु दोगांयची अप्सरांनी काकुळटेणी गत्त करून उडयल्या.

अप्सरांचें हें निष्ठूर मन आमकां मत्स्यगंधेंतूय पळोवंक मेळटा. शंतनुची बायल जावंचे पयलीं ती भीष्माक केदी व्हडली अट घालता ! शिंवासना पसून ताका पयसूच दवरता.

मत्स्यगंधा आद्रिकेची धूव. आद्रिका एक अप्सरा. इन्द्र सदांच अप्सरांच्या आधाराक रावला. पुणून उपरान्त तो तपस्व्यांक भियेवपाक लागलो तेन्ना अप्सरांक तागेलो एकल्याचो आधार पावना अशें दिसपाक लागलें जावंक जाय. त्यो कामदेव, वायु, वसंतऋतु हांचोय आधार घेवपाक लागतात. हांगा दुबाव मारता, हें कामुकता आनी तप हांच्या संघर्षाचें मिथक न्हय मू?

मत्स्यगंधेक पळोवन पराशर रुशी भाळ्ळा. पुणून शंतनु भाशेन तो तिच्यांत घुसपून उरूंक ना. विश्वामित्र मेनकेक पळोवन भाळ्ळा. पुणून रोखडोच तो तपांत पर्थून गुल्ल जाला. कामुकते आड तप सदांच जैतवंत ज़ाल्लें हांगा दिश्टी पडटा. अप्सरा तपस्व्यांक भियेवपाकूय लागल्यात.

आदि-पर्वांत नारी-तीर्थाची एक कथा आयल्या-

कांय अप्सरा ह्या तीर्थांत मानगें जावन पडिल्ल्यो. तीर्था म्हऱ्यांत कोणूय पावलो जाल्यार ताका त्यो ओडून भितर व्हरताल्यो. अर्जुनान तांकां वयर काडिल्ल्यो आनी त्यो आशिल्ल्यो तश्यो अप्सरा जाल्ल्यो. तांकां एका तपस्व्यान श्राप दिल्लो. म्हूण त्यो मानगीं जावन पडिल्ल्यो. अप्सरांनी श्राप सोंसप आनी श्रापांतल्यान सुटप हें भारतीय साहित्यांतूच पळोवंक मेळटा. ग्रीक वा रोमन मिथकांनी असल्यो कथा वाचूंक मेळनात.

ह्यो अप्सरा, नागकन्या, ते गंधर्व, राक्षस आनी यक्ष, कोण आशिल्ले काय?

महाभारतांत आनीक एक बारीक फरक पळोवंक मेळटा. अर्जुनाचो संबंद येता तो अप्सरां कडेन आनी गंधर्वां कडेन. यक्षां कडेन, राक्षसां कडेन येना. तांचे कडेन संबंद येता तो भीमाचो. महाभारतान हो फरक कित्याक केला काय? अर्जुन इन्द्रा पसून जाल्लो आनी भीम वायु पसून जाल्लो म्हूण बी न्हय मू? तशें जाल्यार मागीर इन्द्राचें आनी गंधर्व, अप्सरांचें नातें कितें, तशें वायुचें आनी राक्षसांचें कितें तें सोदून काडचें पडलें.

पांचूय पांडवांक महाभारतांत, अति-मानवी जल्म कित्याक दिल्लो? नवे देव

निर्माण करपाचें मनांत आशिल्लें काय? सांगूं नज. पुणून इतलेंय आसून ते देव जायनात. देव आनी मनीस हांचे मदींच खंय तरी ते हुमकळटात. देव जाता तो तांच्यांतलो एकलोच कृष्ण. आनी तो मनीस-कुळयेंतल्या आवय-बापायगेर जल्मा आयिल्लो !

पांडव देव जावंक पावले नात हें एके नदरेन बरेंच जालें म्हणूंक जाय. ते देव जाल्ले जाल्यार महाभारताची पुराय कथा अडेची जावन पडटली आशिल्ली. पांडव मनिसूच उरले. तांचे पांय धर्तरेचेर थीर उरले. देखुनूच महाभारताची कथा आमचे सारकेल्या हाडा-मासांच्या लोकांची कथा जावंक पावली. अति-मानवी जल्म घेतिल्ले पांडव निमाणे मेरेन मनिसूच उरले म्हूण महाभारत अजुनूय जिवें तट्टटीत उरूंक पावलां.

हे नदरेन पळेल्यार भगवान श्रीकृष्णा परस मनीस रुपांतलो कृष्ण वासुदेव आमकां चड खरो आनी चड व्हड दिसता.

खरें म्हळ्यार, महाभारतांतल्या वेगळ्या वेगळ्या मिथकांचो अभ्यास अथर्ववेदाच्या सांगातान करूंक जाय. अथर्ववेद चवथो वेद. आर्य आनी अनार्य एकामेकांत भरसले उपरांत रचिल्लो. अनार्यांचीं सगळीं दैवतां ताणें आपणांत आसपावन घेतिल्लीं. म्हूण कांय काळ मेरेन तो अपौरुषेयांत मोडनाशिल्लो. उपरांत पांचव्या वेदाची व्हडवीक घेवन महाभारत आयलें. ताणें पुराय अथर्ववेद आपणांत आसपावन घेतलो.

महाभारताचो अभ्यास अथर्ववेदाच्या आधारान करपाक जाय.



## ५.

# मुसलमानी काळांतली साधना

मुसलमान आमच्या देशांत खूब पुर्विल्ल्या काळा सावन यो-वच करीत राविल्ले. आरंभाक आमी तांकां मुसलमान म्हूण वळखऽ नाशिल्ले. अरब म्हूण वळखताले. ते व्हडांतले व्हड तारवटी आनी बऱ्यांतले बरे वेपारी. तांगेलो आनी आमगेलो समुद्र एक. पुणून ह्या समुद्राचेर आमचे परस तांगेलो अदीक शेक. ते ताच्या ल्हारान ल्हाराक वळखताले. देखून ह्या समुद्राक नांव लेगीत 'अरबी समुद्र' पडिल्लें. ते तारवां घेवन येताले. वेगळे वेगळे कडलो माल हाडून हांगा विकताले आनी हांगासल्लो तरातरांचो माल घेवन भायल्या देशांनी पावयताले. तांगेल्या ह्या वेपाराक लागून आमचे अस्तमेचे तडी वयल्या राज्यांच्या उत्पन्नांत भर पडटाली. म्हूण हांगासल्ले आमगेले राजा तांकां सदां येवकार दीत आयिल्ले.

मलबारचे तडीर एका काळार अरबांच्यो कितल्योश्यो वसणुको आशिल्ल्यो.

ते मुसलमान जाले तेन्ना मुसलमान म्हूण येवपाक लागले. तेन्ना, मलबारचे तडी वयल्या हिन्दू राजांनी तांकां मशिदी आनी कब्रस्तानां बांदपाक जमनीय दिल्ल्यो.

ते हांगासल्ल्या चलयां कडेन लग्न जाताले. तांकां जीं भुरगीं जातालीं तीं मुसलमान म्हुण्णूच हांगा वाडटालीं.

ते मुस्तींत आमच्या देशांत लोकसंख्या साप्प उणी आशिल्ली. ते भायर, जाति-संस्था निर्मून आमी आमचो समाज अशे तरेन बांदून काडिल्लो की खंयच्याय देशांतलो, खंयच्याय वंशांतलो, खंयच्याय धर्माचो लोक हांगा खंयूय येवन रावलो आनी आपणाली एक वेगळी जात घडोवन जियेवपाक लागलो जाल्यार कोणाक

कोणाचो बादिकार जाय नाशिल्लो. हाचे पयलीं जें लोक आयिल्ले तांकांय आमी अश्योच सुवाती दिल्ल्यो आनी ते वेगळ्यो वेगळ्यो जाती घडोवन राविल्ले. तश्यो हांकांय आमी सुवाती दिल्यो. ह्या अरबी मुसलमानांनी केन्नाच कोणाक कसलोच त्रास दिवंक ना. कोणाक तांचो बादिकार जावंक ना.

मुसलमानां कडेन आमचो सगळ्यांत पयलो राजकी संबंद आयलो तो आठव्या शतमानांत. महम्मद बीन कासीम नांवाच्या फकत सतरा वर्सांचे पिरायेच्या एका अरबान आमचे उत्तर-अस्तम दिकेक आशिल्लो सिंध वाठार (आयज जो पाकिस्तानांत आसा) जिखून बगदादच्या खलिफाच्या साम्राज्याक दसयलो. तेन्ना:

खरेपणानशीं, हिन्दूंक इतिहासान दिल्ली ही एके तरेची शिटकावणी आशिल्ली, आतां घाळ रावन उपकारपाचें ना, तुमचे शिमेर एक झुजारी धर्म वयर सरला; ह्या धर्माचो आधार घेवन एक बळिश्ट साम्राज्य संघटीत जालां; तुमचें पुराय जिवीत सकल-वयर करून उडोवपाची तांक ताच्यांत आसा: तेन्ना, सादूर जायात. म्हूण सुचोवपी. पुणून हिन्दूंनी ही शिटकावणी व्हडलिशी काना-मनार घेतली ना. तिचे कडेन वचूंक जाय आशिल्लें तितलें तांचें लक्ष गेलें ना. अरबांनी घेतिल्लो वाटार परतो जिखून घेवचो म्हणपाचेंय तांकां येवजलें ना. परिणाम : महम्मद बीन कासिमा आड फकत थळावे सिंधी लोक झुजले. पुणून कोणाचोच आधार नाशिल्ल्यान तांकां निमाणें हार खावंची पडली. हार पडटकूच ताणी अरबांक सांगलें, 'तुमी आतां हुसक्या मेकळें राज्य करात हांगा. आमी तुमकां आडखळ हाडपाचे नात. पुणून आमच्यो दोन अटी मानून घेयात. एक, तुमी आतां कोणाक मारचें न्हय. आनी दुसरी, आमच्या दिसपट्ट्या देव-देवस्पणांत आडखळ हाडची न्हय.' महम्मद बीन कासीमान तांगेल्यो ह्यो दोनूय अटी मानून घेतल्यो आनी तांकां सांगलें, 'आमच्या खलिफाच्या साम्राज्यांत क्रिस्तांवांच्यो इगर्जी, ज्युदेवांचे सिनॅगॉग आनी पारश्यांच्या अगियाऱ्यो आसात तशीं तुमचीं हिन्दूंचीं देवळांय सुरक्षीत उरतलीं.'

महम्मद बीन कासीम फकत इतलें सांगून वोगी रावलो ना. जांचीं घरां लुटिल्लीं तांकां जाल्लें लुकसान ताणें भरून दिलें. मोडिल्लीं देवळां परतीं बांदून काडपा खातीर तांकां दुडवांचो आधार दिलो. इतलेंच न्हय, तर नवे राजवटींत ताणें हिन्दूंक बऱ्या बऱ्या चाकऱ्यांय दिल्यो.

लोकां कडल्यान कर वसूल करपाचो वावर नवे राजवटींत चडशे सिंधी

ब्राह्मणूच करताले.

खलिफाचें साम्राज, खरें म्हळ्यार, चीनाचे शिमे सावन आटलांटिक म्हाल-सागरा मेरेन पातळिल्लें. तातूंत अफघानिस्तान, इराण, इराक, अरबस्तान, पुराय मध्य आशिया, इजिप्त, उत्तर आफ्रिकेचो सगळो वाटार, पुर्तुगाल, स्पेन, फ्रांसाचो दक्षिणे कडलो वाटार - येदोय हो संवसार आसपावतालो. येदें व्हडलें साम्राज्य हाचे पयलींय केन्ना संवसारान पळोवंक नाशिल्लें. उपरांतूय केन्ना पळेलें ना. ह्या साम्राज्याक सिंधांत येवन थांबपाक कारण नाशिल्लें. ताच्यान जाय जाल्यार, हिन्दुस्तानांत पातळूं येतालें. पुणून महम्मद बीन कासीमान सिंधा उपरांत लागसारचें वेपारी केन्द्र मुलतान घेतलें आनी मुखार पातळपाचें सोडून दिलें. अरब लोक सिंधांत आनी मुलतानांत आयिल्ले ते थंयच थांबले. मुखार कित्याक पातळ्ळे नात, हाची इतिहासा कडेन सारकी जाप ना. वा म्हणुंया दोन तीन जापो आसात. तांतली अमकीच खरी अशें म्हणूंक येना.

एक खरें, हे घुरये उपरांत सुमार तीन शतमानां मेरेन कोणाचीच नदर आमच्या देशाचेर पडूंक पावली ना. कोणाचीच घुरी ह्या काळांत आयली ना.

अवचीत धाव्या शतमानाचे अखेरेक गझनीच्या महम्मदाच्यो घुरयो सुरू जाल्यो. पयलो महम्मद - महम्मद बीन कासीम - अरबी आशिल्लो. जाल्यार हो दुसरो महम्मद तुर्की आशिल्लो. तो खलिफाच्या साम्राज्यांतल्यान फुटून भायर सरिल्लो आनी अफघानिस्तानांत ताणें आपणालो शेक घट केल्लो. इतिहासकारांनी ह्या महम्मदाचीं जीं वर्णनां केल्यांत तीं वाचतकूच तो धर्मकोल्ली आशिल्लो अशें दिसता. मुसलमान धर्म पातळावपा खातीर तो हिन्दुस्तानांत आयिल्लो आनी हिन्दूंचीं देवळां तो तेच खातीर मोडटालो अशें दिसता. तो धर्मकोल्ली आशिल्लो. ना म्हणूंक येना. तो मुसलमान धर्म पातळावंक सोदतालो, हे विशींय दुबाव ना. देवळां मोडटकूच 'पुण्य' मेळटा अशें ताका ताच्या धर्मान सांगिल्लें, म्हूण तो देवळां मोडटालो, हेंय ना म्हणूंक जायना. पुणून हिन्दुस्तानांत ताणें आपणाल्यो घुरयो ह्या उद्देशान घालूंक नाशिल्ल्यो, हेंवूय विसरूंक जायना. हिन्दुस्तान घेवपा खातीर तो हांगा येवंक नाशिल्लो. हिन्दुस्तान घेवपाचें ताच्या मनांतूय नाशिल्लें. ताचे कडेन आशिल्लें अफघानिस्तानूच ताका सांबाळपाचें आशिल्लें. ते खातीर ताका दुडू जाय आशिल्लो. भांगर रुपें जाय आशिल्लें. ताका आपणालें राज्य गिरेस्त करपाचें आशिल्लें आनी भांगर रुपें हिन्दुस्तानांत घेऽ म्हूण भरलां अशी

ह्या देशाची ते मुस्तींत संवसारभर नामना आशिल्ली. तें लुटपा खातीर तो आयिल्लो. भांगर रुपें चडांत चड हिन्दूंच्या देवळांनी एकठांय जातालें. म्हूण तो देवळां लुट्टालो. ताणें मथुरेचेर घुरी घालून थंयचीं देवळां लुटिल्लीं. थाणेश्वर, कनौज. हांगासल्लींय देवळां लुटिल्लीं. सोमनाथूय लुटिल्लें. आनी खूब भांगर रुपें एकठांय केल्लें.

देवळां लुट्टा आसतना तो मुर्ती फोडटालो आनी आडावपाक आयिल्ल्यांक कचाकच कातरुनूय उडयतालो. सोमनाथाच्या देवळांत ताका चडांत चड भांगर रुपें मेळ्ळां आनी हांगाच ताणें चडांत चड लोकांक. सुमार पन्नास हजार लोकांक, कचाकच कातरून उडयल्यात.

तो आयला आनी गेला. पर्थून आयला. पर्थून गेला. क्रि. स. ९७७ पसून १०३० मेरेनच्या काळांत ताणें कितल्योश्यो घुरयो घाल्यात. तोळांची धाड येवची तशी शी कितें वर्सान वर्स ताची घुरी येवची. लोक ताचें नांव घेनाफुडें थरथरतालो. १०३० त तो भायर पडिल्ल्याची खबर हांगा पावल्या तेन्ना लोकांनी सूऽऽ करून सुस्कार सोडला. इतलें ताणें हांगासल्ल्या लोकांक नाका पुरो केल्लें.

तो घुरयो घालून हांगा येतालो तेन्ना तागेल्या सैन्यांत फकत मुसलमान आसताले, अशें म्हणूंक येना. हिन्दूय आसताले. हिन्दू शूर. ते भायर, स्वामी - भक्त. जाचें मीठ खालां ताचो केन्नाच घात मारचे नात, असो ताचो समज जाल्लो. देखून तो आपणाल्या सैन्यांत हिन्दूंचीय भर करतालो. महम्मदाचें हें धोरण मुखार ताच्या पुतानूय चलयल्लें. आपणाल्या खास्सा भावाक जाग्यार हाडपा खातीर पुतान राव नांवाच्या एका स्वामी-भक्त हिन्दूक ताचे आड झुजपाक धाडिल्लो. टिळक नांवाच्या एका हिन्दू कडेन ताणें न्यायदानाचें काम दिल्लें. हो टिळक खासा मुसलमानांचे हात-पांय कातरपाच्यो ख्यास्ती फर्मायतालो. गझनीची सेवा करपाक हिन्दूंक कांय अडचण दिसली ना जाल्यार ताचे दोनूच अर्थ जातात. एक तर हिन्दूंक कोणाची सेवा करची आनी कोणाची न्हय - कोण आपलो, कोण पेलो, हाचो पात्सो नाशिल्लो वा, महम्मदाचें जें चित्र इतिहासकारांनी आमचे मुखार दवरलां तें तांचे मुखार नाशिल्लें. तें खरें नाशिल्लें.

महम्मदाच्यो इतल्यो घुरयो येवनूय लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार -

आमचे देशी राजा सादूर जावंक पावले नात. ते घाळ ते घाळूच उरले. हे मुखार असल्यो घुरयो येवच्यो न्हय म्हूण आमी सगळ्यांनी एकठांय येवन संघटीत

जावंक जाय म्हणपाचें एकल्याय सभाग्याक केन्ना येवजलें ना.

उपरांत आनीक दोनशीं वर्सां गेलीं.

अवचीत बाराव्या शतमानांत ११८२ च्या अदमासाक आनीक एकलो महम्मद घोरी, झुजत झुजत आयलो. हो अरबूय न्हय, तुर्कूय न्हय, पठाण आशिल्लो. आदल्या तुर्की महम्मदा भाशेन तो येवन वचपाक येवंक नाशिल्लो. तो हिन्दुस्तान घेवपाकूच आयिल्लो.

उत्तर भारतांत त्या वेळार एका परस एक शूर राजा आशिल्ले. माळव्यांत परमार आशिल्ले. सोळंकींचें गुर्जरात काठियावाडांत राज्य चलतालें. गुहिलांचें मेवाडांत चलतालें. अजमेर-दिल्लीच्या वाटारांत चौहानांचें चलतालें. कनौजचें राज्य जयचंदा कडेन आशिल्लें. पुणून हांचे भितरल्या एकल्याकूय महम्मद घोरीचे घुरयेचो अर्थूय समजलो ना, म्हत्त्वूय कळ्ळें ना. चक्रवर्ती राजा जावपा खातीर तांगेली पुराय शक्त एकामेकां आड झुजपांतूच खर्चल्ली. ते एकामेकांक बुद्द शिकोवपांतच गुल्ल राविल्ले. हांच्यांतलो एकलोच महम्मदा आड झुजपाक मुखार सरलो. तो म्हळ्यार, पृथ्वीराज चौहान. ताणें महम्मदाक पयले फावट परतिलो. पुणून तो त्याच दिसांनी आनीक एका कामांत घुसपल्लो. कनौजचो जयचंद ताचो दुस्मान. पृथ्वीराजान जयचंदाचे धुवेक - संयोगितेक स्वयंवरांतल्यान पळोवन व्हेल्ली. जयचंदाक हाची तिडक. पृथ्वीराजाक बुद्द शिकोवपा खातीर जयचंद महम्मद घोरीक मेळ्ळो, आपोवन घेवन आयलो आनी दुसरे घुरये वेळार पृथ्वीराजाक झुजांत हारोवन महम्मदाच्या हातान ताका मारुंकूय लायलो. आमचे भितरले धोशींचो तिसरो लाव घेता हो विवेक जयचंदाक नाशिल्लो. परिणाम : पृथ्वीराजाक उडोवन दिल्लीच्या तख्तार महम्मद घोरी बसलो. आनी पंचवीस वर्सां भितर ताणें पुराय उत्तर हिन्दुस्तानाचेर आपणालो शेक पातळायलो.

तेन्ना पसून, म्हळ्यार, १२०६ सावन १८५८ मेरेनच्या सुमार साडे सशीं वर्सांच्या काळांत दिल्लीच्या तख्तार, ह्या ना जाल्यार त्या घराण्यांतले मुसलमान बसल्यात. आनी उत्तर हिन्दुस्तान तांच्याच हातांत उरलां. एकलो आयला. तो मातसो थीर-थावर जाला. म्हणटासर दुसरो घुरी घालून आयला. हाका उडयला आनी आपूण तख्तार बसला. हो मातसो थीर-थावर जाला. म्हणटासर तिसरो आयला. हाका उडयला आनी आपूण बसला. हे भाशेन, १२०६ सावन १५२६ मेरेनच्या काळांत दिल्लीच्या तख्तार पांच घराण्यांतले लोक बसल्यात. तांतले

गुलाम, खिलजी आनी तुघलक तुर्की. सय्यद अरबी जाल्यार लोदी पठाण. निमाणो आयलो तो बाबर. तो बापायचे वटेन तुर्की. तैमुरलंगाचो वारस. जाल्यार, आवयचे वटेन मोगल, चेंगिझखानाचो वारस. १५२६ त लोदींक उडोवन ताणें दिल्लीचें तख्त घेतिल्लें तें उपरांत तिनशें बत्तीस वर्सां ताच्याच घराण्याच्या हातांत उरलें. १८५८ त इंग्रजांनी निमाण्या मोगल सम्राटाक - बहादूर शाह जफराक धरून बंदखणींत घाला तेन्नाच हिन्दुस्तान मुसलमानी शेकांतल्यान मेकळें जालां. पुणून इंग्रजांच्या हातांत गेलां. म्हळ्यार, तव्या वयल्यान रांदनींत पडलां.

ह्या साडे सशीं वर्सांच्या इतिहासा कडेन मातशें निर्विकार नदरेन पळेत जाल्यार एक गजाल नदरेंत भरूंक जाय -

ह्या साडे सशीं वर्सांत मुसलमानांनीच मुसलमानी राज्यां उडयल्यांत. मुसलमानांनीच मुसलमानांक मारल्यात. खरेपणानशीं हीं झुजां देशी विदेशी हांचे मदलीं आशिल्लीं. जें राज्य पडलां तें मुदलांत विदेशी लोकांचें आशिल्लें जाल्यारूय तें हांगा थीर - थावर जाल्लें. देशी जाल्लें. हें देशी राज्य देशी जावपाक आयिल्ल्या दुसऱ्या एका विदेशी राजान उडयलां. हीं देशी विदेशी झुजां जाल्यांत तेन्ना दिल्लींत रगताचे पाट व्हांवल्यात. तांतलें सगळेंच रगत हिन्दूंचें आशिल्लें अशें म्हणूंक येना. हिन्दू-मुसलमान दोगांयचें रगत एकामेकांत भरसून दिल्लींत व्हांवलां. तैमुरलंगान धुरी घाल्या तेन्ना ताणें दिल्लींत पांच लाख लोकांक कचाकच कातरून उडयल्यात. पांच लाखांतले तीन लाख मुसलमान आशिल्ले.

आनीक एक गजाल मतींत धरूंक जाय -

दिल्लीच्या तख्तार बसून मुसलमानांनी साडे सशीं वर्सां राज्य केलें खरें. पुणून तख्तार मुसलमान आशिल्ले इतलोच ताचो अर्थ. तांगेलें राज्य 'मुसलमानी' आशिल्लें अशें म्हणूंक येना. 'कुराणा'क धरून एकल्याचेंय राज्य चलूंक ना. 'खलिफां'क तें जमलें. कित्याक, तांगेली प्रजा सगळी मुसलमान आशिल्ली. आमची प्रजा सगळी मुसलमान न्हय. देखून मुसलमानी धर्माक धरून हांगा राज्य चलोवंक येवपाचें ना, अशेंच सगळ्यांचें मत्त जालां. कांय कर्मठ उलेमांनी मदीं मदीं राज्य करतल्यांक सांगलां : 'जांचेर आमी राज्य करतात ते लोक आमचे न्हय. तांकां मुसलमान करून आमचे करून घेवंक जाय. ते बगर आमच्यांनी तांकां संरक्षण दिवंक जावंचें ना.' तेन्ना तेन्ना राजांनी तांकां 'धर्म वेगळो आनी राज्य कारभार वेगळो, अरबस्तानांत धर्माक धरून राज्य करूंक येत, हांगा जमपाचें

ना' अशीच जाप दिल्या. कांय इतिहासकार म्हणटात : मुसलमानांनी राज्याचो आनी धर्माचो संबंद जोडलो ना, देखुनूच ते इतलीं वर्सां हांगा तिगूंक पावले. ना जाल्यार खीणभर लेगीत तिगूंक पावचे नाशिल्ले.

मोगल सम्राटां भितरलो एक अकबर. ताणें वेगळ्या वेगळ्या धर्म-मत्तांच्या लोकांक एकठांय हाडून तांचे मजगतीं एके तरेचो समन्वय घडोवन हाडपाचो यत्न केल्लो. पुणून ताचे पयलीं मोगल साम्राज्य जाणें सुरू केलें त्या बाबरानूच धर्म-समन्वयाचें मुळावण घाल्लें अशें म्हणूंक जाय. बाबराच्या शिरंत्रांनी तैमुर आनी चेंगीझखान दोगांयचें रगत घोळटालें. खरेपणांनशीं ताणें कर्मठपणान लोकांक मुसलमान करपाचो वावर करपाचो. पुणून तो लेगीत धर्म पातळावपा परस राज्य करप म्हत्वाचें अशें मानतालो. ताणें मरचे पयलीं आपणाल्या पुताक - हुमायूँक उपदेस केल्लो; फकत तोंडान न्हय, बरोवन दिल्लो. तातूंत तो म्हणटा -

'राजाधिराज जो अल्ला ताणें आमकां राज्य करपाक असो एक देस दिला की जातूंत एका परस अदीक धर्माचे लोक रावतात. अल्लाचे हे आमचेर व्हडले उपकार जाल्यात अशें मानून राज्य करतना, पुता, कोणाच्योच धर्मीक भावना दुखवच्यो नात हाची जतनाय घे. न्याय दितना कोण खंयच्या धर्माचो हें पळेनासतना तटस्थतायेन बऱ्याचोच निर्णय घे. प्रजेचे आनी राजाचे संबंद बरे उरूंक जाय. ते खातीर कोणाच्याच धर्मस्थळाचेर आगळीक जावची ना हाची जतनाय घे. सगळ्यांक आपापणाल्या धर्मा प्रमाण चलपाची मेकळीक दी. गायो मारतकूच हिन्दू दुखावतात: देखून गायो मारूं नाका, कोणाक मारूंकूय दिवं नाका. आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें : इस्लामाचो प्रचार करतलो जाल्यार तरसादेचो आधार निखाल्स घेवं नाका. मोगाच्या आधारान काळजां जीख. धर्म प्रसारा परस काळजां जिखप म्हत्वाचें.'

ह्या उपदेसांत आनीक एक म्हत्वाची गजाल आसा :

'शिया आनी सुन्नी हांच्या झगड्यांत पडूं नाका. हीं झगडीं इस्लामाची (मुसलमान धर्माची) दशा काडटात.'

हाचो अर्थ, मुसलमान राजा सगळेच बाबर वा अकबर हांचे सारके उदार मत्तांचे आशिल्ले असो न्हय. ह्या साडे सशीं वर्सांत धर्मकोल्ली राजाय दिल्लींत जावन गेल्यात. तरसादेच्या आधारान धर्म पातळावपाचो - वा हिन्दूंचीं देवळां मोडपाचो - वावरूय तांणी किंवाटच्यान केला. पुणून सामान्यतायेन धर्म

पातळावपाचो वावरूच हो आपणालो खरो वावर - वा होच एक आपणालो वावर - अशें चडशें कोणें केन्नाच मानूंक ना. महम्मद घोरीन जायत्या जाणांक मुसलमान केल्ले. पुणून एका 'फटीच्या' धर्मांतल्यान सोडोवन तांकां 'खरेल्या' धर्मांत हाडपाची मोख धरून न्हय. कोणें बंडखोरी केल्या तेन्ना ताका ख्यास्त म्हूण तागेलो धर्म ताणें 'बुडयला'.

बंडखोरांक निश्ठुरपणान चिड्डुपाचें काम सगळ्यांनीच केलां. हिन्दूंनी लेगीत.

मागीर, कितलेशे हिन्दू बाटून मुसलमान कशे जाले? ह्या प्रस्नाक तीन जापो आसात -

१. थोडे भोव तरसादेक भियेवन जाले.

२. वयल्या वर्गांतले लोक जहागीर मेळटली, पदवी मेळटली असल्यो वेव्हारीक मोखी मुखार दवरून जाले. आनी,

३. हिन्दू समाजांत जे अपमानीत जीण जियेताले ते - अस्पृश्यां भितरले खूब जाण - मनीसपणाची भौमानाची जीण जियेवंक मेळटली ह्या हावेसान जाले.

हांचेर मुसलमान पात्शायां परस मुसलमान अवलियांचो प्रभाव आशिल्लो. ते हिन्दू समाजाक खोंट मारून भायर सरल्यात.

बरें, हिन्दू राजा गेले आनी मुसलमान आयले म्हूण प्रजेक दुःख जालां व्हय? ना. एक तर हिन्दूंनी राज्यार कोण आसचो, कोण नासचो हाचो पात्सो केन्नाच धरूंक ना. आनी दुसरें, मुसलमान राजां परस हिन्दू राजा बरे, अशें म्हणपाची संदूय आमच्या राजानी तांकां केन्ना दिवंक ना. हिन्दू राजा निश्ठूरपणांत केन्नाच फाटीं रावंक नात. तातूंत परतो, मुसलमानी राजवटींत हिन्दूंक न्याय तरी मेळटालो - मुसलमानां आडूय मेळटालो. हिन्दू राजांचो न्याय तांच्या कोल्लाचेर निंबून उरतालो. तांच्या राज्यांत सत्याक न्याय मेळटलोच हाचें खरेपण नाशिल्लें.

हिन्दूंची निश्ठा मेळ्ळी जाल्यार मुसलमान राजा तांचे वाटेक वचनाशिल्ले. तांकां आपणाल्या राजकारभारांत बऱ्यो बऱ्यो चाकऱ्योय दिताले.

पुणून ह्यो जाल्यो इतिहासांतल्यो वयले वयल्यान दिश्टी पडपी घडणुको. वयले वयल्यान दिश्टी पडपी ह्या घडणुकांत इतिहास सोंपना. इतिहासाचें आनीक एक आंग आसा. तें गयेंतले फाल्गू न्हंये भाशेन भितरल्यान व्हांवता. हें ताचें आंग वयल्यान दिश्टी पडलें ना, तरूय म्हत्वाचें. तें भितरले भितर तरातरांचे खेळ खेळटा.

हिन्दू-मुसलमानां मजगतीं तें कसले तरेचो खेळ खेळ्ळें हें पळोवंया-




[२]

दोन समाजां मदीं समन्वय घडून येता, दोनूय समाज तुल्यबळ आसतात तेन्नाच. दोनां भितरलो एक खंयचोच दुबळो पडत जाल्यार दुसरो बळिश्ट समाज ताका खावनच उडयता.

हिन्दुस्तानांत मुसलमानी राजवट सुरू जाली तेन्ना हिन्दू समाज साप दुबळो पडिल्लो. ताणें मुसलमानां मुखार हार खाल्ली आनी तांचे कडल्यान मारूय खाल्लो. तेराव्या शतमानाचे अखेरेकूच, खरें म्हळ्यार, हिन्दू समाज ना जावपाचो. विन्ध्य पर्वता पेले कडलो अख्खो गांगेय वाटार मुसलमानांच्या शेका तळा गेल्लो. मथुरा, काशी, कनौज, प्रयागा सारकेलीं हिन्दू तिर्थांय तांगेल्या पांयां पोंदा चिड्डल्लीं. ल्हवू ल्हवू करून ते दक्षिणे कडेनूय पातळपाक लागिल्ले. देवगिरी, वारांगळ, व्दारासमुद्रम, मदुराई, एक एक हिन्दू राज्य जिखत जिखत ते नीट रामेश्वरा मेरेन पाविल्ले. उदेंत उत्तरे कडलो तिरहूत आनी अस्तमी देगे वयलो कालिकट हे दोन ल्हान-शे वाटार सोडीत जाल्यार पुराय देशाचेर जशी कितें इस्लामी जैताचीच पाचवी घुडी फडफडूंक लागिल्ली.

बरें, इस्लामी घुडी घेवन जे रामेश्वरा मेरेन पाविल्ले ते सगळे भायले मुसलमान नाशिल्ले. हिन्दू समाजाक खोंट मारून तातुंतल्यान भायर सरिल्ले देशी मुसलमानूच चड आशिल्ले. एकूच म्हत्वाचें नांव घेवचें जाल्यार, मलिक काफुराचें घेवंक जाय. तो उत्तर गुजरात आनी राजस्थान हाचे मदल्या वाटारांतलो एक हिन्दू (हरिजन) आशिल्लो. बाटून मुसलमान जाल्लो. भायल्या मुसलमानां परस चड कोडू जाल्लो. हिन्दूंचें देवूळ पळेनापुडें फुरफुरून येतालो आनी किंवाट्यान तें मोडून उडोवपाक धांवन वतालो.

मुसलमानांचें हें जैत पळेतकूच त्या काळांतल्या कोणाकूय दिसपाचें : आ ! आतां हिन्दुस्तान हिन्दुस्तान उरपाची इल्लीय आस्त उरूंक ना. इराण, इराक, अरबस्ताना सारकें मुसलमानी राष्ट्र जावपाक ताका आतां चडसो कळाव लागपाचो ना. हिन्दू धर्म, हिन्दू संस्कृताय संवसाराचे फाटी वयल्यान ना जावपाक आतां कितेंच उणें उरूंक ना. पोन्न्यांतली पोन्नी मिश्री (इजिप्तांतली) संस्कृताय हाचे पयलीं ना जाल्या, जे संस्कृतायेन येवरोप घडयलें ती युनानी (ग्रीस देशांतलीय)

संस्कृताय ना जाल्या. एका काळार तरतरिल्ली दोळे दिपकावपी येवरोपांतली रोमी संस्कृतायूय इतिहासांत जमा जाल्या. हिन्दू संस्कृतायूय आतां हांचे पंगतीक वचून बसपाची जाल्या.

हिन्दू धर्म आनी हिन्दू संस्कृताय हांच्या फुडारा विशीं मनांत हे तरेचो दुगदूग सुरू जावपाक जिस्त, राजकी मळार दोन म्हत्वाच्यो घडणुको घडून आयल्यो-

१. मेवाडच्या राण्यांचो स्वाभिमान जागो जालो. आतां घाळ रावन उपकारना, घाळ उरले जाल्यार दिल्लीचे सुलतान पुराय हिन्दुस्तान खावन उडयतले, आनी हिन्दूंक ना करतले अशें येवजून तांणी राजपुतानांतल्या सगळ्या हिन्दू राजांक एकठांय केले. तांचो एक संघ स्थापन केलो आनी दिल्लीच्या सुलताना मुखार हड्यांचें कोट करून ते उबे रावले. आनी-

२. हे वटन दक्षिणेक तुंगभद्रेचे तडीर हिन्दूंचें. हिन्दू धर्माची आनी हिन्दू संस्कृतायेची राखण करपा खातीर वयर सरिल्लें, एक नवें बळिश्ट विजयनगरचें साम्राज्य जल्मा आयलें. ह्या साम्राज्यान पुराय दक्षीण हिन्दुस्तान मुसलमानांच्या हातांतल्यान सोडोवन आपणाल्या हातांत घेतलें.

राजकी मळा वयल्या ह्या दोन घडणुकांक लागून हिन्दुस्तान हिन्दुस्तान उरूंक पावलें आनी हिन्दू धर्म नवो प्राण घेवन परतो जिवो तट्टटीत जावन मुखार आयलो.

पुराय हिन्दुस्तान घेवप सोंपें उरूंक ना म्हणपाचें मुसलमानांकूय आतां बेस बरें कळिल्लें.

१३३० पसून १४३० मेरेनच्या शंबर वर्सांच्या ह्या काळाक हिन्दू धर्माच्या पुनरजागरणाचो 'रेनसांस'चो काळ म्हणूंक जाय. हिन्दू धर्म, हिन्दू समाज, हिन्दू स्थापत्य, हिन्दू शिल्प सगळेंच ह्या काळांत एक नवें प्राणवान रूप घेवन मुखार आयलां. एके नदरेन, हिन्दूंचो कृत-संकल्पी म्हळ्यार, 'आमी परते उठून उबे रावतले म्हळ्यार रावतलेंच' ह्या नितशयाचो काळ हो.

ह्या काळांतल्या म्हालगड्यांनी सगळ्यांत पयलो वावर हातांत घेतलो तो म्हळ्यार पोरण्या 'स्मृतीं'क नवो अर्थ दिवपाचो आनी तांका धरून समाज बांदून काडपाचो. राज्यां घट जालीं म्हूण भागना, समाजूय घटमूट जावंक जाय, ही जाणवीक ह्या काळाक आशिल्ली, अशें म्हणूं येता. शेंकड्यांनी वर्सांच्या घाळपणाक लागून सदळ आनी विस्कळीत जाल्लो आनी हालिंसाराक मुसलमानांच्या आगळिकांक लागून गर्भगळीत जाल्लो हिन्दू समाज नव्यो 'स्मृती' रचून वा पोरण्या स्मृतींक नवो

अर्थ दिवन परतो बांदून काडप सामकें गरजेचें आशिल्लें. हें काम मुसलमानी शेकातळा गेल्ल्या गांगेय वाटारांत जावपा सारकें नाशिल्लें. मुसलमानी शेका पसून वाटावल्ल्या वा सुटिल्ल्या हिन्दू वाटारांतूच तें मेकळेपणान जावं येतालें. गांगेय वाटाराचे उदेंतेक मिथिला प्रदेश आशिल्लो. तो मुसलमानी शेकांत पडूंक नाशिल्लो. ह्या वाटारांत शास्त्री पंडितांची एक परंपरा खंड पडनासतना चलत आयिल्ली. हे परंपरेत वाडिल्ल्या चंडिश्वर नांवाच्या एका पंडितान 'स्मृति-रत्नाकर' नांवाचो स्मृतिशास्त्राचे नवे अर्थावणेचो एक ग्रंथ बरोवन काडलो. मेवाडच्या राण्यांनी राजकी मळार जो वावर केल्लो त्याच तोलामोलाचो संस्कृतायेच्या मळा वयलो हो वावर, अशें कांय इतिहासकारांचें मत्त आसा. मेवाडच्या राण्यांनी राजांक संघटीत केल्ले, सैन्य संघटीत केल्लें. चंडिश्वरान समाज संघटीत करपाचो वावर केल्लो. तो सैन्य संघटीत करपा परस व्हड आशिल्लो.

तागेल्या 'स्मृति-रत्नाकरां'तलो 'विवाद' हो वांटो आयजूय कांय शास्त्री पंडीत प्रमाण मानतात.

बंगालांत सुलपाणी नांवाच्या दुसऱ्या एका पंडितान याज्ञवल्क्यस्मृतिची एक नवी अर्थावणी हेच मुस्तींत बरोवन काडली. तशेंच यमुनेचे तडी वयल्या मदनपाल नांवाच्या आनीक एकल्या पंडितान 'मदन पारिजात', 'स्मृति-महार्णव' आनी 'स्मृति कौमुदी' नांवांचीं तीन 'शास्त्रां' बरोवन बंगाल, आसाम, उडिसा ह्या वाटारांत समाज-घडणुकेची एक नवी देख घालून दिली. एक नवी बुन्याद घाली.

विजयनगरच्या रायांच्या आस्रयाक तीग पंडीत रावताले. एक सायण, दुसरो, तागेलोच खास्सा भाव माधव आनी तिसरो, विद्यारण्य. तिगूय विद्वान, तिगूय व्हड मनीस. ताच्यांतलो सायणाचार्य जाल्यार व्हडांतलो व्हड अशें कांय वेदीक पंडितांचें मत्त आसा. हाका कारण आसा : हिन्दू धर्माची बुन्याद वेद. ते खंयच्या एका ऋषीन रचूंक नात. ईश्वरानूच हिन्दूंक दिल्यात, असो हिन्दूंचो समज. शास्त्रार्थाक बसले जाल्यार हिन्दू पंडीत वेदांक प्रमाण मानुनूच सदां बसताले. म्हळ्यार, एके नदरेन वेद हे हिन्दू धर्माची बुन्याद कशे जाल्ले. पुणून वेदांची भास घोळटिकेंतली सोंपिल्ली. ती कोण उलयनाशिल्ले. हाका लागून वेदांचो अर्थ लावप व्हडल्या व्हडल्या पंडितांक लेगीत कठीण जावन पडिल्लें. सायणाचार्यान कितल्याश्या शेंकड्यां उपरांत पयलेच फावट वेदांचो अर्थ विसकटावन सांगलो. हाका लागून वेद जे साप्प ना जावन वचपाचे, वा म्हणुंया, अर्थ नाशिल्ली बडबड

जावन पडपाचे, ते परते जिवे जाले. आनी लोकांलागीं उलोवंक लागले. आयज लेगीत वेदांचो अर्थ लावपाक पंडीत बसतात तेन्ना सायणाचार्याचे अर्थावणेच्या आधारानूच तो लायतात. हिन्दू धर्म आनी हिन्दू संस्कृताय हांचे नदरेन सायणाचार्याचो हो सगळ्यांत मोलादीक वावर आशिल्लो.

ह्या काळांत आनीक खंयचोच वावर जावंक नाशिल्लो, फकत हो एकूच जाल्लो जाल्यारूय हिन्दू संस्कृतायेचे पुनरजागरणाचे नदरेन तो व्हडांतलो व्हडूच थरतलो आशिल्लो. इतिहासाचे नदरेन येदें म्हत्व सायणाचार्याच्या ह्या वावराक जाणकार दितात.

माधव हो सायणाचार्याचो खास्सा भाव. ताणेंय ह्या काळांत 'पराशरस्मृति'ची नवी अर्थावणी केली. ती अर्थावणी आसली तरूय माधवाचे प्रज्ञेची खोलाय ती दाखोवन दिताली. हे खोलायेक लागून 'पाराशर माधवीय' ह्या ग्रंथाक जाणकार आयजूय स्मृति-साहित्यांतलो एक भौच मोलादीक ग्रंथ मानतात.

हें जें स्मृति-साहित्य ह्या काळांत जल्माक आयलें तें, म्हणुंया, विस्कळीत जाल्लो हिन्दू समाज घटमूट करपा खातीर निर्माण जाल्लें, पुणून ह्या काळांत संस्कृत भाशेंत दुसरें कितलेंशें साहित्य निर्माण जाल्लें. तें कित्याक लागून जाल्लें, खंयची गरज वा भूक भागोवपा खातीर जाल्लें? भारतीय इतिहासांतलो गुप्तांचो एक काळ सोडीत जाल्यार इतल्या प्रमाणांत संस्कृत साहित्य दुसऱ्या खंयच्याच काळांतं निर्माण जाल्लें पळोवंक मेळना. हातूंत, परतो, आनीक एक व्हडलो फरक आसा : गुप्तांच्या काळांत जें निर्माण जाल्लें तें चडशें उत्तर हिन्दुस्तानांतल्या कवी साहित्यकारांनी निर्माण केल्लें. ज्या काळाचो आमी हांगा विचार करतात त्या काळांतलें चडशें सगळें उत्तर हिन्दुस्तान सोडून हेर सगळे कडेन जाल्लें. ह्या काळाक आपणाली एक भास आसूंक जाय अशी भूक लागिल्ली. संस्कृत भासूच सगळ्यांक जोडपी भास जावं येता, अशें ताका दिशिल्लें. खरेपणानशीं, ह्या काळांत संस्कृत भासूच सगळे कडल्या वयल्या वर्गांतल्या हिन्दूंक एकामेकां कडेन जोडटाली. आयचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, संस्कृत ह्या काळांत सगळे कडल्या ब्राह्मणांची 'राष्ट्रभास' जाल्ली.

विजयनगरचे राय संस्कृत भाशेचे व्हड भक्त आशिल्ले. तांगेल्या आस्रयांक जे संस्कृत पंडीत राविल्ले तांच्यांतल्या विद्यारण्यान 'शंकर विजय' नांवाचें एक काव्य बरयलां. इतलेंच न्हय, तर विजयनगरच्या रायांच्या राणयांनीय संस्कृत भाशेंत

काव्यां बरयल्यांत. तांतली एक गंगादेवी आनी दुसरी तिरुमलंब. गंगादेवीच्या नांवान 'मधुरा विजय' नांवाचें एक काव्य मेळटा. जाल्यार, तिरुमलंब राणयेच्या नांवान 'वरदंबिका परिणयम्' नांवाचें आनीक एक काव्य मेळटा.

अस्तमे तडीर झामोरीच्या राज्यांत ह्याच काळार वामन भट्ट नांवाचो एक पंडीत कवी जावन गेलो. ताणें काव्य, नाटक, अलंकारशास्त्र बी कितल्याश्या विशयांचेर संस्कृतांत ग्रंथ बरयल्यात.

मेवाडचे राणेय संस्कृत भाशेचे भक्त आशिल्ले. 'गीतगोविंद' काव्याचेर 'रसिकप्रिया' नांवाची जी टिका मेळटा (जिका जाणकार आयजूय प्रमाण मानतात) ती खास मेवाडच्या राण्यान - राणा कुंभान - बरयल्या म्हणटात.

ह्या काळांतल्या धर्मविचाराच्या आनी संस्कृत साहित्याच्या शिरंत्रानी जें रगत घोळ्ळां तें ह्या काळांतल्या स्थापत्याच्या आनी शिल्पाच्याय शिरंत्रांनी घोळिल्लें पळोवंक मेळटा. सगळ्यांत चड राजपुतानांतल्या आनी दक्षीण भारतांतल्या स्थापत्यांत आनी शिल्पांत दिश्टी पडटा. दोनूय कडलें स्थापत्य आनी शिल्प निव्वळ हिन्दू म्हूण मुखार आयलां. राजपुतानांत वयर सरिल्ले किल्ले पळोवचे, राजम्हाल आनी देवळां पळोवचीं, ह्यो हिन्दू स्थापत्याच्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कलाकृती - मास्टर पीसिस् - म्हूण नदरेंत भरतल्यो. सगळ्यांत चड नदर ओडटलो चित्तोडचो जयस्थंभ. कलेचे नदरेन रोमांतल्या जयस्थंभा परसूय दिव्य आनी भव्य, परिपूर्ण आनी संपूर्ण (परफॅक्ट) असो हो स्थंभ. कलेच्या सगळ्या जाणकारांनी हें मेकळ्या ताळ्यान कबूल केलां. ग्वाल्हेरच्या किल्ल्यांतलो राजा मानसिंगाचो राजम्हालूय हिन्दू स्थापत्याचो एक बऱ्यांतलो बरो नमुनो म्हूण दाखोवं येता.

विजयनगरच्या साम्राज्यांत हिन्दूंचे स्थापत्य शैलीक वयर सरपाक तर चडांत चड आधार ह्याच काळांत मेळ्ळा. आयज हम्पींत विजयनगरच्या काळांतल्या राजवाड्याच्यो आनी देवळांच्यो फकत मोडक्यो वणटीच पळोवंक मेळटात. पुणून ह्या मोडक्या वणटींतल्यानूय हें शार त्या काळार कशें कितें आशिल्लें जातलें हाचो अदमास करूं येता.

दक्षीण भारतांतलीं गोपूरमां आनी मंडपमां विजयनगरचे मुस्तींतूच वयर सरल्यांत. तीं कोणें बांदलीं, कशीं बांदलीं, कोणूच सारकें सांगूंक नकळ. पुणून तीं बांदपी कलाकार हिन्दू आशिल्ले आनी हिन्दू स्थापत्याचें बऱ्यांतलें बरें रूप फातरांतल्यान उबें करपाच्या हावेसान पेटिल्ले इतलें मात स्पस्ट बरें दिश्टी पडटा.

१३३० पसून १४३० मेरेनच्या ह्या काळांत जे प्रेरणेन आनी उर्बेन हिन्दू वावुरला ती प्रेरणा आनी उर्बा हाचे पयलींय ताच्यांत केन्ना दिश्टी पडूंक ना. उपरांतूय पळोवंक मेळना. हिन्दूचो ह्या काळार जसो कितें एक नवो जल्म जालो. ताचे अस्मितायेक जाग आयल्या. ताचो आत्म-विश्वास वाडलो आनी आत्म-संरक्षणाक जाय आशिल्लें बळूय ताणें ह्या काळांत जोडलां. हिन्दू आदलो निखालूस उरूंक ना. पुणून-

हो 'पुणून' खूब म्हत्वाचो : इतिहास-विधात्यान मुसलमानांक हांगा हाडून दिल्लीच्या तख्तार बसयले ते हिन्दूंक ना करपा खातीर तर निखालूस न्हय. तांकां आत्म-संरक्षणाची देख दिवपा खातीरय न्हय. तर हिन्दूंची सत्वपरिक्षा घेवपा खातीर हाडून बसयल्ले अशें म्हणचें पडटा.

इतिहास जेन्ना खंयच्याय देशाची वा समाजाची सत्वपरिक्षा घेता तेन्ना ताका तो खर उज्यांतल्यान जसो कितें भाजून काडटा.

'संवसाराचे फाटीर आमच्या देशा सारको देश ना, आमच्या धर्मा सारको धर्म ना, आमच्या शास्त्रां सारकीं शास्त्रां खंयच नात, आमकां समजता तें कोणाक समजना' हे तरेच्या कुड्डेपणान हिन्दू गर्विश्ट जाल्लो. एक बऱ्यांतलो बरो उदार धर्म आनी व्हडांतली व्हड (श्रेष्ठ) एक संस्कृताय असल्या कुड्ड्या आनी गर्विश्ट मनशांच्या हातात उरली जाल्यार तो धर्मूय ना जातलो आनी ती संस्कृतायूय भंगतली ह्या भंयान - हिन्दूंचो गर्व निवळावंक जाय हे खातीर - इतिहासविधात्यान मुसलमानांक हांगा हाडिल्ले आनी तांकां दिल्लीच्या तख्तार व्हरून बसयल्ले अशें म्हणूंक जाय.

ताका मुसलमानांचोय मद निवळावपाचो आशिल्लो आनी तांकांय जाग्यार हाडपाचे आशिल्लें जावंक जाय. ज्या महम्मदाक मक्केच्यान मदिनेक पळून वचचें पडिल्लें ताचे हे अनुयायी शंबर वर्सां भितरूच अशें एक साम्राज्य उबें करूंक पाविल्ले की जें चीनाचे शिमे सावन आटलांटिक म्हाल सागराचे तडी मेरेन पातळ्ळेलें. तांगेलो धर्मगुरू-खलिफा-होच तांगेल्या ह्या साम्राज्याचो सम्राट आशिल्लो. जैताच्या ह्या उन्मादांत 'आमचो एकूच धर्म खरो, होच एक धर्म संवसारान घेवंक जाय. घेना जाल्यार ताका तो बळयां - ताचे मानेर तरसाद चलोवन - घेवंक लावंक जाय' ह्या हावसान मुसलमान कुड्डे जाल्ले. तांकां 'अशें केन्ना जावपाचें ना, संवसारांत एकूच धर्म केन्ना चलपाचो ना' हें इतिहास विधात्याक

दाखोवन दिवपाचें आशिल्लें जावंक जाय. देखून ताणें हिन्दू आनी मुसलमान, दोगांकूय हे भारत भुंयेर एकामेकां मुखार हाडून उबे केले आनी तांकां सांगलें, आतां एक तर एकामेकांक ना करून उडयात वा दोगूय एकामेकां लागसार येवन बदलात. दोगांय मुखार ताणें हें आह्वान दवरलें. हाचे पयलीं ताणें हे भुंयेर असलोच एक प्रयोग केल्लो. आर्य संस्कृतायेक सिंधु संस्कृताये मुखार हाडून उबी केल्ली. आनी दोनूय संस्कृतायो ताणें मुळा सावन बदलिल्ल्यो. तेच परिचो तागेलो हो नवो प्रयोग आशिल्लो आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, ताणें हो नवो प्रयोग आदल्या प्रयोगा वरीच हेच भारत भुंयेचे प्रयोग शाळेंत सुरू केल्लो.

ह्या नव्या प्रयोगांत तो कितलो सफळ आनी कितलो निष्फळ जालो, पळोवंया-

[३]

हिन्दुस्तान घेवचे पयलीं हिन्दू कोण, कशे, कितें कात म्हणपाचें मुसलमान नकळच आशिल्ले अशें म्हणूंक येना. जी भूंय तांणी जिखल्या ती संस्कृतायेचे नदरेन खूब वयल्या पांवड्यार पावल्या म्हणपाचें ते बेस बरे जाणा आशिल्ले. हिन्दूं कडल्यान घेवपा सारकें, शिकपा सारकें जायतें आसा, हें तांकां पयलेच वळखींत स्पस्ट जाल्लें. ज्योतीश, वैजकी, रसायनशास्त्र, गणीत, कितल्याश्या मळांचेर अरबां परस हिन्दू मुखार आशिल्ले तांणी पळेल्ले. आंगांत विक्ख चडिल्लें आसत जाल्यार हांगासल्ले वैज तें कांय-न्हय-शें करून देंवयतात हेंवूय तांणी पळेल्लें. खलिफा हारू रशीद एके असाध्य पिडेन हांतुळणार पडिल्लो तेन्ना ताका बरो करपाक भारतांतल्याच एका वैजाक ते बगदादाक घेवन गेल्ले.

हिन्दू लोकांच्या ज्ञानाचो आनी विज्ञानाचो एके तरेचो धेंक मुसलमानांचेर पडिल्लो.

हिन्दू स्थापत्य पळोवन तर तांचे दोळे दिपकावल्ले. हांगा आशिल्ल्या शारां सारकीं शारां खलिफाच्या पुराय साम्राज्यांत खंयच नाशिल्लीं. एक मथुराच पळेल्यार पुरो, मनीस अजापांत पडटलो अशें ते म्हणटाले. स्थापत्य-कलेंत हिन्दूंक लागपी संवसारांत कोण ना ह्याय निर्णयार ते पाविल्ले.

तशें, संगितांतूय हांकां लागपी लोक खंयच नात म्हणपाचें तांकां दिसून आयिल्लें. इराणी संगीत मनशाक अंतराळांत वयर घेवन वता; जाल्यार, हिन्दू

संगीत ताका बद्द स्वर्गार व्हरून पावयता हाची जाणवीक तांकां जाल्ली.

चित्रकला तर खरें आनी फट हांतलो फरकूच कळूंक दिना इतली संपूर्ण आनी पूर्ण जाल्या ह्या निर्णयार ते पाविल्ले.

हिन्दूंचें तत्वज्ञानूय अशेंच खूब विकसीत ; हे लोक मुर्त्यो पुजतात जाले, जाल्यारूय, अरबस्तानांतले लोक एक एक मूर्त म्हळ्यार एक एक देव म्हूण मानीत आयिल्ले तशे हे मानिनात; देव एक म्हणपाचें आमकां (मुसलमानांक) कळ्ळां ताचे पयलींच हिन्दूंक कळिल्लें. मूर्त हें देवाचें फकत एक प्रतीक; ह्या प्रतिकाचो आधार घेवन ते पुराय विश्वा कडेन - विश्वांतल्या चैतन्या कडेन - एकरूप जावपाक आंवडेतात म्हणपाचेंय तांकां बेस बरें समजल्लें.

चैतन्या कडेन हिन्दू इतले एकरूप जाल्यात की सादी मूय लेगीत ते मारिनात. तिकाय आमचे भाशेन जीव आसा, तिकाय आमकां आसा तितलोच जियेवपाचो हक आसा, अशें ते म्हणटात हें तांणी पावला कणकणी पळेल्लें.

लोक सामान्यतायेन न्यायी, स्वामिभक्त, पातयेवपा सारको, राजकारभारांत हुशार तसो तरसादेंतूय हुशार, शूर, हे तरेची हिन्दूंची एक छाप मुसलमानांच्या मनांच्या पड्याचेर पडिल्ली.

मुसलमान म्हळो म्हणटकच तो धर्मकोल्लीच आसूंक जाय; जाणा जावपा सारकें सगळें एका 'कुराणां'त आसा: कुराणा भायर खंयच कसलेंच सत्य आसूं नज, अशें मानपी आसूंक जाय, असो जो हिन्दूंचो समज जाला, तो खरो न्हय. मुसलमान इतले कुड्डे त्या काळार नाशिल्ले. शिकपा सारकें खंयूय कितेंय मेळ्ळ्यार ते मन लावन शिकताले. हिन्दू कडेन संबंद येना फुडें ते हिन्दूंच्या पांयां कडेन बसून तांचीं वेगळीं वेगळीं शास्त्रां शिकपाक लागले. सगळ्यांत पयलीं ब्रह्मगुप्ताचो 'ब्रह्म-सिद्धांत' ग्रंथ घेवन ते नक्षत्रविद्या शिकले. ताचें तांणी अरबींत भाशांतरूय करून घेतलें. मागीर, वेद, उपनिषदां, ब्रह्मसूत्रां, रामायण, महाभारत, पुराणां, योगवासिस्ट, योगशास्त्र, वेदान्त तशीं पंचतंत्र, हितोपदेश, कथा-सरित्सागर असल्या कितल्याश्या पुस्तकांचीं तांणी अरबींत आनी फारसींत भाशांतरां करून घेवन हिन्दू धर्मविचार आपलो-सो करून घेतलो.

बगदादचे कितलेशे विद्वान हांगा येवन शिकताले, तशे हांगासल्ले कितलेशे विद्वान बगदादाक वचून शिकयताले.

गझनीच्या महम्मदाच्यो घुरयो सुरू जाल्ल्यो. ते मुस्तींत अल्-बेरूनी नांवाचो

एक मुसलमान विद्वान हिन्दुस्तानांत आयिल्लो. तो बारकायेन आनी खोलायेन संस्कृत शिकिल्लो. इतलेंच न्हय, तर गीतेंत सांगलां ते भाशेन गुरूंक 'प्रणिपात करून, तांची सेवा करून, तांकां तरातरांचे प्रस्न विचारून' तो हिन्दू धर्म आचार-विचारां सयत शिकिल्लो. अल्-बेरूनीच्या 'किताब-उल्-हिन्द' ह्या अरबी पुस्तकाचीं इंग्लीश, मराठी, हिन्दींत भाशांतरां मेळटात. तीं वाचतकूच मुसलमान विद्वान हिन्दू धर्म समजून घेवपा खातीर कितले खोलायेंत देंवताले हाचो अदमास येता.

मुसलमानांक हिन्दूंची आनी तांगेल्या धर्माची वळख तांणी हिन्दुस्तान घेतले उपरांतूच जाल्या अशेंय म्हणूं येना. मुसलमान धर्म जल्मा येवचे पयलीं - तें कित्याक, खासा महम्मद जल्मा येवचे पयलीं बल्ख, खुरासाण, तुर्कस्तान, इराण बी वाटारांनी बौद्ध धर्म पातळ्ळेलो. बुद्धाक हो वाटार 'बुझस्सफ' (बोधिसत्व) आनी बौद्धांक 'समणिया' (श्रमण) ह्या नांवान वळखतालो. अरबी भाशेंत मुर्ते खातीर 'बूत' म्हूण जें उतर घोळटा तें बुद्धा वयल्यान आयलां.

बुद्धाक आनी तागेल्या धर्माक लागून हिन्दू धर्माची आनी हिन्दू संस्कृतायेची वळख ह्या लोकांक पयलींच जाल्ली. महम्मदाचो जल्म जाला ताचे पांचशीं वर्सां पयलीं जरहम् बिन ताई नांवाच्या एका अरबी विद्वानान गीतेच्या 'परित्राणाय साधूनाम विनाशायच दुष्कृताम्' ह्या श्लोकाचो आधार घेवन श्रीकृष्णाच्या अवताराची अर्थावणी करून एक ग्रंथ बरयल्लो. हाचे वयल्यान मुसलमान मुसलमान जावंचे पयलीं सावन हिन्दूंक बेस बरे वळखताले अशें म्हणूं येता.

बुद्धाचो प्रभाव मंगोलिया मेरेन पातळिल्लो. सांगल्यार घडये खरें दिसचें ना, जाचें नांव घेना फुडें चीन, भारत, मध्य एशिया बी वाटारांतले लोक थरथरताले तो चेंगिझखान बौद्ध आशिल्लो. नांवा वयल्यान तो मुसलमान सो दिसता. पुणून तो मुसलमान नाशिल्लो. खान ही मोंगोलियांत एक पदवी आशिल्ली.

दुदांत इल्लेंशें म्हेळांय पडटकूच ताचें धंय जावंकूच जाय. जालेंना जाल्यार दूद दूद नाशिल्लें, म्हेळांय म्हेळांय नाशिल्लें अशें धरून चलूंक जाय. मुसलमानांचो हो जो हिन्दू आचार-विचारां कडेन पयलीं आनी उपरांत संबंद आयलो ताका लागून मुसलमानांच्या आचार - विचारांच्या दुदांत पयलींच इल्लें म्हेळांय पडिल्लें आनी ताचें ल्हवू ल्हवू धंय जावपाक लागिल्लें. तातूंत आनीक एके गजालीची भर पडली. इस्लामान मुसलमान राजांक एक नेम घालून दिल्लो : जंय तुमी राज्य

करतले थंयच्या लोकांक (प्रजेक) एक तर तुमी मुसलमान करतले वा प्रजा मुसलमान जावपाक तयार नासली जाल्यार तिचे कडल्यान जिझिया कर घेवन तिका संरक्षण दितले. हिन्दुस्तानांत मुसलमानांचो शेक सुरू जाल्लो तेन्ना तांणी हांगासल्ल्या लोकांक सांगलें : एक तर हिन्दू धर्म सोडात आनी इस्लाम मान्य करात वा जिझिया कर भरून आमची गुलामी कबूल करात. जीव आसल्यार भीक मागून खावं ह्या संस्कारांत हिन्दू वाडिल्ले. तांणी जिझिया कर भरून मुसलमानांची गुलामी कबूल केली. परिणाम : मुसलमान राजांक हांगा कुराणाक धरून राज्य चलोवंक आयलें ना, तें केन्ना आयलेंच ना, जमलेंय ना. तख्तार मुसलमान बसले तरूय राज्य मुसलमानी केन्नाच जावंक पावलें ना. मुसलमान आनी हिन्दू एकाच राज्यांत एकामेकांच्या सांगातांत, आपापणाल्या धर्माक पाळो दिवन, रावपाक लागले.

ह्या सांगाताचो परिणाम हिन्दू आनी मुसलमान दोनूय समाजांचेर जालो. दोनूय समाज एकामेकांच्या प्रभावान बदल्ले. हिन्दूंतले कितलेशे जाण फारसी शिकले. फारसींत उलोवपा-बरोवपाक लागले. मुसलमानांच्यो तांणी कितल्यो-श्यो चाली-रितीय घेतल्यो. उठप-बसप, न्हेसप-पांगरप, जेवप-खावप सगळें मुसलमानी रितीन करपाक लागले. धर्मान हिन्दूच उरले तरूय शिस्टाचारांचे नदरेन ते अर्दे मुसलमान जाल्ले.

हाचो मुसलमानांचेरूय परिणाम जाल्लो. हिन्दुस्तानांतलो मुसलमान इराण, इराक, मध्य एशियांतल्या मुसलमानां सारको केन्नाच जावंक पावलो ना. तो वेगळेच तरेन वाडलो. हिन्दू संस्कारांत वाडलो. हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांक मध्य एशियांतल्या मुसलमाना परस हिन्दूच लागिंचो उरला. भायल्या मुसलमानांकूय तो आपलो दिसूंक ना, तांकां तो हिन्दूच दिसला. हिन्दू आनी मुसलमान दोगांयचे धर्म वेगळे. तरी आसतना दोगांयच्यो चाली-रिती एक, भेस एक, भास एक, उद्योग-धंदे एक. इतलेंच न्हय, संवसारा कडेन पळोवपाची दोगांयची नदरूय आयज लेगीत एक उरल्या.

दिल्लींतल्या मुसलमान बायलांचो आनी हिन्दूं बायलांचो भेस एक. वस्ती-दागिने एक. निस्बत, हल्दी, मेहंदी, तेल, मंडवा, बरात, जलवा, कंगन बी जें कितें मुसलमानांच्या लग्नांत पळोवंक मेळटा तें अरबी इराणी मुसलमानां सारकें न्हय, हिन्दूं सारकें. भुरगें जल्मा येतकूच सटी करप, मुंडन करप, खीर खावप, कान तोंपप - ह्योय चाली दोगांयच्यो सारक्यो. तें कित्याक, सामाजीक प्रतिश्ठेचे अप्रतिश्ठेचे

विचारूय दोनूय जमातींचे एक. हिन्दूं भाशेन तांच्यांतूय भुरगेपणांतूच लग्नां करपाची (बाल विवाहाची) चाल आशिल्ली. हिन्दूं भाशेन तांच्यांतूय विधवा विवाह जायनाशिल्ले. इतलेंच न्हय, हिन्दूं भाशेन मुसलमानांतूय सती (जौहर) वचपाची चाल चलताली.

मुखार हिन्दू सुधारले. मुसलमान अजुनूय ह्यो चाली घेवन बसल्यात.

हिन्दू आनी मुसलमान दोगांयची भास लेगीत एक. मुसलमानांच्या धर्माची भास आशिल्ली अरबी आनी संस्कृतायेची आशिल्ली फारशी. पुणून देशी मुसलमानांचेर तांणी ह्यो भासो लादिल्ल्यो पळोवंक मेळनात. बंगाली मुसलमान हिन्दूं भाशेनच सदां बंगालीच उलयत आयले. पंजाबी पंजाबीच उलयत रावले. सिंधांतले सिंधी उलयत रावले जाल्यार पख्तुनिस्तानांतले पुश्तू उलयत आयले. दिल्ली मेरठच्या लोकांनी थंयची खडी बोली लागीं केली आनी तिका साहित्यीक रूप दिलें. साहित्यीक रूप दितकूच तिका उर्दू नांव पडलें. उर्दू खातीर तांणी ते मुस्तींतली आंतरराष्ट्रीय अरबी-फारसी लिपी घेतली. ही उर्दू भायले मुसलमान उलयनात. तिची बांदावळ, मुळावी उतरावळ, सगळी आर्य कुळयेंतली. तिका साहित्यीक रूप दिवपांत मुसलमानां भाशेन हिन्दूंचोय हातभार लागला. ब्रिटीश येवचे पयलीं हीच भास उत्तर हिन्दुस्तानांत भौमानाच्या पदार उरल्या.

अजुनूय उत्तर हिन्दुस्तानांतले सरसमान हिन्दू मुसलमान हीच भास उलयतात. हीच भौसाची भास तांकां एकामेकांलागीं जोडटा.

मुसलमानांनी हिन्दूंक मुसलमान केले खरे. पुणून ते खातीर तांकां दुशण दिवंक येना. हिन्दू समाजांत ऊंच-उणाकपणाचे कितलेशे पांवडे आशिल्ले. कांय जाणांक तर हिन्दूंनी समाजा भायर घाल्ले. तांकां वयर सरपाक तांणी केन्ना संदूच दिवंक नाशिल्ली. तें कित्याक, ते मनीस आसुनूय तांकां मनशां भाशेन केन्ना वागोवंक नाशिल्ले. ह्या लोकांक ऊंच - उणाकपणाचे पांवडे नाशिल्लो एक नवो धर्म मेळ्ळो तेन्नां ते भरभरीत मुसलमान जावपाक लागले. नव्या मुसलमानांत भायल्यान आयिल्ले मुसलमान भरसले. आयज खंयचो भायलो आनी खंयचो देशी मुसलमान हें वळखूंक येना. अरबी, तुर्की, इराणी, पठाण, कितलींशीं घराणीं भायल्यान आयलीं. एकूय घराणें आयज मुसलमानां मजगतीं सोदल्यारूय मेळना. तांची मुदलांतली वळख (identity). साप विरगळून गेल्या. सगळ्यांचे तांच्या मुदलच्या म्हालगड्यां कडले संबंद तुटल्यात. सगळ्यांचें रगत एकामेकांत भरसलां.

अस्पृश्य लोक मुसलमान जातकूच आस्पतीचे नदरेन तांचो पांवडो वाडलो. आमी आतां आदले उरूंक नात हाची जाणवीक जावन तांचो आत्मविस्वासूय वाडलो. मलिक काफुरा सारके जाल्यार सैन्यांत खूब वयल्या पांवड्यारूय पावले. पुणून जे नवे मुसलमान जाल्ले तांच्यांत फकत अस्पृश्यच नाशिल्ले. सवर्ण हिन्दूय आशिल्ले. सवर्णांनी आपणाल्यो आदल्यो जाती मुसलमान जाले उपरांतूय सोडल्यो नात. धर्म बदल्ल्यारूय हिन्दूंची जात ना जायना हें आमी गोंयच्या क्रिस्तांवां मजगतीं पळेतात. तशेंच मुसलमानांचेंय जालां. ब्राह्मण सगळे सैयद जाले. वैश्य शेख जाले. पठाणांचो आसपाव क्षत्रियां भितर जालो. बाकीचे शुद्रूच उरले.

हिन्दुस्ताना भायल्या मुसलमानां मजगतीं हे तरेच्यो जाती नात. फकत हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानां मजगतींच त्यो पळोवंक मेळटात.

हिन्दूंच्या सांगाताक लागून मुसलमानां भितर सगळ्यांत व्हडलो बदल घडून आयलो तो खरेपणानशीं तांगेल्या धर्म विचारांत. तांच्यांत एक संप्रदाय आशिल्लो, सूफी नांवाचो. तो वेदांताच्या प्रभावांत आयलो आनी अदीक खोल जालो. हिन्दू भौसाक लागिंचो जालो.

'मुखार जें कितें आमकां दिश्टी पडटा तें एकाच परमतत्त्वांतल्यान आयलां. त्या परमतत्त्वांतूच तें आसा आनी, तें ना जाल्ले वरी दिसता तेन्ना तें त्या परमतत्त्वांतूच वता. हें परमतत्त्व निखट्या तर्कान आकळना, काळजांतल्यान अणभवूंक येता. ह्या अणभवाचो आधार घेवन सत्य जाणा जावन घेवप हो जिविताचो एकूच उद्देश्य, हें एकूच साध्य आसूं येता. हें साध्य सादपाचो मार्ग मोग. वा म्हणुंया, भक्ती.' ही सूफींची भास वेदान्ती भाशे सारकीच दिसली जाल्यार हाचें कारण सूफी लोकांक त्या परमतत्त्वाचो खरेलो अणभव आशिल्लो हें एक आनी वेदान्ती मत्ता कडेन तांचो संबंद चडूच वाडिल्लो हें दुसरें.

सूफी संप्रदाय मुदलांतलो भायलो. इराणांत जल्मा आयिल्लो. तो हिन्दुस्तानांत येतकूच जसो वेदान्तान प्रभावीत जालो तसो, हो देशी सूफी संप्रदाय हिन्दुस्तानांतल्या लोकांक - चड करून भौसाक - ईश्वराचे भक्तीचें पिशें लावपाक लागलो तेन्ना हांगासल्लो हिन्दूंचो भक्ति-मार्गूय ताचे पसून प्रभावीत जालो.

हिन्दूंचो भक्ति-मार्ग ते मेरेन एक ल्हानसो रोपो आशिल्लो. सूफीं कडेन आयिल्ल्या संबंदाक लागून ताचो आयस-पयस पातळ्ळेलो (आनी खोल पाळां-मुळां आशिल्लो) एक व्हड वडा-रूख जालो.

ह्याच अदमासाक संस्कृतायेच्या मळार आनीक एक गजाल घडून आयिल्ली. संस्कृत भाशेन ते मुस्तींत सगळे कडल्या वयल्या वर्गांतल्या लोकांक एक केल्ले. तांकां एका सुतान बांदून काडिल्ले. हिन्दूंची प्रतिष्ठित भास - क्लासिकल लँग्वेज - म्हूण संस्कृत भाशेन नामनाय जोडिल्ली. पुणून ही भास फकत वयल्या वर्गांतूच चलताली. थंयच बंदिस्त उरिल्ली. समाजांतल्या हेर थरांतल्या लोकां मेरेन ती पावनाशिल्ली. संस्कृतायेचे नदरेन हेर थरांतल्या लोकांचोय पांवडो वाडोवंक जाय म्हणपाची जाणवीक हिन्दू जाळवणदारांक जाली तेन्ना तांणी बोली-भासांचो आधार घेतलो. ज्या भासांनीं साहित्य नाशिल्लें त्यो, लोकांचे जिबेर घोळटल्यो बोली भासो वयर काडपाच्या वावराक तांणी नेटान हात घालो. रामायण, महाभारत, भागवत, पुराणां जें जें कितें संस्कृत भाशेंत आशिल्लें तें तें सगळें तांणी संस्कृतांतल्यान बोली भासांनी हाडलें. बंगाली भाशेंत कृत्तिवास जालो, मैथिलींत विद्यापती. गुजराती भाशेंत नरसिंह मेहता जालो, मराठींत नामदेव. तेलुगूंत पोट्टण जाल्यार कन्नड भाशेंत कुमारव्यास, असले एका फुडले एक साहित्यकार हेच मुस्तींत वयर सरले आनी तांणी भौसाक संस्कारी केले.

आयच्या आमच्या देशी भासांच्या विकासाची बुन्याद ह्याच काळांत पडल्या म्हणूं येता.

हाका लागून अध्यात्म-विचार जो ते मेरेन वयल्या वर्गांतूच घोळटालो तो बोली-भासो वयर सरिल्ल्यान आतां समाजांत सगळे कडेन पावलो. तो सगळ्यांचो जालो. इतल्यान भागS नाशिल्लें. तळागाळांतल्यानूच साहित्यकार वयर सरूंक जाय आशिल्ले. ही गरज रामानंद, कबीर, रइदास, नानक, दादू, चैतन्य हांणी भागयली. हांतले कांय जाण तळागाळांतल्यानूच वयर सरिल्ले जाल्यार कांय जाण वयल्यान तळागाळा मेरेन पाविल्ले. हांणी ब्राह्मणां भितर बंदिस्त उरिल्लो हिन्दू धर्म भौसाच्या हातांत दिलो, ताका भौसाचो धर्म केलो.

एके वटेन मुसलमानांतले सूफी संत आनी दुसरे वटेन हिन्दूंतले हे भक्त संत तळागाळांतल्या लोकां कडेन एकूच भास उलोवपाक लागले. देव देवळांत ना, मशिदींत ना, तो कैलासाक ना, मक्केंत ना, तो खंयच्याच कर्मकांडांत ना, पोथी पटयेंत ना. तो जण एकल्याच्या काळजांत आसा. सोदल्यार थंयच तुका तो मेळटलो अशें सांगपाक लागले. खासा यत्न करून वयर सरपाची तळमळ लोकांत जागची म्हूण ते वावुरपाक लागले.

दोनूय वसल्या रुढी-वादी लोकांनी हाका विरोध केलो. पुणून अखेरेक विरोध करपी इतिहासांत ना जाल्यात, संत मात सदांच जैतवंत जायत आयल्यात.

हिन्दू मुसलमान भौस हांकांच लागून एकठांय येवन *'राम कहो रहमान कहो कोऊ, कान्ह कहो महादेव री... भाजन भेद कहावत नाना एक मृत्तिका रूप री'* हे तरेचीं हिन्दू मुसलमानांच्या एकचाराचीं गितां लोक गावपाक लागले.

एकचाराचो हो वावर मुखार मोगलांच्या काळार अकबरान खूब मुखार व्हेलो. खंयचोच एक धर्म व्हड न्हय, खंयचोच एक खरो न्हय; सगळेच व्हड, सगळेच खरे, अशें सांगपी पयलोच मुसलमान बादशाह हो. तो मना पसून सर्व-धर्म-समभावी आशिल्लो. ताणें सगळ्या धर्मांचीं पुस्तकां सोंपे उर्दूंत हाडपाचो वावर सुरू केलो. ताचेच मुस्तींत अब्दुल रहमान चिश्ती हाणें इस्लामी नदरेंतल्यान गीतेची अर्थावणी करपी 'मिरात-अल्हकीक' नांवाचो ग्रंथ बरयल्लो. दारा शिकोह तागेल्याच रगताचो. ताणें केल्लो उपनिषदांचो फारसी भाशेंतलो अणकार आयज लेगीत जाणकार बऱ्यांतलो बरो अणकार मानतात.

अकबरान हिन्दू-मुलमानां मजगतीं लग्नांय घडोवन हाडिल्लीं. खासा तो हिन्दू चलयां कडेन लग्न जाल्लो. इतलेंच न्हय, एके पुर्तुगेज कॅथलिक ख्रिस्ती चलयेकूय ताणें आपणाली राणी केल्ली.

काश्मीरांत हे तरेचीं हिन्दू मुसलमानां मजगतचीं लग्नां अकबरा पयलींय कसलीच आडखळ येनासतना चलत आयिल्लीं. जैन-उल्-अबेदीन जम्मूच्या माणक राजाच्या दोगीय धुवां कडेन लग्न जाल्लो. हे वटेन दक्षिणेक बहामनी सुलतानांतलो एकलो तज-उद्दीन फिरूझ विजयनगरच्या देवरायाचे धुवे कडेन लग्न जाल्लो. विजापूरचो सुलतान युसूफ अद्दिल शाह मुकुंद राव नांवाच्या एका ब्राह्मणाचे धुवे कडेन लग्न जाल्लो. अकबर, जहांगीर, फर्रूख सियार, हांच्यो राणयो हिन्दू आशिल्ल्यो.

मुसलमानी राजवटींत, मुसलमान हिन्दूंक खावंक सोदताले आनी हिन्दू हड्ड्यांचें कोट करून तांचे मुखार आत्मसंरक्षणाच्या हावेसान उबे राविल्ले, होच एक देखाव आमकां पळोवंक मेळना. हिन्दू मुसलमानां मजगतीं एकचार घडोवन हाडपाचोय एक वावर पोटतिडकेन चलतालो आनी तो बरोच जैतवंत जालो, होय एक देखाव पळोवंक मेळटा. संस्कृतायेच्या मळार होच देखाव सगळ्यांत चड पळोवंक मेळटा.

संगितूच घेवंया. हिन्दू आनी मुसलमानांक एकामेकां पसून कितलेय तोडात, संगीत दोगांकूय एकठांय हाडटा. हिन्दुस्तानी संगीत निखटें हिन्दूंचें न्हय. हिन्दूं इतलेंच तें मुसलमानांचें. हिन्दुस्तानी संगिताचीं कितलींशीं घराणीं मुसलमानी. दिल्ली घराणें तम्रस खाँचें. आग्रा घराणें उस्ताद फैयाज खाँचें. ग्वाल्हेर घराणें हुद्द हुसेन खाँचें. पतियाळा घराणें अली बक्षाचें. कोल्हापूरचें घराणें अल्लादिया खाँचें. रामपूरचें घराणें मुस्ताक हुसेनाचें. आनी लक्षांत दवरपा सारकी गजाल - ह्या हिन्दुस्तानी संगिताच्या उस्तादांक प्रेरणा दिल्या ती सगळ्यांत चड सूफी संतांनी. चिश्तिया संप्रदायांतल्या सूफींनी. ह्या सूफी संतांत एक व्हड संत जावन गेलो : अमीर ख़ुसरो. तो कवी आशिल्लो तसो संगितकारूय आशिल्लो. तो पयलीं फारसींत कविता रचतालो. मागीर उर्दूंत रचपाक लागलो. ताका फारसी संगीत येतालें. उपरांत हिन्दी संगीत शिकलो आनी तातूंत तज्ज्ञ जालो. दोनय संगितांचे सूर जुळोवन ताणें कांय नवे राग तयार केले. यमन रागाचो जनक तो. (कव्वालीय तागेली.) ध्रुपद, तराणा, खयाल, ह्योवूय ताणें हिन्दुस्तानी संगिताक दिल्ल्यो गजाली.

पखवाजा सुवातेर ढोलक तोच घेवन आयला. विणेचे सुवातेर सतार ताणेंच हिन्दुस्तानी संगिताक दिल्या.

कलेंतलेंय मुसलमानांचें योगदान लक्षांत दवरपा सारकें -

मोगल राजा कलेचे मोगी. तांणी इराणांतले आनी मध्य एशिया खंडांतले चित्रकार हिन्दुस्तानांत हाडले आनी हिन्दू चित्रकारांच्या सांगतांत दवरले. दोगांयच्या एकामेकां वयल्या प्रभावान जी शैली वयर सरली ती उपरांत राजपूतांनी आपणायली. अकबराचे मुस्तींत बसवन, दशवंत, केशो नांवाचे कांय चित्रकार जावन गेले. तांणी 'शाहनामा' आनी 'बाबरनामा' ह्या पुस्तकांक चित्रां काडलीं. जहांगीर चित्रकलेंतलो येदो जाणकार जाल्लो की खंयचेंय चित्र पळेतकूच तें कोणें काडलां जावंक जाय, चित्र काडपी आसा काय ना, हें तो चुकनासतना सांगतालो. ताच्या दरबारांत मन्सूर नांवाचो एक चित्रकार आशिल्लो. तो जीं शेवणीं आनी फुलां काडटालो तीं आयज लेगीत चित्रकलेचे जाणकार देशांतलीं बऱ्यांतलीं बरीं चित्रां मानतात. एक अरसीक औरंगझेब सोडीत जाल्यार सगळ्याच मोगल राजांनी चित्रकारांक आधार दिला. तांच्याच काळांत स्थापत्यानूय एक आगळें वेगळें रूप घेतलां. बाबराच्यो बागो, हुमायूनाचे राजम्हाल, अकबराची फतेपूर सिक्री, शहाजहाँचो लाल किल्लो, जामा मसजिद आनी संवसारांतल्या सात अजापांतलें

एक अजाप -ताजमहाल हें सगळें आमचे भुंयेर आमचें दायज म्हूण जें उबें आसा तें हिन्दू आनी मुसलमान दोनूय धर्मांतल्या कलाकारांनी आपणालें रगत आटोवन आमकां दिलां.

मुसलमान राजा भायल्यान आयिल्ले आसूं, हांगा येतकूच ते हांगासल्ले जावन राविल्ले. तांगेल्या मुदलच्या देशां कडलो तांगेलो संबंद तांणी तोडिल्लो आनी ते हे भुंयेचेर मोग करपाक लागिल्ले. ते येतना आपणालो एक धर्म घेवन आयले तशी आपणाली एक संस्कृतायूय घेवन आयिल्ले. हिन्दुस्तानांत तांगेलो धर्मूय हिन्दुस्तानी जाल्लो, संस्कृतायूय हिन्दुस्तानी जाल्ली, आनी सगळ्यांत म्हत्त्वाचें म्हळ्यार-

आपणाल्या शेका तळा आशिल्ल्या भूंय-वाटारांत एक भास, एकेच तरेचें प्रशासन आनी एकूच नाणें चलोवन तांणी इतिहासांत कितल्याश्या शेंकड्यां उपरांत पयलेच फावट ह्या देशाक 'एक राष्ट्र' ह्या सुतान बांदुनूय काडिल्लो.

हिन्दूंच्यो आनी तांच्यो कितल्योश्यो धोशी चलिल्ल्यो आसतनाय, हिन्दूंक तांचो कितलोसो कोडू अणभव आयिल्लो आसतनाय हिन्दूंचें आनी मुसलमानांचें दायज एक जाल्लें. तें कोणाच्यानूच ना म्हणूंक जावचें ना इतलें एक जाल्लें.

दोनूय संस्कृतायांचें म्हेळांय दोनूय संस्कृतायांच्या दुदांत पडून ताचें धंय जाल्लें. ह्या धंयांतल्यान आतां लोणी काडपाचें आनी ह्या लोणयाचें तूप करपाचें काम उरिल्लें तें इतिहास विधात्यान आमच्या काळाच्या हातांत दिलां.

■

६.

# राष्ट्रवादाचे अंत:प्रवाह

जल्मान आमी कोणूय आसूं - बामण आसूं वा सुदीर, हिन्दू आसूं वा मुसलमान, गुजराती आसूं वा बंगाली, पंजाबी, मराठी, केरळी, कोंकणी - जात, धर्म, प्रांत, भास हांचे पेल्यान वचून जो आपणाक भारतीय मानता तो राष्ट्रवादी अशें मानलें जाल्यार प्रस्न उपरासता-

आमी आमकां भारतीय केन्ना सावन मानपाक लागले?

इंग्रज ह्या देशांत आयल्यात तेन्ना आमी एकामेकांक हिन्दू, मुसलमान, शिख, जैन, पारशी ह्या नांवांनीच वळखताले. हिन्दूय एकामेकांक हिन्दू म्हूण वळखनाशिल्ले. बंगाली, पंजाबी, मराठा, मद्रासी ह्या रुपांनी वळखताले. इतलेंच न्हय, तर भितरले भितर हिन्दू एकामेकांक जाट, राजपूत, यादव, ब्राह्मण, मराठा, कोळी, माळी ह्या नांवांनी वळखताले. इंग्रज आयल्यात त्या वेळार ह्या देशांत भारतीयूय कोण नाशिल्ले, हिन्दूय नाशिल्ले. उत्तर भारतांतल्या हिन्दी भाशीक लोकांक इंग्रजां इतलेच बंगाली परकी दिसताले. बंगाल्यांक मराठ्यांचो भंय दिसतालो. ह्या भंयान दुस्वासाचें रूप घेतिल्लें. हिन्दूपतपादशाही स्थापन करपाक मुखार सरिल्ल्या मराठ्यांनी बंगाल लुटिल्लो; शिखांची, राजपुतांची, कन्नडिगांची, गुजराथ्यांची तांणी तशीच दानाधिस्पट करून उडयल्ली. हाका लागून हांकां सगळ्यांक मराठ्यांचो भंय दिसतालो. तसो, एके तरेचो तिरस्कारूय दिसतालो.

भारत नांवाचो देशूच त्या वेळार नाशिल्लो. ल्हान व्हड कितलेशे संस्थानीक आशिल्ले. आमच्यो निष्ठा आमी ह्या संस्थानिकांक ओंपिल्ल्यो.

आनी देशांत संस्थानीक शेंकड्यांनी आशिल्ले.

अठराशें सत्तावनाच्या बंडाची आयज आमी खूब तुस्त-तोखणाय करतात. ताका आमी आमचें पयलें 'स्वातंत्र्य-समर' मानतात. खरेपणानशीं तें तशें नाशिल्लें. इंग्रजांक हांगासल्ले धांवडावन घालूंक जाय ह्या हावेसान सगळे एकठांय येवन झुजिल्ले खरे. पुणून इंग्रजांक धांवडान घाले उपरांत मोगलांचें राज्य मोगलांक मेळूंक जाय, राजपूतांचें राजपूतांक मेळूंक जाय, मराठ्यांचें मराठ्यांक मेळूंक जाय हाचे पेल्यान दुसरो खंयचोच राष्ट्रीय हावेस ह्या 'समरा' फाटल्यान नाशिल्लो. भारत एक 'राष्ट्र' आनी 'एक राष्ट्र' ह्या रुपानूच आमी आतां एकठांय येवंक जाय, अशें ह्या 'स्वातंत्र्य समरां'त पडिल्ल्या एकल्याक तरी दिसतालें व्हय? ना.

## राष्ट्रवादाचो जल्म - ताचें पयलें रूप

राष्ट्रवाद ह्या देशांत उदेला तो इंग्रज हांगा ठांयबसणेक लागले ते उपरांतच्या काळांत. राष्ट्र ही संकल्पना लेगीत आमी इंग्रजां कडल्यान घेतल्या. इंग्रजांनी देशांत सगळे कडेन एकेच तरेचें प्रशासन सुरू केलें. सगळे कडेन एकेच तरेचे कायदे लागू केले. सगळे कडेन एकेच तरेचें शिक्षण सुरू केलें. रेल्वे, टपाल, टेलिग्राफ, नाणीं हांचे उदेशीं तांणी देश विणून काडलो. आनी सगळ्यांक इंग्रजी शिकयली. हे इंग्रजी भाशेक लागून आमचो युरोपीय विचारां कडेन संबंद आयलो. तोवूय अश्या वेळार की जेन्ना युरोपीय विचार फ्रँच राज्यक्रान्तीच्या प्रभावांत आयिल्लो. परिणामीं, बुद्धिवाद नांवाचें एक प्रभावी साधन आमच्या हातांत पडलें. आनी ताच्या आधारान आमी आमच्यो परंपरा तर्जून पळोवपाक लागले. आमचे परंपरेंत नश्टें पाडें कुसकें कितलेंशें भरलां म्हणपाचें आमकां दिश्टी पडपाक लागलें. तें सगळें हुमटावन भायर मारूंक जाय ह्या निर्णयार आमी पावले. तें हुमटावन भायर मारपाचो वावरूय आमी सुरू केलो.

आमी कूस परतिल्ली आनी नव्या विचारान. नव्या हावेसान आमी फुरफुरून आयिल्ले. जिस्त ह्या वेळार विल्यम जोन्स, मॅक्स-मुल्लर, फर्ग्युसन, विल्सन हांचे सारकेले कांय 'ओरियेन्टलिस्ट' -प्राच्यविद्या-विशारद - मुखार सरले आनी तांणी वेद, उपनिषदां, गीता, रामायण, महाभारता सारके ग्रंथ रचपी हो देश एका काळार विचारांच्या मळार संवसारांत सगळ्यांत मुखार आशिल्लो म्हणपाचें आमकां सांगलें. कर्निंगहॅमाच्या दळवयपणाखाला पोरणावळशास्त्राचे कुदळीन कांय

इतिहासीक थळां उस्तून काडपाचो वावर सुरू केलो आनी इल्ल्यो इल्ल्यो करून आमचे विशिंच्यो  कितल्यो-श्यो म्हत्वाच्यो गजाली आमच्या कानार येवन आदळपाक लागल्यो. भारता भायले नेपाळ, तिबेट, मोंगोलिया, चीन, कोरिया, जपान, बर्मा, कांबोडिया, वियतनाम, श्रीलंका हे देश धर्मान बौद्ध, थंय चडांत चड लोक बुद्ध धर्माक धरून चलतात. हो बुद्ध धर्म ह्याच भारत देशांत जल्माक आयिल्लो, तो जाणें सुरू केलो तो गौतम बुद्ध पुराणांतल्या विष्णू, शिव, शक्ति सारको देव नाशिल्लो, तर हाडांमासाचो एक मनीस - म्हणुंया, एक म्हापुरूस - आशिल्लो, तो ह्याच भारत देशांत खिरस्ता आदल्या सव्या शतमानांत जल्माक आयिल्लो; उपरांत दोनशीं वर्सांनी अशोक नांवाचो संवसारांतलो आगळो वेगळो एक सम्राट ह्या देशांत जल्माक आयलो, ताचें साम्राज्य अस्तम-उत्तरेक हिन्दुकुशा सावन उदेंतेक आसम्म मेरेन आनी दक्षिणेक म्हैसुरा मेरेन पातळ्ळेलें म्हणपाचें खूब कितें कितें आमकां हे पोरणावळशास्त्राचे कुदळीन सांगलें. अशोकान आपणाल्या साम्राज्यांत सगले कडेन व्हडले व्हडले फातरी-खांबे उबे केल्ले आनी तांचेर हांगासल्लेच ब्राह्मी लिपयेंत आनी हांगासल्लेच पाली भाशेंत कितें कितें कोंरातून दवरिल्लें तेंवूय हेंच कुदळीन उकताडा हाडलें. आमी आमचो इतिहास साप विसरून गेल्ले. तो कितलो गिरेस्त आनी अभिमान धरपा सारको आशिल्लो हें तिणेंच आमकां सांगलें.

आमी एका व्हड देशाचे नागरीक, एके व्हड संस्कृतायेचे दायजी हाची जाणवीक ह्या इतिहासान आमकां करून दिली. ते उपरांतूच हांगा राष्ट्रवाद उदेवन आयला. इंग्रजांक तो उदेल्लो जाय आशिल्लो अशें म्हणूंक येना. पुणून तो ह्याच काळांत उदेल्लो हें कोणाच्यान ना म्हणूंक जावचें ना. 'भारत आमचो देश', 'आमी सगळे भारतीय' ही भास ते उपरांतूच आमचे जिबेर आयल्या. इंग्रज येवचे पयलीं ती कोणाचेच जिबेर घोळनाशिल्ली. आमी मातृभक्त, पितृभक्त, देवभक्त आशिल्ले. पुणून देशभक्ती आमच्यांत जागी जावंक  नाशिल्ली. ती वाडोवन घट करपाचो वावरूय ह्याच काळांत सुरू जाला. 'हे मुखार विदेशी सगळें आमी सोडून दिवंक जाय आनी स्वदेशीच चलोवंक जाय - स्वदेशी माल घेवंक जाय, स्वदेशी भास उलोवंक जाय, स्वदेशी भेस घालूंक जाय, स्वदेशी जेवण जेवंक जाय, स्वदेशी चाली-रिती चलोवंक जाय' हो आवाज सगळ्यांत पयलीं बंगालांत राजनारायण बोसांच्या ताळ्यांतल्यान भायर सरलो. राजनारायणाचे प्रेरणेन

नवगोपाल मित्रान राष्ट्रीय समाज - नॅशनल सोसायटी - नांवाची एक संस्था थंयच सुरू केली. आनी हे संस्थेन बंगालांत वर्सान वर्स चलोवपा खातीर 'हिन्दू मेळो' नांवाचो एक उत्सव सुरू केलो. ह्या उत्सवांत कवी देशभक्ती वयल्यो आपणाल्यो कविता म्हणून दाखोवपाक लागले, गावपी देशभक्ती वयलीं गितां म्हणपाक लागले; देशभक्त देशभक्तीचेर व्याख्यानां दिवपाक लागले. देशी कलेच्या वस्तूंचीं प्रदर्शनां घालपाक लागले. धा पंदरा वर्सां भितर ह्या 'हिन्दू मेळा'न बंगालांत तेजिश्ट आनी प्राणवान लोकांची एक नवी पिळगीच निर्माण केली.

म्हळ्यार, आमच्या राष्ट्रवादान आरंभाकूच एक हिन्दू रूप घेतलें अशें म्हणचें पडटा. एका देशांत रावतल्या, एक इतिहास आशिल्ल्या, एके धर्म-परंपरेंत वाडिल्ल्या लोकांचेंच एक राष्ट्र आसूं येता, अशें आमी मानलें, आनी, हिन्दू तें सगळें राष्ट्रीय आनी हिन्दू न्हय तें अराष्ट्रीय अशें थारायलें.

हिन्दू जागरुकतायेचें हें ल्हार बंगालांत वयर सरिल्लें तें रोखडेंच महाराष्ट्रांत आनी पंजाबांत पातळ्ळें. महाराष्ट्रान शिवाजी उत्सव सुरू केले, तर पंजाबान गुरू गोविंदसिंगाचे उत्सव चलयले. दोगूय मोगलां आड झुजिल्ले. तेच आमचे आराध्य देव जातकूच आमच्या राष्ट्रवादाक मुसलमान विरोधी रूप मेळ्ळें जाल्यार अजाप कसलें? बंकिमचंद्र चटर्जीन आपणाले 'आनंदमठ' नवलकथेंत हेंच मुसलमान विरोधी वातावरण उबें केल्लें. हे नवलकथेंतले राष्ट्रवादी 'वंदेमातरम्' गीत म्हणटाले. खरेपणानशीं ह्या गिताचो दुर्गे कडेन संबंद आशिल्लो. 'राष्ट्रा'कडेन नाशिल्लो. दुर्गेचें स्तवन तें. हेंच गीत आमी आमचें राष्ट्रगीत म्हूण घेतलें.

मुसलमान धर्म भायल्यान आयिल्लो आसूं, जांणी आमचेर राज्य केलें ते मुसलमान राजाय भायले आसूं, जांणी हो धर्म घेतलो ते मुसलमान भायल्यान येवंक नाशिल्ले, ते हांगासल्लेच आशिल्ले, तांची वार मठी सगळी हांगाच आशिल्ली, हो देश सोडून तांकां दुसरो देश नाशिल्लो, देशा संबंदान येवजिता आसतना तांचेय संबंदान येवजूंक जाय, तांकांय सांगाताक घेवन मुखार सरूंक जाय, हाची कोणाकूच चत्राय उरली ना. ते जशे कितें आमचे न्हयच जाल्ले वरी आमी तांचे कडेन पळोवपाक लागले. इतलेंच न्हय, तर जे जे कोण मुसलमानां आड झुजिल्ले तांचींच - मराठ्यांचीं, शिखांचीं, राजपुतांचीं - तुस्तगितां आमी गायत रावले. तांचेच कडल्यान स्फूर्त-प्रेरणा घेवपाक लागले.

नकळटां मुसलमानांक आमी आमचे पसून पयस दवरले.

पुणून मुसलमान सामकेच पयस कशे रावीत आशिल्ले?

## प्रतिक्रिया : मुसलमानी राष्ट्रवादाचो जल्म

इंग्रज हांगा आयल्यात ताचे पयलीं मुसलमानूच हांगा राज्य करताले. इंग्रजांनी तांच्याच हातांतल्यान देश झोंबून घेतिल्लो. मुसलमानांक हाची तिडक आशिल्ली. हे तिडकींतल्यान तांच्यांतूय एक राष्ट्रवाद उदेल्लो. म्हत्वाचें म्हळ्यार, हिन्दूंत उदेला ते पयलीं तो उदेल्लो. सईद अहमद नांवाचो तांच्यांत एक फुडारी आशिल्लो. ताणें मुसलमानां मजगतीं 'वहाबी' नांवाची एक चळवळ सुरू केल्ली. 'काफिरां'क धांवडावन राज्य आपणा हातांत घेवप हीच हे चळवळीची मोख आशिल्ली. 'मुसलमानांनी मुसलमान न्हय असल्या राज्यांत (दर-उल-हर्बांत) रावंक जायना. तांचें राज्य 'काफिरां' च्या हातांत गेल्लें आसत जाल्यार मुसलमानांनी तांचे आड झूज (जेहाद) करून तांकां धांवडावन तें परतें घेवंक जाय आनी मुसलमानांचें राज्य (दर-उल-इस्लाम) स्थापन करूंक जाय. ना जाल्यार, तो देश सोडून (हिजरत करून) दुसऱ्या खंयच्याय मुसलमान राज्यांत वचून रावंक जाय' ही हे चळवळीची मुखेल प्रेरणा आशिल्ली. इंग्रजां हातांत गेल्लो देश तांकां आशिल्लो तसो आपणा हातांत घेवपाचो आशिल्लो.

सईद अहमदाक मुसलमान खूब मानताले. कितलेशे मुसलमान तरणाटे ताच्या प्रभावांत आयिल्ले. तांकां ताणें लश्करी तालिमूय दिल्ली.

ताणें सगळ्यांत पयलीं पंजाबाचेर आपणाली नदर केन्द्रीत केली. पंजाब अजून इंग्रजी शेकातळा येवंक नाशिल्लें. तें महाराज रणजितसिंगाच्या हातांत आशिल्लें. मुसलमानांचे सगळ्यांत व्हडले दुस्मान शिख, अशें म्हणून सईद अहमदान सगळ्यांत पयलीं पंजाबाचेर घुरी घाली.

इंग्रजांची ताचेर बारीक नदर आशिल्ली. पुणून ताचेर तांणी हात घालूंक नाशिल्लो. तो कितें करता तें ते पळेत राविल्ले. ते मुसलमानांकूय भियेताले, तशे शिखांकूय भियेताले. मुसलमानांच्या हातान शिख ना जाले जाल्यार तें आमच्या बऱ्याक पडटलें वा, धरुंया, शिखांच्या हातान मुसलमान ना जाले जाल्यार तेंवूय बऱ्याक पडटलें ह्या 'धोरणा'न ते ओगी रावन सगळें पळेताले.

सईद अहमदाच्या पाड्या नशिबान ताका हे लडायेंत मरण आयलें.

तागेल्या मरणान वहाबी चळवळ थंड पडटली अशें दिशिल्लें. पुणून ती थंड पडली ना. बंदूय जाली ना. ते उपरांतूय ती सुमार तीस वर्सां चलत रावली. पयलीं वहाबी शिखां आड झुजताले. उपरांत पंजाब इंग्रजांनी घेतलें तेन्ना ते इंग्रजां आड

झुजपाक लागले. अखेरेक इंग्रजांच्या हातान तांकां हार खावची पडली.

वहाबी चळवळ चलताली त्याच काळांत अठराशें सत्तावनांतलें बंड जालां. लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, वहाबी ह्या बंडा पसून पयस रावल्यात. कित्याक, बंड इंग्रजां आड आसलें आनी बहादूर शाह जफर ह्या बंडाचो नेतो आसलो तरूय तें हिन्दूंचें बंड असो तांणी समज करून घेतिल्लो. हिन्दूंक जैत मेळिल्लें वहाबींक नाका आशिल्लें. वहाबी चळवळ इंग्रजां आड आसली तरूय ती मुसलमानांची मुसलमानां खातीर चलयल्ली चळवळ आशिल्ली.

तात्पर्य - राष्ट्रीय जागरुकतायेच्या ह्या काळांत हिन्दूंच्या राष्ट्रवादान हिन्दू रूप घेतलें तर मुसलमानांच्या राष्ट्रवादान मुसलमानी रूप घेतलें. हिन्दू आपणालो राष्ट्रीय अभिमान जागोवपा खातीर शिवाजी, बाजीराव, झांशीची राणी, गुरू गोविंद सिंग सारकेल्यां कडल्यान प्रेरणा घेवपाक लागले. जाल्यार, मुसलमान आपणालो अभिमान जागोवपा खातीर मुहम्मद बिन कासिम, मुहम्मद घोरी, गझनवी, अल्लाउद्दीन खिलजी, औरंगझेब सारकेल्यां कडल्यान प्रेरणा घेवपाक लागले.

खरेपणानशीं हिन्दू आनी मुसलमान सुमार सात आठ शतमानां सांगातान वाडिल्ले. येदूयाय ह्या काळांत दोगांयच्या धर्मविचारांनी एकामेकांक प्रभावीत केल्ले. मुसलमानां मजगतचो सूफी संप्रदाय हिन्दूंच्या प्रभावांत वाडिल्लो. जाल्यार हिन्दूंचो भक्तिसंप्रदाय मुसलमानी प्रभावांत वाडिल्लो. भाशेच्या मळार दोगांयनी दिल्ली-मेरठच्या वाटारांतले 'खडी बोली'च्या आाधारान उर्दू नांवाची एक सुंदर भासूय निर्माण केल्ली. आनी दोगांयनी ती अपुर्बायेन सारकीच केळयल्ली. संगिताच्या मळार दोगांयनी जीव ओतून 'हिन्दुस्तानी संगीत' निर्माण केल्लें. तश्यो दोगांयनी कितल्योश्यो समान चाली-रितीय सारक्यो केळोवन काडिल्ल्यो. दोगांयचे दोन वेगळे धर्म आसुनूय दोगांयनी संस्कृतायेच्या मळार एकामेकां मजगतीं एके तरेचो समन्वय घडोवन हाडिल्लो. धर्मांनी दोगांकूय एकठांय हाडिल्ले. सत्येच्या राजकर्णान दोगांकूय तोडले. इतलेंच न्हय, तर एकामेकां आड उबे केले.

तेन्ना सावन दोनूय धर्म राजकर्णांत धुमशेणां कांडीत आयल्यात. मुसलमानांनी गाय मारल्यार पुरो. हिन्दू खुबल्यात आनी तांच्या आंगार धांवन गेल्यात. हिन्दूंनी मशिदीं मुखार धोल ताशे बडयल्यार पुरो, मुसलमानांचें पित्त खवळ्ळां आनी ते *'काटो सालों को'* अशें म्हणून हिन्दूंचेर जुडून गेल्यात.

मुसलमानी राजवटींत हिन्दू मुसलमानां मजगतीं दंगे केन्नाच जावंक नाशिल्ले.

ते हे राष्ट्रीय जागरुकताये उपरांतच्या काळांत जावपाक लागल्यात.

मुखार जें पाकिस्तान जालां ताचीं बिंयां, हे भाशेन, ह्याच काळांत हे भुंयेर पडल्यांत.

## ‘भारतीय’ राष्ट्रवादाचो जल्म

राष्ट्रवादाचीं हिन्दू आनी मुसलमान, दोनूय रुपां सारक्याच अंतरा वयल्यान चलत आयिल्लीं आसतनाच एकुणिसाव्या शतमानाच्या निमाण्या दसकांत ताचें तिसरें एक रूप वयर सरलें - जातें कात धर्म प्रांताच्यो शिमो उंपून पेल्यान गेल्लें - ‘भारतीय’ राष्ट्रवादाचें.

देशांत सगळे कडेन एकेच तरेचें प्रशासन, एकेच तरेचें शिक्षण चलोवन आनी सगळे कडेन एकेच तरेचो कायदो लागू करून इंग्रजांनी नकळटां एके तरेचे ‘भारतीय’ नागरीक देशांत निर्माण केल्ले. हे भारतींय नागरीक एक दीस एके वेदीर एकठांय जमले आनी जात, धर्म, प्रांतांचे वेगळेचार कडेक उडोवन सरकारा लागीं कांय मागण्यो करपाक लागले. इंग्रज अधिकाऱ्यांक जो पगार दितात तो उणो करचो (तांकां सुमारा भायर पगार मेळटालो आनी तो देशाचे तिजोरेंतल्यान वतालो), कायद्या मुखार इंग्रज आनी भारतीय हांकां सारकेच लेखचे (इंग्रजांक खाशेले हक आशिल्ले), सिवील सर्विसेंत (आय.सी.एस्.चे परिक्षेक) भारतियांकूय बसूंक दिवचे, केन्द्रांत आनी प्रांतांनी विधानसभांनी सरकारी वांगड्यां भायर लोकांचे वांगडीय सारक्याच प्रमाणांत वेंचून काडचे. हे तरेच्यो ह्यो मागण्यो आशिल्ल्यो. वयले वयल्यान पळेल्यार, सामक्योच निरुपद्रवी, पुणून देशाक स्वराज्याचे दिकेन घेवन वचपी आशिल्ल्यान म्हत्वाच्यो.

हेच वेदीर १८८५ सालांत ‘इन्डियन नॅशनल कॉंग्रेस’ नांवाची एक राजकी संस्था जल्माक आयली. आनी पयलेच फावट सगळे ‘भारतीय’ - हिन्दू, मुसलमान, ख्रिस्ती, पारशी, बंगाली, पंजाबी, मराठी, मद्रासी, सगळे - संघटीत रुपान एका ताळ्यान आपणाले राजकी हावेस उकतावन दाखोवपाक लागले. वर्सांतल्यान एक फावट नातलांचे सुटयेंत हांणी दोन तीन दिसां खातीर एकठांय येवचें, देशाच्या आर्थीक, राजकी प्रस्नांचेर भासाभास करची आनी कांय थाराव पास करून घरा वचचें. सुमार वीस वर्सां कॉंग्रेसीन होच वावर केलो. १८९२त मान्य करून घेतिल्लो एक ‘इन्डियन कौंसिल ऍक्ट’ सोडीत जाल्यार सरकारान कॉंग्रेसीची एकूय मागणी

कानामनार घेवंक नाशिल्ली. पुणून दुसरे एके दिकेन ह्या वावराचो देशाक लाव जालो. लोकांच्या मनांत ह्याच वावरान स्वराज्याची भूक जागयली. आमी हिन्दू मुसलमान, ख्रिस्ती, पारशी, बंगाली, पंजाबी, मराठा, मद्रासी, ब्राह्मण, वाणी, कोणूय आसले तरूय मुदलांत आमी एकाच देशाचे नागरीक ही एकराष्ट्रीयत्वाची भावनाय ह्या वावरान रूढ केली. काँग्रेसीच्या अधिवेशनांत जीं उलोवपां जातालीं तीं देशाच्या सगळ्या प्रस्नांचो बारकायेन अभ्यास करून केल्लीं आसतालीं. हाका लागून देशसेवेचीं मळां सोदपाक गरजेचें आशिल्लें परिस्थितीचें ज्ञानूय देशभक्तांक आपशीं मेळपाक लागलें. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार-

देशसेवे खातीर जिवीत ओंपपाची प्रेरणाय ह्या वावरान लोकांक दिली.

## झुजारी राष्ट्रवादाचो जल्म

पुणून, काँग्रेसीचो हो वावर कायद्याचे शिमेंत रावन करपाचो आशिल्लो. 'सनदशीर' आशिल्लो. संथ गतीन चलपी आशिल्लो. काँग्रेस जल्माक येवचे पयलीं जो हिन्दू राष्ट्रवाद हांगा चलपाक लागिल्लो ताचे कडेन ताल धरून चलपी नाशिल्लो. हिन्दू राष्ट्रवाद्यांक काँग्रेसीचो हो वावर 'इंग्रजां मुखार दिमी मोडून भीक मागपी वावर' कसो दिसलो. ह्या हिन्दू राष्ट्रवादाक लोकमान्य टिळकांनी आकांताचो मोटो एक वेग दिल्लो. तो कितेंय तरी दिव्य भव्य करून दाखोवपाक मुखार सरिल्लो.

जिस्त ह्या वेळार देशांत विवेकानन्दांच्या रुपान एक मोड उठलें. विवेकानन्द अमेरिका इंग्लंडची यात्रा करून मायदेसाक परतल्ले. जे लोक आमचेर शेक चलयतात तांच्याच देशांत वचून विवेकानन्द 'हिन्दू धर्माची घुडी फडफडावन' - ते देश जिखून - परतल्यात म्हणपाची तांगेली नामना पयलींच सगळे कडेन पातळ्ळेली. परिणामीं, देशान तांकां जो येवकार दिलो तो एकाद्रया विजयी विराक दिवचो ते तरेचो दिलो. कोलम्बो सावन आल्मोड्या मेरेनचे वाटेर ते जंय जंय पावले थंय थंय राजा म्हाराजा मुखार आयले आनी तांगेल्या रथाचे घोडे सोडोवन खासा तांणी रथ ओडलो. येदो व्हड भौमान हाचे पयलीं देशान कोणाकूच दिवंक नाशिल्लो. विवेकानन्द संन्याशी आशिल्ले. पुणून सादे संन्याशी नाशिल्ले. एक देशभक्त संन्याशी आशिल्ले. 'तुमी एका व्हड देशाचे नागरीक, एके व्हड संस्कृतायेचे वारस हें विसरूं नाकात. आपणाक बाबत कुळां मानूं नाकात. आमी

भारतीय म्हूण हड्डें मुखार काडून सांगात. 'बी प्राउड दॅट दाउ आर्ट ऍन् इन्डियन' हे भाशेन ते सांगीत गेले. लोकांचीं हड्डीं आत्मविस्वासान भरून आयलीं. लोकांचीं काळजां 'हिमालय हेवटेनचो तेवटेन मोखून मारपाचे' उर्बेन फुरफुरून आयलीं. शंबर देशभक्तांक शंबर वर्सां लावन जें करूंक येवचें नाशिल्लें तें ह्या एका संन्याश्यान फकत दोन वर्सां भितर करून दाखयल्लें.

लोकांच्या मनांचेर विवेकानन्दांचो प्रभाव आसतनाच वायसरॉय लॉर्ड कर्झनान एका बंगालाचे दोन बंगाल करपाची एक येवजण मुखार हाडली. अवचीत भुंयकांप जावचो आनी भोंवतणचो सगळो वाटार कोंसळून पडचो तशें-शें कितें बंगालांत जाल्लें लोकांनी पळेलें. बंगाली हिन्दू आनी मुसलमान तिडकीन फटक् करून उसळ्ळे. 'बंगाल प्रांत आमी कसोच फोडूंक दिवचे नात' अशें एका ताळ्यान आड्डू-आड्डून ते सांगपाक लागले. डिसेंबर १९०३ सावन ऑक्टोबर १९०५ मेरेनच्या काळांत तांणी बंगालांत तीन हजारां वयर सभा घेवन आपणालो निशेध उकतावन दाखयलो. हिन्दू आनी मुसलमान दोगूय 'वन्देमातरम्'च्यो घोशणा दीत बंगालभर भोंवले. साहित्य निर्मणेच्या वावरांत गुल्ल आशिल्ले रवीन्द्रनाथ लेगीत रस्त्यार आयले. सुतां-पुनवेक हिन्दू मुसलमान, दोगांयनी, एकामेकांक राखयो बांदच्यो म्हणपाची एक आगळीच सुचोवणी तांणी लोकां मुखार दवरली आनी १६ ऑक्टोबर १९०५ ह्या दिसा हजारांनी हिन्दू मुसलमानांनी एकामेकांगेर वचून राखयो बांदल्यो. इतलेंच न्हय, तर 'हिन्दू मुसलमान आमी भाव भाव' म्हूण दोनूय जमातींतले लोक घोशणा दीत रावले.

विवेकानन्द हें पळोवपाक नाशिल्ले. दोन वर्सां पयलींच ते संवसार सोडून गेल्ले.

निशेधान सरकार नमपाचें ना म्हणपाचें दिसून येतकूच बंगाल्यांनी बहिश्काराची आनी स्वदेशीची एक नवी चळवळ सुरू केली. इंग्रजी मालाचेर सगळ्यांनी बहिश्कार घालचो आनी स्वदेशी मालूच घेवचो म्हूण सगळ्यांनी थारायलें. हजारांनी लोकांनी स्वदेशीचो सोपूत घेतलो. परिणाम, एका कलकत्ता शारांत जंय मँचेस्टरांतलें सुमार लाखभर रुपयांचें लुगट खपतालें थंय चार म्हयन्यां भितर णव वांट्यांनी खप देंवलो. फकत धा हजार रुपयांचेंच लुगट खपिल्लें पळोवंक मेळ्ळें.

तरी आसतना लॉर्ड कर्झन नमलो ना. घट्टूच रावलो. म्हूण बंगाल अदिकूच पेटलो, बंगालांतलो हो उजो मुम्बय प्रांतांत पावलो, तसो पंजाबांतूय पातळ्ळो. पुराय देशांत स्वदेशीची चळवळ नेटान चलपाक लागली.

ह्या बोवाळांत एक दीस नवोच एक खणखणीत आवाज लोकांच्या कानार येवन आदळ्ळो - 'निशेध करून कांयच जावपाचें ना. आनी ब्रिटीश मालाचेर बहिश्कार घालुनूय कांय भागपाचें ना. भारतभुंयेक ब्रिटीशांच्या शेकांतली सामकीच मेकळी करपाचो उपाय आमी आतां करूंक जाय. दुसरी वाट ना.'

हो आवाज बाबू अरविंद घोष हांचो आशिल्लो.

बंकिमबाबूंचे आनंदमठ नवलकथे कडल्यान प्रेरणा घेवन तांणी आनी तांगेलो धाकलो भाव बारीन्द्र हांणी 'भवानी-मंदिर' नांवाची एक येवजण आंखिल्ली. आनी आपणा भोंवतणीं कांय तेजिश्ट तरणाटेय एकठांय केल्ले. ते बॉम्ब-पिस्तोलां घेवन भारतभूंय मेकळी करपाक भायर सरले.

इंग्रजांक कॉंग्रेसीचो भंय नाशिल्लो. आनी टिळकां सारकेल्या जहाल फुडाऱ्यांचीय पर्वा नाशिल्ली. पुणून राष्ट्रवादी बॉम्ब-पिस्तोलां मेरेन पाविल्ले पळेतकूच ते भियेले आनी भियेल्लो बैल मारूंक येता तशे ते ह्या क्रान्तिकारकांच्या आंगार धांवन गेले. कितल्याश्या जाणांक धरून तांणी अंदमानाक बंदखणींत धाडून दिले. कितल्याश्या जाणांक गोळाक हुमकळावन मारले. तर कितल्याश्या जाणांचो गुळयो घालून जीव घेतलो.

जावपाचें तेंच जालें. हेच वाटेन वचूंक जाय म्हणपी खासा अरविंदबाबूच राजकी मळ साप्प सोडून पॉंडिचेरीक गेले आनी थंय योग साधनेंत गुल्ल जाले.

## पाकिस्तानी राष्ट्रवाद

मुसलमान फुडारी इतलेंय हें चकासूर जावन पळेत आयिल्ले. जो राष्ट्रवाद देशांत उचांबळीत जावन वयर सरला तो हिन्दूंचो राष्ट्रवाद, तो सफळ जालो आनी देश स्वतंत्र जालो जाल्यार जें राज्य येतलें तें हिन्दूंचें येतलें हे तरेचो एक भंय तांकां दिसपाक लागलो. मुसलमानांनी हातूंत वांटो घेवंक जायना अशें ते म्हणपाक लागले. सर सैयद अहमद खान तांगेले एक फुडारी. इंग्रजांनी सुरू केल्लें शिक्षण घेवन हिन्दू मुखार सरिल्ले तांणी पळेल्ले. 'मुसलमानांनीय हें शिक्षण घेवंक जाय नाजाल्यार ते फाटीं पडटले' अशें तांचें मत्त जाल्लें. 'तुमी कुराण-शरीफाच्याच शिक्षणाक शिक्षण मानशात जाल्यार, लक्षांत दवरात, तुमी फाटीं पडटले... हिन्दूंक पळेयात, इंग्रजी शिक्षण घेवन ते कशे मुखार सरल्यात ते.... तांचे भाशेन तुमीय हें शिक्षण घेवंक जाय. ना जाल्यार तुमी शेणटले अशें ते तांकां सांगपाक लागले. मुल्ला-मौलवींचो विरोध आसतनाय तांणी इंग्रजांच्या आधारान अलीगढाक एक

'मुस्लिम युनिव्हर्सिटी' सुरू केली. आनी कांय नांवाजल्या घराब्यांतले भुरगे थंय शिकपाक लागले. हे भुरगे मदीं मदीं देशाच्या स्वातंत्र्या खातीर चलिल्ले चळवळींत वांटो घेतात तें तांणी पळेलें तेन्ना सर सय्यद तांकां शिटकावणी दिवन सांगपाक लागले, 'तुमी कितेंय करात, पुणून हे चळवळींत पडूं नाकात. ही चळवळ मुसलमानांच्या बऱ्याची न्हय. ती 'डिमॉक्रॅटिक' म्हुण्णूच चड भंयाची...कित्याक, ह्या देशांत तीन वांटे हिन्दू... देश स्वतंत्र जालो आनी तो हे 'डिमॉक्रसी'क धरून चलपाक लागलो जाल्यार राज्य हिन्दूंचेंच येतलें... मुसलमानांक हिन्दूंचे 'कृपे' चेर दीस काडचे पडटले... इंग्रजांच्याच हातांत आमचें हीत सुगूर आसा...'

सर सय्यद एकेच अटीर स्वतंत्रतायेचे चळवळींत वांटो घेवंक तयार आशिल्ले. ही अट समानतायेची, बराबरीची आशिल्ली - 'पॅरिटी'ची आशिल्ली. केन्द्रीय जावं प्रांतीय विधानसभेंत जितल्यो सुवातो हिन्दूंक मेळटल्यो तितल्योच मुसलमानांक मेळटल्यो अशें उतर दियात अशें ते म्हणटाले. तीन हिन्दू मतां म्हळ्यार एक मुसलमान मत असो हो हिशोब आशिल्लो.

सांगल्यार कांय जाणांक अजाप जातलें, जांणी मुखार कॉंग्रेसी कडेन झगडून पाकिस्तान घेतलें ते मुहम्मद अली जिनाय ह्या मत्ताचे आशिल्ले. 'पॅरिटी'चें तत्व कॉंग्रेसीन मान्य केल्लें जाल्यार ते देशांतल्यान फुटून केन्ना भायर सरचेच नाशिल्ले.

'पॅरिटी'चें तत्व मानपाक कोणूच तयार नाशिल्लो. परिणामीं, स्वतंत्रतायेच्या झुजांत जे मुसलमान पडले ते पडले, चडशे सगळे ह्या झुजा पसून पयसूच रावले.

## इंग्रजांचीं कारस्थानां

मुसलमान पयस रावचे म्हूण इंग्रजांनीय तरातरांचे यत्न केले. आरंभाक मुसलमानांक इंग्रज आपणाले सगळ्यांत व्हड दुस्मान मानताले. तेच इंग्रज आतां मुसलमानांक बाबा-पुता करून लागीं ओडपाक लागले. तांची अर्थअपुर्बाय करपाक लागले. तांच्यो सगळ्यो मागण्यो भागोवपाक लागले. संस्कृतायेच्या मळार हिन्दू आनी मुसलमान कशेच एकठांय येवचे न्हय हाची जतनाय घेवपाक लागले. 'आमकां दोगूय सारके' अशें म्हणून दोगांकूय एकामेकां पसून पयस दवरपाचें धोरण तांणी सुरू केलें. 'बनारस हिन्दू युनिव्हर्सिटी' उबी करपाक तांणी हिन्दूंक आधार दिलो. तसो मुसलमानांक 'अलीगढ मुस्लिम युनिव्हर्सिटी' सुरू करपाक पालव दिलो. हिन्दूंक 'नागरी प्रचारिणी सभा' चलोवपाक आधार दिलो. तसो मुसलमानांक 'अंजुमन-तरक्की-ए-उर्दू' चलोवपाक पालव दिलो.

राजकी मळार 'मुस्लिम लीग' आनी 'हिन्दू महासभा' नांवांचे एकामेकां आड दोन पंगड उबे जाल्ले पळेले तेन्ना ते खोशशी खोशशी जाले. 'हे फुडलें आमचें काम आतां हेच पंगड मुखार व्हरतले' हाची तांकां खातरी पटली.

राष्ट्रवाद ह्या देशांत आरंभाक हिन्दू आनी मुसलमान हीं दोन रुपां घेवन उदेल्लो. हिन्दू आनी मुसलमान दोगूय सारक्याच अंतरा वयल्यान चलत आयिल्ले. कॉंग्रेसीचे स्थापने वांगडा हिन्दू, मुसलमान, शिख, पारशी, पंजाबी, बिहारी, बंगाली, मराठा सगळ्यांक सांगातांत घेवन मुखार वचपी जो भारतीय राष्ट्रवाद सुरू जाल्लो ताका निष्फळ, अपेशी करपाचो वावर जितलो इंग्रजांनी केला तितलोच - वा म्हणुंया - ताच्याकूय चड हिन्दू आनी मुसलमान ह्या दोनूय जमाती राष्ट्रवादांनी केला. भारतीय राष्ट्रवादान देशाक स्वातंत्र्य मेळोवन दिलां. जमाती राष्ट्रवादान देशाची फाळणी घडोवन हाडल्या. देश स्वतंत्र जावन - इतलेंच न्हय, तर देशाची फाळणीय जावन - आतां अर्द शतमान जावन गेलें, तरूय राष्ट्रवादाचीं हीं भारतीय आनी जमाती, दोनूय रुपां आदले वरीच आमच्या राष्ट्रीक जिवितांत सारक्याच अंतरा वयल्यान चलिल्लीं दिश्टी पडटात. आमची न्हीद खळोवपी आयचे आमचे सगळे प्रस्न ह्याच रुपांनी निर्माण केल्यात, अशें म्हणचें पडटा.

### आमचो राष्ट्रवाद खंयचो?

येदोय व्हडलो हो इतिहास लक्षांत घेवन आमी आतां आमकांच विचारुंया-

आमचो राष्ट्रवाद खंयचो? जमाती? जाल्यार लक्षांत दवरिल्लें बरें, हो जमाती राष्ट्रवाद आमकां सासणाचीं सासणां हिन्दू, मुसलमान, शिख, ख्रिस्ती, पंजाबी, बंगाली, मराठी, तमीळ, ना जाल्यार, ब्राह्मण, जाट, राजपूत, यादव वा दलितूच दवरतलो. एकराष्ट्रीयत्वा कडेन तो आमकां केन्नाच घेवन वचपाचो ना. आमकां 'भारतीय' केन्नाच करूंक पावपाचो ना. जावंकूय दिवपाचो ना.

आनी, आमी 'भारतीय' जावंक पावले नात जाल्यार आमच्यो न्हिदो खळोवपी आमचो खंयचोच राष्ट्रीय प्रस्न आमी सोडोवंक पावपाचे नात.

गांधी, नेहरू, लोहियां कडल्यान आमी घेतिल्लो तो एकराष्ट्रीयत्वा कडेन घेवन वचपी वाद भारतीय राष्ट्रवाद आशिल्लो. होच राष्ट्रवाद आमी मानतात व्हय? काय दुसरो खंयचो?






७.

# विवेकानन्दांलें हिन्दुत्व

आमच्यांत हिन्दुत्व आशिल्लें. पुणून ताचो अभिमान आमकां नाशिल्लो. तो सगळ्यांत पयलीं विवेकानन्दांनी आमच्यांत जागयलो. पुणून विवेकानन्दांचें हिन्दुत्व खंयचे जातीचें आशिल्लें? शिकागोंतले धर्मपरिशदेंत तांणी जें उलोवप केल्लें तें बारीकसाणेन नियाळून पळोवंक जाय. तांगेल्या हिन्दुत्वाचें रूप लक्षांत येतलें.

तांणी म्हळ्ळें -

'संवसारांत जायते धर्म आसात. दर एकलो धर्म आपुणूच खरो अशें मानीत आयला. हांव अश्या एका धर्मांत जल्माक आयलां की जाणें सगळे धर्म खरे मानल्यात, सगळ्या धर्मांक आपले लेखचे, अशें शिकयलां. तागेल्या ह्या सभावाक लागून म्हज्या देशान भायल्या कितल्याश्याच धर्मांच्या लोकांक आपणाल्या गोपांत आसपावन घेतल्यात. ताणें यहुदींक आसरो दिला तसो पारशांकूय दिला. अंतराळांत उबतल्या कुपांतल्यान शिंवरिल्लें पावसाचें उदक खंयूय पडूं, निमाणें तें दर्याकूच वचून मेळटा, तसो, खंयच्याय देवाक नमस्कार करात, तो निमाणें एका केशवाकूच पावता - **केशवं प्रति गच्छति** अशें म्हजो धर्म मानता. आपुणूच खरो अशें मानतल्या धर्मांनी संवसारांत आयजवेर कितलींशीं धुमशेणां कांडलीं, लोकांचेर एका फुडल्यो एक आगळिको केल्यो, रगताचे व्हाळ व्हांवयले...ह्या धर्मकोल्लाचे दीस आतां भरल्यात म्हणपाचें आयचे हे सभेचे सुरवातीक ज्यो घांटी वाजल्यो तांणी स्पस्ट बऱ्या घणघणीत आवाजान संवसाराक सांगून उडयलां...तरसादेचे धारेन दुसऱ्यांचो छळ करपाचे दीस आयज उरूंक नात...'

विवेकानन्द फकत तीन मिणटां उलयल्ले. तीन मिणटांच्या ह्या उलोवपाचो परिशदेक आयिल्ल्या स हजार लोकांचेर येदो परिणाम जालो की विवेकानन्द ते उपरांत सभेंत खंयच्यानूय खंयूय वचूं, लोक उठून उबे रावताले आनी तांकां ताळयो मारताले. परिशद ११ सप्टेंबराक (१८९३ वर्सा) सुरू जाल्ली, २७ सप्टेंबर मेरेन ती चल्ली. हे एके पंद्रशेंत विवेकानन्दांनी सगळ्यांचीं काळजां जिखिल्लीं, सगळ्यांचें लक्ष आपणा कडेन ओडून घेतिल्लें. एका खबरेपत्रान त्या वेळार बरयल्लें, 'ज्या देशांत इतले शाणे लोक रावतात थंय धर्माचो प्रचार करपा खातीर हांगासल्ल्यान मिशनरी धाडप हाचे सारकीं पिशेपणां दुसरीं नात, अशें तांगेलें उलोवप आयकतकूच दिसलें...'

परिशदेच्या निमाण्या दिसा विवेकानन्दांनी जें उलोवप केल्लें तेंवूय तांगेल्या ह्या पयल्या उलोवपा इतलेंच म्हत्वाचें आशिल्लें. ह्या उलोवपांत ताणी म्हळ्ळें :

'पवित्रताय आनी धार्मिकताय हांचो मक्तो खंयच्याच एका धर्मा कडेन ना, सगळ्या धर्मां भितर हे दोनूय गूण दिश्टी पडटात, सगळ्या धर्मांनी एका फुडले एक धर्म-पुरूस जल्माक घाल्यात हें अख्ख्या संवसाराक हे धर्मपरिशदेन बेस बरें दाखोवन दिलां...हाचे उपरांत आपणालोच धर्म खरो, तोच एक संवसारांत चलतलो, बाकीचे सगळे सोंपतले, ना जावन वतले, असो समज कोणूय घेवन बसलो जाल्यार ताची काकुळटूच करची पडटली...हाचे मुखार संवसारांतल्या सगळ्या धर्मांच्या घुडयांचेर तीन घोशणा तुमकां दिश्टी पडटल्यो -

१. एकामेकां कडेन झगडीं-झुजां करून न्हय, तर एकामेकांक आधार दिवन,

२. एकामेकांक ना करून न्हय, तर सगळ्यांक आपणा वांगडा घेवन, आनी,

३. विरोध करून न्हय, तर सगळ्यां मजगतीं समन्वय घडोवन हाडून सगळे धर्म संवसारांत चलतले...

सगळ्या धर्मांनी ह्यो तीन घोशणा मानून घेतल्यो जाल्यारूच संवसारांत सवस्तकाय नंदूक पावतली...'

विवेकानन्दांच्या हिन्दुत्वाचें रूप तांगेल्या ह्या दोन उलोवपांतल्यान बेस बरें स्पस्ट जालां.

हें हिन्दुत्व आनी तुर्ताक ह्या देशांत धुमशेणां कांडपाक लागलां तें हिन्दुत्व एक न्हय.

मनशान धर्म सोदून काडले ते समाजाच्या धारण-पोशण-उत्कर्षा खातीर.

मनशान अशे तरेन जियेवचें की जाका लागून ताचेंय बरें भलें जावचें आनी ताचे बरोबर संवसाराचेंय बरें भलें जावचें, हीच मोख मुखार दवरून सगळे धर्म वयर सरले. मनीस हेर जिवां सारको जीव उरूंक नाशिल्लो, तांचे पसून वेगळो सरून तो देवत्वा कडेन वचपाक लागिल्लो. ताका हे दिकेन मुखार व्हरपा खातीर धर्म जल्माक आयिल्ले. पुणून -

मनीस अखेरेक मनीस. केन्ना कित्याचो दुरुपेग करीत, सांगूंक येना. ताणें सगळ्या बऱ्या गजालींचो दुरुपेग केला तसो धर्मांचोय केलो. धर्माच्या नांवान तो मनशां मनशां मजगतीं वणटी उब्यो करपाक लागलो. मनशांक मनशां पसून पयस काडपाक लागलो. इतलेंच न्हय, तर तो मनशांक मनशां आड झुजपाकूय मुखार काडूंक लागलो. धर्माच्या नांवान संवसारांत आयजवेर जीं झुजां जाल्यांत आनी ह्या झुजांक लागून संवसारांत रगताचे जितले व्हाळ व्हांवल्यात तितले आर्विल्ले मुस्तींतल्या वेपाऱ्यांच्या झुजांनीय व्हांवोवंक नात जातले. तांगेलो हो रक्तखेंव पळोवन मार्क्स तर तांकां सामकोच विटिल्लो. मनशाच्या जिवितांतले धर्मूच हुमटावन भायर मारूंक जाय अशें म्हणपाक लागिल्लो. धर्मांनी, हे भाशेन, आपणाली पत होगडायल्या त्याच काळांत ह्या देशांत श्रीरामकृष्णांचो जल्म जाला. श्रीरामकृष्ण व्हडलेशें कांय शिकूंक नाशिल्ले. धर्माची जी एक तोंडी परंपरा ह्या देशांतल्या सरसमान लोकां मजगतीं चलत आयिल्ली दिश्टी पडटा तीच पचोवन ते एक 'ज्ञानी' जाल्ले. दक्षिणेश्वरांतल्या कालीच्या देवळांतले ते एक सादे पुजारी आशिल्ले. पुणून परंपरेचे खंयचेच बांदपास तांकां बांदून दवरूंक पावूंक नाशिल्ले. म्हूण, मशिदींत वचून मुसलमानां वांगडा नमाज 'पढपा`क वा इगर्जेंत वचून क्रिस्तांवां बरोबर प्रार्थना करपाक ते केन्नाच अनमनूंक नाशिल्ले. त्या काळांत जितल्योय साधना चलताल्यो तितल्योय पडठाळून, अणभवून, निमाणें **जत मत, तत पथ** - जितलीं धर्ममत्तां तितल्यो धर्म-वाटो, खंयचेय वाटेन वचूं लोक, सगळे एकेच कडेन पावतले, ह्या सत्या कडेन ते पाविल्ले. 'सगळे धर्म खरे अशें म्हळें म्हूण भागना, सगळे धर्म म्हजे अशेंय मानूंक जाय' अशें सांगपाक लागिल्ले.

विवेकानन्द तांगेले शिष्य. अमेरिकेंत वचून विवेकानन्दांनी जो धर्मविचार मांडलो तो श्रीरामकृष्णांचो विचार आशिल्लो. भारताचें काळीज तांच्या तोंडांतल्यान उलयल्लें.

श्रीरामकृष्ण-विवेकानन्दांचें हिन्दुत्व मुसलमान-विरोधी, क्रिस्तांव-विरोधी

हिन्दुत्व नाशिल्लें. तें सगळ्यांक आपले लेखपी, सगळ्यांक आपणांत आसपावन घेवपी हिन्दुत्व आशिल्लें.

विवेकानन्द जल्माक आयल्यात त्या काळांत देश विदेशी बुटां पोंदा चिड्डल्लो. आत्मविस्वास साप्प होगडावन बशिल्लो. लोकांचो आत्मविस्वास जागयले बगर देश मुखार पावल घालूंक पावचो ना अशें विवेकानन्दांक दिसलें म्हण ते 'तुमी बाबत कुळां न्हय, तुमी एका व्हड देशाचे नागरीक, एके व्हड संस्कृतायेचे वारस' हे तरेची भास उलोवपाक लागिल्ले. 'आयज तुमचेर आपणालो शेक चलयतात तांचे पुर्वज ज्या काळार एका रुखा वयल्यान दुसऱ्या रुखार उडयो मारीत भोंवताले त्या काळार तुमगेले म्हालगडे हांगा आत्म्या-परमात्म्याचें रूप सोदपांत गुल्ल आशिल्ले ... तुमच्या शिरंत्रांनी तांचेंच रगत घोळटा हें विसरूं नाकात... संवसारांत जायत्यो संस्कृतायो जल्माक आयल्यो, तरतरून वयर सरल्यो आनी एक दीस संवसाराचे फाटी वयल्यो ना जावन गेल्यो. तुमची संस्कृताय पांच हजार वर्सां पसून एका सारकी खंड पडनासतना चलत रावल्या... तुमी हड्डीं मुखार काडून चलूंक जाय' अशें कितें कितें सांगून ते आमचो देशा विशिंचो अभिमानूय जागयत राविल्ले तसो आमचो आत्मविस्वासूय वाडयत गेल्ले. एका 'मरून पडिल्ल्या' देशांत तांणी प्राण फुंकिल्लो.

त्या काळांत हो वावर खूब गरजेचो आशिल्लो. पुणून एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय, विवेकानन्दांचो हो वावर 'आमच्या देशा सारको व्हड देश संवसारांत दुसरो ना, आमच्या धर्मा सारको व्हड धर्म खंयच मेळचो ना' हे तरेचो कुड्डो अभिमान आमच्यांत जागोवपी वावर नाशिल्लो. ते आमचो अभिमान आनी आत्मविस्वास जागयताले तो 'तुमकां परक्यांचे गुलाम रावपाचो मात्तूय अधिकार ना...उठात, जागे जायात आनी बंदेपणाच्यो सगळ्यो बेडयो तोडात' इतलेंच पटोवन दिवपा खातीर.

विवेकानन्दांच्या आदल्या काळांत धर्म म्हळो म्हणटकूच देवाची भक्ती कशी करची, ताची पुजा कशी करची, ताका कसो कसो होरावचो आनी जोडचो, आनी मोक्ष कसो मेळोवचो, इतलेंच लोकांक समजावन सांगपी एक विचार - म्हणुंया, एक पवित्र विचार. ह्या रुपानूच तो लोकां मुखार उबो रावतालो. विवेकानन्दांनी अमेरिकेक वचचे पयलीं पुराय देश भोंवन पळेल्लो. पांयांनी माड्डिल्लो आनी देशांत सगळे कडेन पातळिल्लें अज्ञान आनी दळदीर पळोवन तांगेलें काळीज

विद्रोहान उसळिल्लें. असल्या ह्या देशाक नामस्मरण करात आनी देव जोडात म्हूण सांगपांत अर्थ ना. ताका शिक्षीत करूंक जाय, ताचें दळदीर ना करूंक जाय, ह्या निर्णयार ते पाविल्ले. लोकांक शिक्षीत करपाक वचत थंय शाळा काडूंक जाय, तांचें दळदीर ना करपाक तांकां काम दिवपी उद्देग-धंदे सगळे कडेन सुरू करूंक जाय. तांचीं पयलीं पोटां भरूंक जाय अशें म्हणपाक लागिल्ले. उपाशीं पडिल्ल्या लोकांक वेदान्त कसलो शिकयतले आमी? ते वेदान्ती लोकांक विचारपाक लागले, 'तुमकां देवाची पुजा करपाची आसा मू? देव म्हळ्यार नारायण मू? नारायण उतराचो अर्थ तुमी जाणात मू? **नराणाम् समूह नारम्** - नरांचो जमो, पुंजो म्हळ्यार 'नार'. पुराय मनीस जात म्हळ्यार 'नार'. आयज संवसारांत जियेता तीच न्हय, जावन गेली तिवूय आंनी फुडाराक येवपाची आसा तिवूय - Totality of humanity जाच्यांत आसपावता ताका 'नार' म्हणटात. 'नारां'त नर येता आनी नारीय येता. तिचें जें 'अयन' - तिच्यांत जो रावता - तो 'नारायण'. आमच्या देशांत हो नारायण आयज गरीब भिकाऱ्याच्या रुपांत तुमचे मुखार उबो रावला. ह्या दरिद्रनारायणाक निवेद्य दाखयात. ताची पुजा करात. ताची सेवा करात. ताका प्रसन्न करून घेयात. तरूच नारायणाची खरी पुजा केल्ले वरी जातली. दरिद्रनारायणाक शिकोवप, ताचें पोट भरप, ताका काम दिवप हो आयचो वेदान्त जावंक जाय, कळ्ळें?'

'दरिद्रनारायण' हें उतर लेगीत तांणीच घडयल्लें.

हिन्दू धर्माचें एक उजळ रूप तांणी श्रीरामकृष्णांच्या जिवितांत पळेल्लें. ताचें एक अळशिकावणें रूप तांणी भारतीय समाजांत पळेल्लें. कोणाच्या हातचें खावचें, कोणाच्या न्हय, कोणाक आफुडचें, कोणाक न्हय हे विवंचनेंत पडिल्लो हिन्दू धर्म समाजांत चलता तो तांणी पळेल्लो आनी ह्या हिन्दू धर्माची तांकां तिडक मारिल्ली. ताका तांणी 'टच-मी-नॉट-रिलीजन', 'किचन रिलीजन' हीं नांवां दिल्लीं. विवेकानन्दां आदल्या खंयच्याच आध्यात्मीक मनशाक हो हिन्दू धर्म दिश्टी पडूंक नाशिल्लो. सगळ्यांत पयलीं तो तांकांच दिश्टी पडलो. हो हिन्दू धर्म सुधारपाक ते मुखार सरले. समाजांत ते मुस्तींत 'सुधारक' जायते आशिल्ले. ब्राह्मो समाज तर सुधारणेच्या मळार सगळ्यांत मुखार आशिल्लो. पुणून हे सगळे सुधारक येवरोपेव मिशनऱ्यांची भास उलयताले म्हूण सरसमान समाजा पसून कडेक पडिल्ले. समाज बदलपाचो आसत जाल्यार समाजा पसून कडेक सरूंक जायना, आपूण समाजा

पसून वेगळो म्हूण दाखोवंक जायना; समाजांत रावन, समाजा कडेन एकरूप एकजीव जावन समाज सुधारणा करूंक जाय. लोकांक 'हो आमचोच मनीस' कसो दिसूंक जाय. जाल्यारूच समाजांत सुधारणा जावंक पावतली अशें म्हणपी विवेकानन्द देशांतले पयले समाज सुधारक आशिल्ले. समाज सुधारणेच्या वावराक ताणी, हे भाशेन एक नवो आयाम जोडून दिल्लो. तांकां धर्म-परिवर्तनां माननाशिल्लीं. आपणालो धर्म बदलून दुसरो धर्म घेवपाची गरजूच ना अशें ते म्हणटाले. पुणून लोक धर्म कित्याक बदलतात हाचो विचार केला व्हय तुमी, अशें ते धर्म-परिवर्तनाआड आशिल्ल्या सनातन्यांक विचारताले. 'तुमच्या समाजांत चलतात ते अन्याय तशेच दवरून तुमी धर्म - परिवर्तन आडायतले व्हय?' ते विचारताले. 'पयलीं समाजांतले अन्याय ना करात, मागीर पळोवया कोण कशे धर्म बदलतात ते', अशें म्हणटाले. ते देशांतल्या मुसलमानी काळाक 'पाडो काळ' मानताले. पुणून इस्लामा कडेन - मुसलमानांच्या धर्मा कडेन पळेतना आपणाल्या हिन्दू धर्मा कडेन पळेताले तितल्याच भौमानान पळेताले. ताणी इस्लामी कुडींत वेदान्ती काळीज अशे तरेची एक नवी देखूय लोकां मुखार दवरिल्ली. लोकांच्या दळदीरपणाचो लाव घेवन तांकां क्रिस्तांव करपी मिशनऱ्यां आड ते दांत वोंठ चाबून उलयताले. पुणून थॉमस ए केम्पिसचें 'इमिटेशन ऑफ क्रायस्ट' उपनिषदां इतल्याच भौमानान आनी आपलेपणान वाचताले.

विवेकानन्दांत मनाचें कसलेच तरेचें अशीरपण नाशिल्लें.

लोकमान्य टिळकांचेर तांची छाप एका 'देशभक्त संता'ची - a patriot saint - ची पडल्या. खरें म्हळ्यार ताणी देशभक्तां भाशेन देश स्वतंत्र करपाचो वावर हातांत घेवंक जाय आशिल्लो. विवेकानन्द ह्या वावरा पसून पयसूच रावले. एक तर ते मुस्तींत करपा सारको देशभक्तीचो वावर देशांत कसलोच चलनाशिल्लो आनी जो चलतालो तो कुड्डेपणाचो आनी पोरांट्यांनी करपाचो आशिल्लो. सिस्टर निवेदिता तांगेली एक शिष्या. मुदलांत आयरीश. इंग्रजां आड आशिल्ली. हिन्दुस्तानांत येनाफुडें तिचो हांगासल्ल्या कांय क्रांतिकारी लोकां कडेन संबंद आयलो. तांगेल्या गुपीत बसकांनी ती वांटो घेवपाक लागली. विवेकानन्दांक ही खबर कळ्ळी तेन्ना तांकां वायट दिसलें. ताणी तिका आपोवन सांगलें, हे सगळे क्रांतिकारी पोरांटे लोक. आठ धा इंग्रजांक मारून देश स्वतंत्र करतले म्हणटात. तांच्या नादाक लागपांत अर्थ ना. हांवें हो सगळो देश भोंवन पळेला... 'द कंट्री इझ् डॅड - देशाचो प्राणूच

गेला. तो प्राण लोकांत पयलीं फुकूंक जाय. हांवें जो शिक्षणाचो, सेवेचो आनी समाज निवळावणेचो वावर हातांत घेतला तोच ह्या देशांत प्राण फुकूंक पावतलो. पोरांट्यांचो सांगात सोडून दी.'

विवेकानन्दांनी राजकर्ण केलें ना. खंयच्याच राजकर्ण्याक आपणा लागसार येवंक दिलो ना. आपुणूय कोणाक आधार दिवंक गेले नात. पुणून लक्षांत दवरूंक जाय -

ते संवसार सोडून गेले ताच्या चार वर्सां उपरांत वायसरॉय लॉर्ड कर्झनान एका बंगाल देशाचे दोन बंगाल करपाची एक येवजण मुखार हाडिल्ली. हिन्दू मुसलमान दोनूय समाजांक फोडपाची ही येवजण आशिल्ली. हे येवजणे आड बंगालांतले हिन्दू मुसलमान एकठांय येवन तिडकीन उसळिल्ले. परिणामीं, सरकाराक ही येवजण फाटीं घेवची पडिल्ली. हे घडणुकेचो 'रिपोर्ट' एका इंग्रज अधिकाऱ्यान बरयला. तातूंत ताणें 'हे चळवळीचो खरो फुडारी चार वर्सां पयलींच संवसार सोडून गेल्लो स्वामी विवेकानन्द नांवाचो एक संन्याशी आशिल्लो' अशें म्हळां.

खासा विवेकानन्दांनीय निमाण्या दिसांनी कोणाक तरी म्हळ्ळें, 'हांव आतां हे कुडींत चड दीस रावपाचों ना, पुणून एक लक्षांत दवरात : हजारांनी लोकांच्या काळजांत बसून हांव काम करपाचो आसां...'

विवेकानन्दांची ही भविश्यवाणी खरी थरल्या. उपरांतच्या काळांतल्या हजारांनी लोकांक तांणी प्रेरणा दिल्या. श्रीअरविन्दांक दिल्या. सुभाषबाबूंक दिल्या. आनी -

गांधींनी तांचें नांव चडशें घेतिल्लें नासलें तरूय तांणी जें काम केलां तें तांचेंच केलां. दरिद्रनारायणाची सेवा करपाचो तांचो रचणुकी वावर (कंस्ट्रक्टीव्ह प्रोग्राम), वेगळ्या वेगळ्या धर्मसंप्रदायांच्या लोकांक एकठांय हाडपाचो तांगेलो सर्वधर्मसमभाव, समाजांतलें ऊंच-उणाकपण ना करपाच्या हावेसान चलिल्लो तांगेलो आफूड-भश्टा आडचो वावर पळेतकूच विवेकानन्दांचोच प्रभाव तांचेर आशिल्लो अशें म्हणचें पडटा.

विवेकानन्दांचें हिन्दुत्व विश्व हिन्दू परिशदेचें हिन्दुत्व नाशिल्लें. तें वेगळें हिन्दुत्व आशिल्लें - जें विवेकानन्दां उपरांत गांधींनी चलयल्लें.



८.

# धर्मा आड संप्रदाय

'मुसलमान? बेइमान...ह्या देशांत रावनूय पाकिस्तानाक आपलो देश मानपी. तांचेर पातयेवंक फावना...'

'क्रिस्तांव?... कितेंय जाल्यार सायब. गांवठी जावं मागीर. तांकां हो देश आपलो कसो केन्ना दिसपाचो ना...तांणी जेझूक लेगीत इंग्रज सायब करून उडयला...'

हिन्दू?

नव-बौद्धांक विचारूंक जाय. 'हिन्दूं सारके मनीसघाणे संवसारांत कोण आसचे नात. आमीच व्हडले, आमचोच धर्म व्हडलो, आमच्योच भासो व्हडल्यो अशें मानपी...मदान्त. केन्ना कोणाच्या माथ्यार बसून ताका चिड्डितीत, सांगूंक येना...' ही जाप ते दितले.

आमचे सगळ्यांचे एकामेकां कडेन पळोवपाचे नदरेक नांव दिवचें पडलें जाल्यार 'कोम्युनल' हेंच एक नांव दिवंक येतलें. सगळे आमी 'कोम्युनल'. आपणाक 'सेक्युलर' लेखतात ते लेगीत. संवसारांत तुर्ताक सगळे कडेन जीं झगडीं-झुजां चल्ल्यांत तांतलीं णव्वद प्रतिशत झुजां कोम्युनल. संवसारीक राजकर्णाक आयज कीड लागल्या ती खरी 'कोम्युनलिझम्'ची. ही कीड मारून उडयले बगर संवसार सुशेगाद जियेवंक पावपाचो ना.

पुणून ही कीड मारूंक भायर सरचे पयलीं आमी कोम्युनल कोणाक म्हणटात आनी सेक्युलर कोणाक लेखतात हें तकलेंत सारकें बरें स्पस्ट करून घेवंक जाय. ना जाल्यार आमचें चिंतप सारकें जावपाचें ना. आनी कोम्युनलिझमचेर आमकां

सारको उपायूय येवजुपाचो ना.

आमी कोम्युनल कोणाक म्हणटात? जो धर्माक धरून चलता, धर्माच्या सगळ्या कर्मकांडांक पाळो दिवन जियेता, धर्मपुस्तकां भक्तिभावान वाचता आनी तांचे कडल्यान पोसवण घेता, प्रेरणा घेता, ताका आमी 'कोम्युनल' म्हणटात व्हय? आनी, जो धर्माचें आपणाक कितेंच लावन घेना, धर्माच्या खंयच्याच कर्मकांडाक पाळो दिना, धर्म पुस्तकां वाचिना आनी तांचे कडल्यान पोसवण प्रेरणा कांयच घेना ताका 'सेक्युलर' लेखतात व्हय? जाल्यार आमी चूक करतले. धर्माक धरून चलपी मनीस कोम्युनल आसतलोच अशें ना. आनी धर्म मानिना तो सेक्युलर आसतलो अशेंय म्हणूंक येना. दोन दाखले आमच्याच देशांतले घेवंया -

बादशाह खान मुसलमान. ते कुराण भक्तिभावान वाचताले. कुराणांतल्यान पोसवण घेताले, प्रेरणा घेताले. नमाज, रोजा बी सगळ्या मुसलमानी कर्मकांडांक पाळो दिताले. आपणाक 'खुदाई खिदमतगार' लेखताले. पुणून ते फकत मुसलमानांचे फुडारी नाशिल्ले. फकत मुसलमानां कडेन एकरूप जावंक नाशिल्ले. देश हिन्दू, क्रिस्तांव, मुसलमान, शिख, बौद्ध, जैन, पारशी, ज्यू, सगळ्यांचो. आपूण ह्या सगळ्यांचो तशे हे सगळे आपणाले अशें मानताले. आनी लोकूय तांचे कडेन हेच नदरेन, आमचे सगळ्यांचे फुडारी म्हूण पळेताले. बादशाह खानांच्या राष्ट्रवादाक तांगेली धर्मनिष्ठा खंयचेच मुसलमानी शिमेंत बांदून दवरूंक पावली ना.

हाचे उरफाटे मुहम्मद अली जिना. तेवूय मुसलमान आशिल्ले. पुणून मुसलमान धर्माक धरून ते चलनाशिल्ले. मुसलमान धर्माच्या नमाज, रोजा बी खंयच्याच कर्मकांडांक ते पाळो दिनाशिल्ले. कुराणांतल्यान कसलीच पोसवण वा प्रेरणा घेनाशिल्ले. (कुराण तांणी वाचूंक लेगीत नाशिल्लें म्हणटात.) जेवण-खाण, विचार-आचार, रुची, संस्कार, खंयच्याच आंगांत तांगेलें मुसलमानपण दिश्टी पडनाशिल्लें. 'इस्लामियती' परस 'अंग्रेजियतू'च तांच्यांत चड दिश्टी पडटाली. पुणून फुडारी ते फकत मुसलमानांचेच आशिल्ले. 'मुसलमान म्हजे आनी हांव मुसलमानांचो' अशें मानताले. मुसलमानां कडेन एकरूप जाल्ले. फाल्यां हिन्दुस्तान स्वतंत्र जातलें तेन्ना तें लोकशायेच्या तत्वाक धरून चलतलें; तें लोकशायेच्या तत्वाक धरून चल्लें जाल्यार संख्याबळाकूच चड मानतलें. संख्याबळाचे नदरेन देशांत हिन्दू तीन वांटे, मुसलमान फकत एक वांटो, आमकां मुसलमानांक स्वतंत्र हिन्दुस्तानांत हिन्दूंचे कृपेचेर जियेवचें पडटलें. तांचे कृपेचेर जियेवचे परस आमी

वेगळे सरिल्ले बरे, अशें मानताले. म्हूण ते इंग्रजांक सांगपाक लागले, तुमी वतले जाल्यार एक काम करात, वचचे पयलीं ज्या वाटारांत मुसलमान चड आसात तो आमकां वेगळो काडून दियात. आमी ताका पाकिस्तान हें नांव दितले आनी थंय रावन आमी स्वतंत्र रितीन आमचें राज्य चलयतले.

जिना इतल्यारूच थांबले नात. ते म्हणपाक लागले, 'हिन्दू वेगळे आनी आमी मुसलमान वेगळे. आमचो धर्म वेगळो, आमच्यो चाली-रिती वेगळ्यो, आमचो इतिहास वेगळो. आमची भास वेगळी. आमचे संस्कार वेगळे. हिन्दू आनी मुसलमान हीं दोन वेगळीं 'राष्ट्रां'. तांकां केन्ना पडलें ना, केन्ना पडपाचें ना. तीं एकठांय रावचीं नात. रावूंक फावना.'

आनी ते पाकिस्तान घेवपाक वावुरले. पाकिस्तान घेवपांत जैतवंतूय जाले.

हे दोन दाखले आमकां कितें दाखोवन दितात? मनीस धर्मनिष्ठ आसल्यारूय धर्मा पेल्यान वचून ताका सेक्युलर जावंक येता, आनी मनीस हेर सगळ्या मळांचेर सेक्युलर आसुनूय तो कोम्युनल आसूं येता, हेंच न्हय? बादशाह खान धर्मनिष्ठ मुसलमान आसुनूय 'सेक्युलर' आशिल्ले. आनी जिना फकत 'नांवाचे मुसलमान' आसुनूय - धर्माचें कांय लागना जावनूय - कोम्युनल आशिल्ले.

इतलें हें आमकां सारकें समजलें जाल्यार कोणाक कोम्युनल म्हणचो आनी कोणाक सेक्युलर लेखचो हें आमकां सारकें बरें समजतलें.

ह्या नेमान, विवेकानन्द आनी गांधी दोगूय हिन्दू आसुनूय सेक्युलर, 'सगळे आमचे, आमी सगळ्यांचे' अशें मानपी देशभक्त आशिल्ले. जिना आनी सावरकर दोगूय कोम्युनल. कित्याक, एकलो मुसलमान आपले आनी आपूण मुसलमानांचो अशें मानपी, तर दुसरो हिन्दू आपले, आपूण हिन्दूंचो अशें मानपी. हिन्दू आनी मुसलमान हीं दोन राष्ट्रां. तीं एकठांय केन्नाच रावंक पावपाचीं नात हें दोगांयचें मत्त आशिल्लें.

हिन्दूंक आनी मुसलमानांक पडना हें, म्हण, समजूं येता. कित्याक, दोनूय दोन वेगळ्या धर्मांतले. दोनूय एकामेकां कडेन झगडत आयिल्ले. पुणून एकाच धर्मांतल्या दोन संप्रदायांक पडना हाचो अर्थ कसो लावपाचो?

शिया आनी सुन्नी हे दोन मुसलमानी पंथ. दोगांकूय केन्ना पडलें ना. एक खेपे - फकत एकूच खेपे - दोनूय संप्रदाय एकठांय आयिल्ले. केन्ना? अहमदिया

संप्रदायांतल्या मुसलमानांक तांणी पिडापीड भोगोवपाचें थारायलें तेन्ना. तेंवूय खंय? मुसलमान एक वेगळें 'राष्ट्र' अशें म्हणून हिन्दुस्तानांतल्यान फुटून भायर सरिल्ल्या खासा पाकिस्तानांत. मुसलमानांच्या ह्या राष्ट्राक अहमदिया मुसलमान मुसलमान दिसले नात. अहमदिया मुसलमानांक पाकिस्तानांतल्यान धांवडावन घालपा खातीर शिया आनी सुन्नी दोनूय संप्रदायांनी तांचो छळ सुरू केलो. तातूंत कितल्याश्या अहमदियांक जीव होगडावचो पडलो. कितल्याश्या अहमदियांक आपणाली संपत सोडून पाकिस्तानांतल्यान पळ क़ाडचो पडला.

पाकिस्तान नांवाच्या मुसलमान राष्ट्रांत अहमदिया मुसलमानांक सुवात नाशिल्ली.

झुल्फिकार अली भुट्टो जिनां सारके इंग्रजी संस्कारांत, इंग्रजी आचारांत-विचारांत वाडिल्ले. जिनां परस मातशे चडूच म्हळ्यार जाता. पुणून जिनां भाशेनूच 'आपूण मुसलमानांचो आनी मुसलमान आपणाले' अशें मानपी ते एक मुसलमान फुडारी आशिल्ले. तांणी १९७४ वर्सा पाकिस्तानाच्या संविधानांत एक दुरुस्ती सुचोवणी हाडली आनी ती पास करून घेवन अहमदिया 'मुसलमान न्हय (नॉन-मुस्लीम)' अशें कायद्यानूच थारावन तांकां मुसलमानां पसून वेगळे काडले.

भुट्टो उपरांत पाकिस्तानांत झिया-उल-हक आयले. ते भुट्टोंचेय मुखार गेले. जे 'मुसलमान न्हय' तांचे खातीर तांणी वेगळे मतदारसंघ सुरू केले आनी अहमदियांचो तांणी 'मुसलमान न्हय' त्या जमातीं भितर आसपाव केलो.

झगडीं झुजां दोन वेगळ्या धर्मां मजगतींच जातात अशें ना. एका धर्माच्या दोन संप्रदायां मजगतींय जावं येतात, जातात.

खासा पाकिस्तानानूच आमकां हें बेस बरें स्पस्ट करून सांगलां.

बलुचिस्तान पाकिस्तानाचो एक वांटो. थंय 'झिक्री' नांवाचो एक मुसलमान पंथ चलता. सुन्नी पंथाचे 'जमाते-उलेमा-इस्लाम' संघटनेच्या प्रभावांत येवन पाकिस्तान सरकारान ह्या झिक्री लोकांचो आसपाव 'मुसलमान न्हय' तांचे भितर करून उडयला.

इतल्यान सोंपलां व्हय? 'सिपाह सहाबा' नांवाचें एक सुन्नी संघटन पाकिस्तानांत चलता. तें सुरू जाल्लें पाकिस्तानी पंजाबांत. आमच्या राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघा सारकें. पुणून ताचें जाळ इल्लें इल्लें करून पाकिस्तानभर पातळत गेलें. ज्या शिया पंथाच्या लोकांचो आधार घेवन सुन्नी लोकांनी अहमदिया पंथी लोकांक

पाकिस्तानांतल्यान भायर धांवडावन घालपाचो यत्न केल्लो त्या शियांकूच हे सुन्नी संघटनेन (सिपाह सहाबान) 'काफिर' थारावन आतां वेगळे काडल्यात.

पाकिस्तानांत शिया, झिक्री, अहमदिया मुसलमान मुसलमानां 'भायले' जाल्यात.

सोवियेत संघाच्या विघटना फाटोफाट युगोस्लावियाचेंय विघटन जालें. तातुंतल्यान कितलींशीं नवीं 'राष्ट्रां' वयर सरलीं. युक्रेन, चेक, स्लोवाक हांचे निर्मिती फाटल्यान संप्रदायवादाचो -कोम्युनलिझमचो - हात नाशिल्लो म्हणूं येता. पुणून आझेरबेइजान आनी आर्मेनिया फाटल्यान नाशिल्लो अशें म्हणूं येत व्हय? आझेरबेइजानांत मुसलमान संप्रदायवादान तकली वयर काडल्या, तर आर्मेनियांत क्रिस्तांव संप्रदायवादान काडल्या.

युगोस्लावियांत तुर्ताक झगडीं झुजां चलल्यांत तीं तीन धर्मसंप्रदायां मदलीं. क्रोटस् कॅथलीक. बोसनियन मुसलमान. आनी सर्ब ग्रीक ऑर्थोडॉक्स ख्रिस्ती. मजेची गजाल म्हळ्यार तिगांचेय फुडारी मार्क्सवादी. धर्माक 'अफिणेची गुळी' मानपी. देव मानिनाशिल्ले, एथेइस्ट. पुणून 'ते वेगळे, आमी वेगळे' अशें मानपी. मनीस मार्क्सवादी आसुनूय संप्रदायवादी (कोम्युनल) आसूं येता हें युगोस्लावियान दाखोवन दिलां.

इतिहासाचे नदरेन ज्यू आनी मुसलमान एकाच धर्म कुटुंबांतले दोन संप्रदाय. क्रिस्तांव संप्रदायूय ह्याच कुटुंबांतलो. तो रोमाक गेलो आनी ताका येवरोपी रंग लागलो म्हूण तो हांचे पसून मातसो वेगळो पडलो. पुणून मातसोच. मुदलांत तो त्याच धर्मकुटुंबांतलो उरला. तिनूय संप्रदाय आपणाक अब्राहमाचे वंशज मानीत आयल्यात. इझाक, मोझेस, जेकब, डेविड, सोलोमन तिनूय संप्रदायांचे 'मेसाइया' - सोडवणदार. मुसलमानांनी हे वळेरेंत आनीक दोगांची भर घाल्या. एक, येशूची. दुसरी, महम्मदाची. पुणून ज्यू आनी क्रिस्तांवांची परंपरा तीच तांणी आपणाली परंपरा मानल्या. आचार-विचार, रीत-रवीस, कर्मकांड तिनांयचें सारकें. पुणून अब्राहमाच्या ह्या वंशजां मजगतीं आयज जितलीं झगडीं-झुजां चलतात तितली दोन वेगळ्या धर्म समाजां मजगतीं चलिल्लीं खंयच पळोवंक मेळचीं नात.

आयर्लेंडांत कॅथलीक आनी प्रॉटेस्टंटा मजगतीं झगडीं-झुजां (कितल्याश्या शेंकड्यां सावन) चलत आयल्यांत. दोनूय क्रिस्तांव संप्रदाय. रशिया आनी चेचन्यांत

चलतात तीं क्रिस्तांव मुसलमानां मजगतचीं झगडीं. इझराएल आनी पालेशितनांतलीं ज्यू आनी मुसलमानां मजगतचीं. सुदानांत चलतात तीं क्रिस्तांव मुसलमानां मजगतचीं. इराक इराणांतलीं सुन्नी आनी शिया मुसलमानां मजगतचीं. बहरीन आनी अफघानिस्तानांतलींय सुन्नी शियां मजगतचीं. फिलिपिन्सांतलीं क्रिस्तांव मुसलमानां मजगतचीं.

संवसारभर झगडीं-झुजां चल्ल्यांत तीं सगळीं सांप्रदायीक - कोम्युनल. आयच्या संवसाराक कीड लागल्या ती कोम्युनलिझमचीच अशें म्हणचें पडटा.

•

हें सगळें आमकां खंयच्च्या निर्णया कडेन घेवन वता?

१ - धर्मनिष्ठा आनी संप्रदायनिष्ठा एक न्हय म्हणपाच्च्या पयल्या निर्णया कडेन.

२ - धर्मनिष्ठ मनीस संप्रदायनिष्ठ आसतलो अशें ना आनी संप्रदायनिष्ठ धर्मनिष्ठ आसुंकूच जाय अशें ना, ह्या दुसऱ्या.

३ - ह्यो दोनूय निष्ठा दोन वेगळ्या पांवड्यां वयल्यान काम करपी निष्ठा, ह्या तिसऱ्या.

४ - धर्मनिष्ठा आमकां दुसऱ्यांचे करपाक आनी दुसऱ्यांक आमचे करपाक आडखळ हाडिना. संप्रदायनिष्ठा आमकां दुसऱ्यांचे करिना, दुसऱ्यांक आमचे करिना. आमकां एकामेकां पसून फोडटा, वेगळे दवरता, म्हणपाच्च्या चवथ्या. आनी,

५ - धर्मनिष्ठा उदार नदरेची आसता. आमकां ती उदार करता. सगळ्यांचे करता. संप्रदायनिष्ठा आकुंचीत आंवुळिल्ले नदरेची आसता. ती आमकां आकुंचीत करता. आमकां आमचे भितरूच गुल्ल दवरता, ह्या पांचव्या.

ह्या पांच निर्णयांर आयले उपरांत आमकां आनीक एका निर्णयार येवचें पडटा - धर्मा आड वा धर्मनिष्ठे आड झुजून संप्रदायनिष्ठा ना करूंक येवपाची ना म्हणपाच्च्या. झुजूंक जाय तें संप्रदायनिष्ठे आड. कोम्युनलिझमा आड. धर्मा आड न्हय आनी धर्मनिष्ठे आड न्हय.

तें कशें झुजपाचें? सगळ्या धर्मसंप्रदायांक एकठांय हाडून आनी तांकां 'एकामेकां लागीं येयात, एकामेकां कडल्यान घेयात, एकामेकांक दियात आनी एकठांय रावपाची एक आगळी वेगळी मनीसपणाची कला विकसीत करून दाखयात' म्हूण सांगून.

कोण करतलो हें काम? म्हज्यांतलो देशभक्त म्हाका सांगता, हिन्दुस्तान

सोडून दुसरो कोण करतलो? असलो भौ-धर्मी देश संवसारांत दुसरो ना. संवसारांतले सगळे धर्म ह्या देशांत येवन रावल्यात आनी ते ह्याच देशांतल्या लोकांनी घेतल्यात, चलयल्यात. ते हांगाच रावपाचे आसात. ते सदां झगडत रावंतले? काय आपणा मजगतीं समन्वय घडोवन एक नवी संवसारीक संस्कृताय निर्माण करून दाखयतले? इतिहास-विधात्यान धर्मसमन्वय हेंच एक मिशन ह्या देशा मुखार दवरलां. धर्मसमन्वय केल्यार ह्याच देशान करपाचें. कित्याक, रामकृष्ण विवेकानन्दांचो देश हो. गांधी रवीन्द्रनाथांचो देश हो.

तो संवसाराक नवी देख दिवपाचें आपणालें 'मिशन' विसरतलो व्हय?

■

९.

# भारतीयत्व

तो म्हणपाक लागलो, 'आमी सगळे भारतीय...'

'अशें मदीं मदीं केन्ना दिसता खरें' हांवें मदींच म्हळें.

तो म्हज्या तोंडा कडेन पळेत रावलो. 'तूं आपणाक कितें मानता तर?' ताणें विचारलें.

'हांव म्हाका कोण मानतां ताका म्हत्व ना.' हांवें जाप दिली आनी दोन नांवां घेवन म्हळें, 'एकलो म्हाका हिन्दू मानता. दुसरो बामण लेखता...तांकां विचारून पळे.'

ताणें विशय बदल्लो.

'हांव भारतीय. हांव हिन्दू, मुसलमान, क्रिस्तांव असले वेगळेचार मानिना. कोणाक हांव बंगाली, महाराष्ट्री, पंजाबी लेखिना. ब्राह्मण, क्षत्रीय, वैश्य, शुद्र असलेय वेगळेचार हांव करिना. 'आमी सगळे भारतीय आनी भारतीय सगळे म्हजे भाव...' हे तरेची बडबड हालीं तेंपार देशांत खूब कडेन आयकूंक मेळटा. वचत ताच्या तोंडांतल्यान. कित्याक काय? 'भारतीय' आयज देशांत कोणूच उरूंक नात. सगळे एक तर बंगाली वा पंजाबी जाल्यात. हिन्दू, मुसलमान, क्रिस्तांव, शिख म्हूण मुखार आयल्यात वा जाट, मराठा, राजपूत, यादव, दलीत ह्या रुपांनी वावुरतात. म्हुण्णूच बी न्हय मू?

'भारतीय' लोक ह्या देशांत एका काळार आशिल्ले. ४२-४८ चे मुस्तींत हांवें पळेल्ले. जयप्रकाशां कडेन आमी बिहारी म्हूण पळेनाशिल्ले. सुभाषबाबू

आमकां कोणाक बंगाली दिसनाशिल्ले. वल्लभभाई गुजराती नाशिल्ले. कृपालानी सिंधी म्हूण आमचे मुखार उबे रावी नाशिल्ले. हांची सगळ्यांची जात एक आशिल्ली: भारतीय. हांचो धर्मूय एक आशिल्लो : भारतीय. हांचो आकारूय भारतीय आशिल्लो. तांचे फाटल्या पन्नास पाउणशें वर्सां पसून भारतीय आकाराचे मनीस निर्माण करपाची एक प्रक्रिया ह्या देशांत चलत राविल्ली. विवेकानन्द, गांधी सारकेल्यांचो हे प्रक्रियेक हातभार लागिल्लो. सगळ्यांच्या काळजांत तांणी स्वातंत्र्याचो उजो पेटयल्लो आनी ह्या उज्यांत देशांतल्या लोकांक एकामेकां पसून पयस करपी सगळे वेगळेचार तांणी हुलपावन उडयल्ले.

स्वराज्य आयलें आनी ताणें 'भारतीयां'ची ही जातूच ना करून उडयली. इतलेंच न्हय, तर हे जातीचे लोक पर्थून केन्ना तकली वयर काडूंक पावचे न्हय म्हूण तांकां निर्वंश करपा खातीर तें लोकशाय नांवाचें एक यंत्र - 'गियोतीन' घेवन आयलें आनी ह्या गियोतिनान सगळ्या 'भारतीयां'च्यो गोमटच्योच कातरून उडयल्यो. आयज जे कोण आपणाक 'भारतीय' लेखतात ते सगळे 'सेक्युलर डेमोक्रेट' एक तर जा़ट, मराठा, ठाकूर आसतात वा हिन्दू, मुसलमान, क्रिस्तांव असले कोण आसतात. वेंचणुकांचे धोल वाजूं दी, जातींचीं आनी धर्मांचीं हीं सगळीं भुतां एकाच वांगडा कुदपाक लागतात.

असल्या ह्या वातावरणांत 'आमी सगळे भारतीय; हिन्दू मुसलमान न्हय, पंजाबी बंगाली न्हय, बामण सुदीर न्हय' हे तरेन 'बडबडपी' लोक एक तर खासा आपणाक फटयतात अशें म्हणूंक जाय वा दुसऱ्यांक तरी ते येवजून करून फटयतात जावंक जाय.

कितलो तेंप आमी एकामेकांक हे भाशेन फटयत रावतले?

आमच्या देशाचें खरेलें रूप कितें?

हो 'होमोजीनियस्' एकरुपी - देश न्हय. हो एक भौरुपी देस. हांगा अमकेच एके खंयचे मनीस-कुळयेचे लोक राविनात. संवसाराचे फाटीर जितल्योय मनीस कुळयो जियेतात, तितल्योय ह्या देशांत येवन रावल्यात. हो एक भौवंशी - मल्टिरेशियल - देस. धर्माचे नदरेन हांगा अमक्याच एका खंयच्या धर्माचे लोक राविनात. संवसारांत जितलेय धर्म घोळटिकेंत आसात तितल्याय धर्मांचे लोक ह्या देशांत येवन रावल्यात. हो एक भौधर्मी-मल्टिरिलिजियस देस. रवीन्द्रनाथांनी ह्या देशाक 'महामानवांचो सागर' म्हळ्ळो. *'केह नाहि जाने, कार आहवाने, कत*

*मानुषेर धारा/दुर्वार स्त्रोते एलो कोथा हत्ते, समुद्र हलो हारा'* - कोणाचो उलो आयकून कोण जाणा, ह्या देशांत इतिहासाच्या आरंभा पसून सगळ्या तरांचे वेगळ्या वेगळ्या वंशांचे, धर्माचे, चाली-रितींचे, परंपरांचे- वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी लोक येत रावले, इतलेंच न्हय, तर येवन हांगा सदां सर्वकाळ रावपा खातीर थिरूय जाले. तांचे मजगतीं सुरवातेक झगडीं-झुजां जाल्यांत जावंक जाय, एकामेकांच्या जिवार उठून एकामेकांक ना करपाकूय ते वावुरल्यात जावंक जाय. संघर्षाच्यो जितल्योय तरा आसूं येतात तितल्योय तांणी अजमावन पळेल्ल्यो आसूंक जाय. निमाणें, झगडीं-झुजां करून प्रस्नं सुटना म्हणपाचें खोलायेन अणभवले उपरांतूच तांणी थारायल्लें आसूंक जाय - ह्या देशांत जे जे कोण येवन रावल्यात तांणी आपापणालें रगताचें, कातीचें, धर्माचें, भाशेचें खंयचेंच आगळे-वेगळेपण सोडपाची गरज ना. देश सगळ्यांचो, सगळ्यांक ह्या देशांत रावपाक जियेवपाक सुवात आसा. कोणेंच कोणाच्या आगळे-वेगळेपणाक बादा येवंक दिनासतना सगळ्यांनी एकामेकां शेजरा रावचें; कोणेंच कोणाचे स्वतंत्रतायेक आडखळ हाडी नासतना एकामेकांक आपणा वरीच लेखचें, आपणावरीच मानचें.

आनी ते एकामेकांक हुसक्या मेकळे करून एकामेकां शेजरा रावपाक लागले.

परिणामीं, एक आगळी-वेगळी संस्कृताय तांणी ह्या देशांत जल्माक घाली - जी फाटल्या पांच हजार वर्सां सावन अक्षुण्ण रुपान चलत आयल्या. तिचे आदल्यो, तिचे बरोबरच्यो, तिचे उपरांतच्यो कितल्योश्यो संस्कृतायो संवसारांत आयल्यो आनी गेल्यो. आमची संस्कृताय अजून मेरेन तिगून उरल्या. इतलेंच न्हय, तर दिशीं दिशीं गिरेस्तूय जायत रावल्या.

वेगळेपणान भरिल्ली एक संस्कृताय ही. इतलेंय आसून एकपणाच्या सुतांत आपणाक गुथून दवरिल्ली एक संस्कृताय. दैत्य, राक्षस, किरात, यक्ष, गंधर्व, किन्नर, द्रवीड, आर्य, शक, हूण, यवन सगळ्यांनी मेळून घडयल्ली एक संस्कृताय ही. इतलेंय आसून हांचे मजगतच्या कोणाच्याच प्रभावांत रावंक नाशिल्ली एक संस्कृताय. आपणाली सगळीं दारां जनेलां उकतीं दवरून संवसारांतलें सगळें वारें आपणा भोंवतणी मेकळेपणान व्हांवंक दिवपी एक संस्कृताय ही. इतलेंय आसून खंयच्याच वाऱ्या पसून आपणाक खोल करून घेनासतना थीर राविल्ली एक संस्कृताय. आयजूय ती नवें नवें किते घेत रावल्या आनी तरी आसतना मुदलांत आशिल्ली तशीच उरल्या - तीच उरल्या. एक आसुनूय भौवंशी, भौधर्मी, भौभाशीक

संस्कृताय उरल्या.

आमचे संस्कृतायेचे हे साधनेचें गुपीत आमच्या लक्षांत आयलेंना जाल्यार आमच्या वैशिष्ट्यांक आमी आमचीं वैगुण्यां मानपाक लागतले. आमचीं दुबळीं आंगां खंयचीं आनी घट खंयचीं तें आमकां कळपाचें ना. आनी आमकां हें सारकें कळ्ळें समजलें ना जाल्यार आमच्या काळाक अनुकूळ अशें 'भारतीयत्वू'य आमी केन्ना निर्माण करूंक पावपाचे नात.

एक खरें : आयज मेरेन आमी एकठांय रावले. पुणून एकामेकांक फाट करून रावले. गणिताचे भाशेंत सांगचें जाल्यार आमचो एकामेकां कडलो आंकडो छत्तिसाचो आशिल्लो. 'भारतीयत्व' जल्माक घालचें आसल्यार हो आंकडो आता त्रेसस्टांचो करूंक येवंक जाय. एकामेकांक फुडो करून आतां आमी जियेवंक लागूंक जाय.

पुणून ते पयलीं कांय गजाली स्पस्ट जावंक जाय -

मुसलमानाक भारतीय जावपा खातीर तागेलें मुसलमानपण सोडून दिवपाची गरज आसा व्हय? आसूंक जायना. मुसलमान रावनूच ताका भारतीय जावंक येवंक जाय. जें भारतीयत्व मुसलमानाचें मुसलमानपण ना जावंक जाय म्हणटा वा किस्तांवाचें क्रिस्तांवपण ना करुंया म्हणटा, तें खरें भारतीयत्व न्हय, लटकें म्हणूंक जाय.

होच नेम हिन्दूंकूय लागू जाता. हिन्दू आसुनूय मनशाक भारतीय जावंक येवंक जाय.

आमच्या देशांत मनीस जल्माक येतनाच तो खंयच्या तरी धर्म संप्रदायांत, खंयच्या तरी भास-परिवारांत, खंयच्या तरी वाटारांत आनी जाय जाल्यार जोडुंया, खंयचे तरी जातींत - जल्माक येता. आयचे भाशेंत ह्या गजालींक मनशाचीं पाळां-मुळां (रुटस्) ह्या नांवान लोक वळखतात. आमचीं वैशिष्ट्यां हीं. आमचें व्यक्तित्व घडोवपी तत्वां हीं. भारतीय जावपाक आमचीं हीं आंगा. हीं वैशिष्ट्यां ना जावपाची इल्लीय गरज ना. फुडाऱ्यांचीं एक दोन 'लॅक्चरां' आयकून गळून पडपा इतलीं तीं तकलादू न्हय. खोल रिगिल्लीं तत्वां हीं. हांव जात मानिना, धर्म मानिना, प्रांत मानिना अशें उलोवपाची चाल - फॅशन कांय कडेन हालिंसाराक सुरू जाल्या तिका कांयच अर्थ ना. बडबडूच तिवूय बी एक. हांव अमको न्हय, तमको न्हय. हे तरेची न्हयकारी भास उलोवपाची ह्या देशांत इल्लीय गरज ना. उरफाटें, मनशाक म्हणूंक

येवंक जाय : हांव जल्मान हिन्दू देखून हांव हिन्दूंचा, हिन्दू म्हजे, हातूंत दुबावूच ना. पुणून हांव आयज फकत हिन्दूंचो उरूंक ना. हांव मुसलमानांचो, क्रिस्तांवांचोय जालां. मनशाक हिन्दू रावनूय सर्वधर्मी जावपाक येवंक जाय. हांव हिन्दू तसो क्रिस्तांव आनी मुसलमानूय बी अशें खासा ताकाच मना पसून दिसूंक जाय. तसो, हांव बामण (वा खारवी) आसलों आनी बामण (वा खारवी) म्हजे आसले तरूय हांव आयज फकत बामणांचो (वा खारव्यांचो) उरूंक ना, सगळ्यांचो जालां, अशें ताका म्हणूंक येवंक जाय. ताका मना पसून तशें दिसूंक जाय. म्हळ्यार, आपणाले जातीचो आसुनूय मनशाक सर्व जातीय जावंक येवंक जाय.

भारतीय जावपाक जल्मान मेळिल्लें खंयचेंच वैशिष्ट्य सोडपाची गरज मनशाक भासूंक जायना. जें भारतीयत्व उपकारा पडपाचें न्हय, तें हे भारत-भुयेंत केन्नाच मूळ धरूंक पावपाचें ना.

पुणून तेच बरोबर मनशाक ताचे जातीचो वा धर्माचो रासवळ मळार - चड करून, राजकर्णांत - लाव घेवंक मेळूंक जायना. जात आनी धर्म मनशाक राजकर्णांत म्हारग पडटा अशें जावंक जाय. दुसऱ्या उतरांनी : आयचे लोकशायेक दुसरो एक पर्याय लोकशायेचोच - आमी सोदून काडूंक जाय. जे मेरेन हो पर्याय आमी सोदून काडचे नात ते मेरेन -

मुसलमानांचें बरें भलें मुसलमानांच्याच हातांत आसा; मुसलमान जर गफलतींत उरले जाल्यार हिन्दू आमकां खावन उडयतले, अशें मुसलमानांक दिसत रावतलें आनी ते मुसलमान म्हूण एका सारके संघटीत जायत रावतले. मुसलमानांक आमी बाबा-पुता केले जाल्यार ते आमच्या माथ्यार बसतले आनी आरे आरे म्हणटासर अखखो देस मुसलमानी करून उडयतले, हे तरेचो भंय हिन्दूंक दिसत रावतलो आनी हिन्दू आपणाल्या बऱ्या भल्या खातीर संघटीत जावपाक नाका नाका जाल्ले उपद्व्याप करीत रावतले. बहुजन समाज न्हिदून रावलो जाल्यार बामण एक जातले आनी पळेतां पळेतां आमचेर आपणालो आदले वरी शेक चलोवपाक लागतले, हे तरेचो भंय बहुजनसमाजाक दिसतलो आनी तो बहुजनसमाजाक बामणां आड हड्ड्याचें कोट करून उबो रावपाक मुखार काडटलो. आनी बहुजनसमाजाच्या हातांत सगळी सत्या गेली जाल्यार बामण उबंत पडटले, ना नपश्यात जावन वतले, ही भंयाची तरसाद बामणांच्या माथ्यार हुमकळत रावतली आनी ती सट्ट करून तकलेर कोंसळून पडत ह्या भंयान ते आपणाली संघटना घट करीत रावतले.

तुर्ताक देशांत हे तरेचें वातावरण आसा. हें कोणाच्यान न्हयकारूंक जायत व्हय? हे तरेचें वातावरण जे मेरेन देशांत आसतलें ते मेरेन 'आमी सगळे भारतीय, हिन्दू-मुसलमान-क्रिस्तांव हे तरेचे वेगळेचार आमी मानूंक फावनात; पंजाबी, बंगाली, महाराष्ट्रीय, केरळी वा ब्राह्मण, क्षत्रीय, वैश्य, शुद्र ह्या रुपान आमी एकामेकां कडेन पळोवंक जायना' ही उदात्त शिकवण फकत एक 'बडबड' म्हण देशांत चलत रावतली. पंदरा ऑगस्टाक वा सव्वीस जानेवारीक लॅक्चरां दिवपाक ती घडये उपकरतली. पुणून, 'भारतीय मनीस' निर्माण करूंक मात ती केन्नाच पावपाची ना.

आमी एकामेकांक फटयत आयल्यात. कितलो तेंप हे भाशेन फटयत रावतले?

■

# १०.

# आतांची सांधना - कांय पथां

## १. मनीसघाणो हिन्दू

मनशाक आपणालें रूप हारशांत पळोवंक मेळटा. तो जसो आसता तसोच तो हारशांत दिश्टी पडटा. पुणून लोक मनशाक वळखतात ते तागेल्या ह्या रुपा वयल्यान न्हय. हें मनशाचें भायलें रूप. ह्या रुपा भायर तागेलें आनीक एक रूप आसा - जें तागेल्या सभावांतल्यान उकतें जालां.

हें रूप ताणें खंयच्या हारशांत पळोवपाचें?

बुद्ध तागेल्या हातांत एक हारसो दवरतालो आनी म्हणटालो, 'तूं केन्ना हांसता, केन्ना रडटा; केन्ना भुल्लुसून वता, केन्ना निर्शेता; तिडकीन केन्ना आनी कित्याक उसळटा आनी दुस्वासान केन्ना भितरले भितर हुलपता, तें तुजे तूंच नियाळून पळे. तिरायत तुका पळेतलो आशिल्लो तसो पळे. म्हणटकूच तुका तुज्या भितल्ल्या रुपाचो थोडो भोव अदमास येतलो.'

ही वाट बऱ्यांतली बरी खरी. पुणून ती सोंपी मात निखालूस न्हय. कठिणांतली कठीण. म्हाका कोणाचीय तिडक मारता तेन्ना ते तिडकी कडेन हांव इतलो एकरूप जाता की हांव तिडकलां म्हणपाचेंय भान म्हाका उरना. हांव कित्याक तिडकलों, खंय दुखावलों, हें तिडकींत आसतां त्या वेळार म्हाका समजना. तिडक न्हिवले उपरांत तें लक्षांत येता आनी एक तर 'हांवें तिडकूंक जायनाशिल्लें' अशें दिसता वो 'तिडकूंक नाशिल्लों जाल्यार म्हज्यांत सत्व ना अशें म्हजे म्हाकाच दिसतलें आशिल्लें' अशें दिसता.

तिडक, ओड, दुस्वास, मत्सर मनशाक तटस्थपणान आपणा कडेन पळोवंकूच दिनात. आपणाक तटस्थपणान नियाळून पळोवपाक मन जागरूक आसूंक जाय. पुणून मन इतलें जागरूक उरना.

अश्या वेळार तोंडांतल्यान उतरां फुट्टात -

Will some Power the gift give us

To see ourselves as others see us.

दुसऱ्याक आमी कशे दिसतात तें कळूंक जाय आमकां.

दुसरे म्हळ्यार, अंदुखेपणान आमचेर जळटात तेच न्हय तर आमचे बरें मागते, आमचे जिवाभावाचे इश्टूय आमचे संबंदान तोंडार न्हय, तर अस्वडीं जें उलयतात तें आमकां कळूंक जाय, म्हणटकूच तांचे तकलेंत आमची कसले तरेची प्रतिमा उबी जाल्या तिचो अदमास आमकां येतलो.

आनी आमच्यांतले जे अवगूण आमकां दिश्टी पडनात ते स्पस्ट बरे दिश्टी पडटले.

अवगुणांचें एक मतींत धरपाचें : ते काडून उडोवपाचो यत्न केन्ना केन्ना उरफाटो परिणाम घडोवन हाडटा. अवगूण घट जातात. अवगुणांक नागडे उगडे करूंक जाय आनी त्या रुपांतूच तांचे कडेन पळोवंक जाय. फकत पळोवंक जाय. म्हणटकूच, ते लजतात आनी उपरांत आपशींच गळून पडटात.

अवगूण गळून पडूंक जाय.

ते खातीर अंतर जागरूक दवरूंक जाय.

'गुरुचरित्र' वाचूंक नाशिल्लें. एक दीसन्वाचपाक घेतलें. वाचून म्हाका धसको बसलो. इतलेंच न्हय, ओंकूंक आयलें. म्हळें, शी. ह्या पुस्तकाचीं लोक पारायणां कशे करतात काय, देवा? अंधश्रद्धेक पोसवण दिवपी इतल्यो पिसायो ज्या पुस्तकांत भरल्यात ताका 'धार्मिक' पुस्तक कशें म्हणचें? ह्या पुस्तकाचें आमी इंग्रजींत भाशांतर केलें आनी तें हिन्दू धर्माची ओड लागिल्ल्या येवरोप-अमेरिकेंतल्या लोकांच्या हातांत दिलें जाल्यार, ते कसलो समज करून घेतले हिन्दू धर्मा संबंदान? स्वामी विवेकानन्दान ज्या धर्माची व्हडवीक हांगा येवन गायिल्ली, तो धर्म हो? शी. हाचे परस रानवटी लोकांचो धर्म बरो, अशें म्हणचे नात ते?

हांवें 'गुरुचरित्र हुलपावन उडोवंक जाय' अशें मत मांडून एक लेख बरयलो.

हो लेख वाचून एकल्यान वर्तमानपत्राक एक चीट धाडली. हे चिटींत तो म्हणटा, 'हिन्दू समाज४ उदार. तो कोणाक काय करिना. गुरुचरित्र हुलपावन उडोवंक जाय म्हणपी रवीन्द्र केळेकार, धरुंया, हिन्दुस्तानांत खंयूय गेलो जाल्यार, तो अशें कितें बरयता म्हूण ताका कोण कितेंच करपाचो ना. कोण ताचेर हात उबारपाचो ना.'

खरें सांगतां, चीट वाचून काळजांत धस्स जालें. म्हळें, 'हो मनीस कोणाक कितें सुचयता काय, देवा? वोगी रावन कितें पळेतात? फुलयात ताचेर, हाडात ताका जाग्यार' हे तरेची सुचोवणी ना मू हे चिटींत, भोळ्या भावार्त्या हिन्दूंक? हिन्दू नेतृत्वाचें कांय सांगू नज. पिस्तोला बगर स्वातंत्र्य मेळपाचें ना अशें आयुश्यभर सांगीत रावप आनी निमाणें पिस्तोला बगर स्वातंत्र्य हाडून दिवपी गांधींचेरूच तें झाडप, हे तरेचें नेतृत्व हिन्दू समाजूच दिवंक पावला ह्या देशाक.

तकलेंत हो दुबाव येनाफुडें - फट कित्याक सांगू - हांव भियेलों. हांव म्हजे म्हाकाच समजावपाक लागलों, गुरुचरित्राचें मोल कितें तें तुका कळ्ळें तितलें पुरो. तें दुसऱ्यांक सांगपाचो धंदो कोणें सांगला तुका? लोक सदां अंधश्रद्धेंत जियेत आयला. अंधश्रद्धेंत जियेले बगर ताका जियेल्ले वरी दिसना. मारूं दी फोल्ग ताका अंधश्रद्धेंत. ताका अंधश्रद्धेंतल्यान सोडोवपाचो धंदो तुका रे कोणें सांगला? '*तू तो राम सुमर, जग मरवा दे.* 'तूं तुगेलें पळे. गुरुचरित्रांत पिसायो भरल्यात म्हूण तें तूं वाचचो ना जाल्यार नाका वाचूं. तूं आपणालो उद्धार करून घे. दुसऱ्यांचो उद्धार करपाचे भानगडींत पडूं नाका. आंगलट येतलें. तूं गांधीवादी आसशीत, घडये नासशीत. पुणून तूं गांधी न्हय, हे विशीं तरी दुबाव ना मू? तत्वा खातीर मरप-बिरप गांधींक सोबता. तुका न्हय. सुसेगाद बरो राव. जे युगांचीं युगां अंधश्रद्धेंतल्यान पोसवण घेत आयल्यात ते अनंत काळा मेरेन तशेच रावले जाल्यार, तुजें कितें सरता? करूं दी तांकां गुरुचरित्राचे सप्ताह. मेळूं दी तांकां समाधान मेळटा जाल्यार. गुरुचरित्रांत अध्यात्म आसूं वा नासूं, स्वर्गांतली तांगेली सुवात आरक्षित (रिझर्वड्) करून दवरपाची माण्णी कशी करची हें तरी ताणें दाखयलांच न्हय? सहगमनाचें म्हत्व तांगेले बायलेक पटयतकूच जालें. स्वर्गांतली तांगेली सुवातूय सुगूर. हांगासर चोरी, फटींगपणां, व्यभिचार करपाकूय ते मेकळे. तांच्या सुखा आड तूं कित्याक वता?

भंयाच्या ह्या धसक्यांतल्यान हांवें म्हाका सांवरून धरलो तेन्ना दिसलें, हिन्दू धर्म उदार, तो सगळ्यांक आपणा भितर आसपावन घेता, कोणाक भायर उडयना,

अशें खासा हांवूच म्हणटां. धर्म उदार. पुणून समाज उदार व्हय? मातशें तर्जून पळेल्लें बरें - आनीक कित्याक न्हय जाल्यार, खासा म्हज्या संतोशा खातीर.

म्हजी तकली कांय वर्सां फाटल्यान गेली.

एक जर्मन चली आमगेर येवन राविल्ली. आर्किटॅक्ट. हिन्दू देवळांच्या स्थापत्याचेर ती 'रिसर्च' करताली. मदुरायेंतलें मीनाक्षीचें देवूळ तिणें पळेल्लें. दक्षिणेंतलीं हेरूय जायतीं देवळां पळोवन आयिल्ली. पुरींतलें जगन्नाथाचें देवूळ पळेल्लें. उडिसा, राजस्थान, मध्य प्रदेश बी जायते कडेन भोंवन आयिल्ली. गोंयच्या देवळांचें स्थापत्य वेगळे तरेचें. हिन्दू ख्रिस्ती आनी मुसलमानी तिनूय शैलींचो सुरमेळ ह्या देवळांच्या स्थापत्यांत पळोवंक मेळटा, अशें कितें तरी तिणें आयकल्लें. दिल्लींतल्या एका इश्टाची चीट घेवन आयिल्ली आनी आमगेरूच राविल्ली.

एका एका देवळा कडेन वरांचीं वरां सारून तिणें मंगेश, शान्तादुर्गा आनी म्हाळशेच्या देवळांचीं कितल्याश्या 'एँगलां'तल्यान कितलींशीं चित्रां काडिल्लीं.

एक दीस जेवंक बशिल्ले कडेन तिणें म्हाका विचारलें, 'हिन्दू धर्म उदार म्हणटात तें खरें?'

'हय.' हांवें तिका जाप दिली आनी वेदांच्या काळा सावन आतां मेरेन हिन्दू धर्मान कसलीं कसलीं धर्म-मत्तां आपणांत आसपावन घेतल्यांत तें समजावन सांगलें.

'विवेकानन्द आनी राधाकृष्णन वाचून म्हजोय असोच समज जाल्लो.' तिणें म्हळें. 'आतां चार पांच म्हयने जाले, हांव हिन्दुस्तानांत भोंवतां. हिन्दू समाजा इतलो मनीस-घाणो समाज संवसारांत दुसरो ना ह्या निर्णयार हांव पावल्यां...'

'कित्याक लागून तुका अशें दिसलें?' हांवें तिका विचारलें. अस्पृश्यताये सारक्या आमच्या आफूड-भश्टाचेर ती बोट दवरतली अशें दिशिल्लें. पुणून तिणें दुसरीच एक गजाल सांगली. म्हणपाक लागली, 'तान लागल्या म्हूण कोणागेरूय वचून उदक मागलें जाल्यार, कोणूच पेल्यांत वा कोपांत उदक दिना. हातार रकयता आनी हाताचें कोप करून आमकां तें पियेवचें पडटा. हांव भायल्या देशांतली, 'म्लेंच्छ'. पुणून तुमी तुमच्या समाजांतल्या लोकांक लेगीत हेच भाशेन उदक पिवयतात. कांय कडेन तर लोक मान वयर करून कोपांतलें वा तांबयांतलें उदक ताळ्यांत रकयतात. हांव संवसारभर भोंवल्यां. पुणून असलो लोक म्हाका खंयच पळोवंक मेळूंक ना.'

'सगळे कडेन तुका हो अणभव येवचो ना.' हांवें म्हळें.

‘सगळेच कडेन आयला’ तिणें जाप दिली. ‘तुमगेर आयलो ना म्हूण कितें जालें? तुमचे सारकेले हिन्दू ह्या देशांत आसून आसून कितले आसतले? शंबरांत दोन, तीन. धरुंया, धा. शंबरांतल्या धा लोकां कडेन पळोवन हिन्दू समाजाची पारख करपाची, काय उरिल्ल्या णव्वदां कडेन पळोवन करपाची? विवेकानन्द, राधाकृष्णन, गांधी हांचो हिन्दू धर्म हिन्दुस्तानांत खंयच पळोवंक मेळना...’

आनी तिणें एक थोमणो मारलो. म्हणपाक लागली, ‘हाचे हातचें खावचें न्हय, ताचे हातचें पियेवचें न्हय, हे विशीं तुमी खूब जतनाय घेतात. कोणाचेय हातचें खावन धर्म बुडत म्हूण तुमी भियेतात. पुणून व्यभिचार करचो जाल्यार तुमकां जात कात कांयच लागना. आंगलोटूच पुरो जाता. खंयचेय जातीची आसूं मागीर बायल. तिचे कडेन व्यभिचार करतना तुमचो धर्म आडवो येना. हिन्दूं सारके दांभीक दुसरे आसचे नात.’

ती बरीच तिडिल्ली आनी तिका दिवपा सारकी जाप म्हजे कडेन नाशिल्ली.

हिन्दू समाजांत एका परस एक व्हड ऋषी जावन गेल्यात. खंयचेय संस्कृतायेक अभिमान दिसचो येदे व्हड लोक हे. भोंवतणच्या संवसारा कडेन पळोवन ‘हें सगळें कितें’ ह्या प्रस्नाचो सोद घेवपाक ते बसले आनी एके वाटेन ब्रह्मांडांत भोंवन परमात्म्या मेरेन पावले तर दुसरे वाटेन काळजाचे खोलायेंत देंवत देंवत आत्म्या सरीं वचून बसले. आनी निमाणें आत्मो परमात्म्याचोच अंश ह्या निर्णयार पावले. कितले खोलायेंत ते देंविल्ले हाचो अदमास घेवंचो आसत जाल्यार उपनिषदां पळोवचीं. हिमालया सारको पर्वत ना, तशें उपनिषदां सारकें पुस्तक ना, ह्या निर्णयार आमी पावतले. **अहम् ब्रह्मास्मि** (हांव ब्रह्म), **तत् त्वम् असि** (तूंय तेंच ब्रह्म) हे तरेचीं महावाक्यां असल्यांच्याच तोंडांतल्यान भायर सरपाचीं. ‘खातरी पटिल्ल्या’ लोकांच्या तोंडांतलीं अणभव-वाक्यां हीं. उपनिषदांचे ऋषी इतलेंच सांगून थांबूक नात. ईश्वर आसा, हांव जाणां, हांवें ताका पळेला, अणभवला, **वेदाहम् येतम् पुरूषम् महान्तम्** अशें आत्मविस्वासानूय ते सांगूंक पावल्यात. अणभवा बगर कोणाच्याच तोंडांतल्यान असलीं आत्मविस्वासान भरिल्लीं उतरां फुटपाचीं नात.

पुणून जाणें कोणाक केन्ना श्राप दिलो ना असलो एक तरी ऋषी आमकां ह्या पुण्यभू भारताच्या धा हजार वर्सांच्या इतिहासांत पळोवंक मेळत व्हय? मना आड

मातशें कितें घडूं दी, ऋषी चरचरीत श्राप दिवन मेकळे जाल्यात. हिन्दूंच्या पुराणांतले सगळेच ऋषी श्राप दिवपाक सगळ्यांत मुखार दिश्टी पडटात. ऋषी म्हळो म्हणटकूच ताणें श्राप दिवंकूच जाय, जाका श्राप दिवंक येना तो ऋषीच न्हय हे तरेचें श्रापाचें आनी ऋषींचें साहचर्य आमकां हिन्दूंच्या पुराणांनी पळोवंक मेळटा. चरचरीत श्राप दिवपी ऋषी म्हूण बाबड्या दुर्वासाचीच बदनामी जाल्या. खरेपणानशीं, पुराणांतल्या सगळ्या ऋषी भितर दुर्वासाचो अंश थोड्या भोव प्रमाणांत दिश्टी पडटा.

ऋषी श्राप दिताले आनी मागीर पश्चाताप जातकूच 'हांव कितें करूं? श्राप तोंडांतल्यान भायर सरलो. म्हज्या तोंडांतल्यान आयजवेर केन्नाच फट उतर भायर सरूंक ना. म्हणटकूच हो श्रापूय फट जावपाचो ना.' अशें श्रापाचें समर्थनूय करताले. हांकां 'उदार' कशे म्हणूं येत? हिन्दू धर्म उदार. पुणून हिन्दू समाज? ताका उदार कसोच म्हणूंक येवपाचो ना.

महाभारतांतलो एक प्रसंग -

कुरूक्षेत्रा वयलें झूज सोंपलां. युधिष्ठिराच्या राज्याभिषेकाची तयारी सुरू जाल्या. येदें व्हडलें झूज करून आपणें राज्य जोडलें खरें. पुणून अखेरेक पदरांत कितें पडलें, ह्या एका प्रस्नान युधिष्ठिर बेजार जाला. ताका न्हीद पडना, उंडी वचना. 'हाका जैत म्हणपाचें, जाल्यार मागीर हार कित्याक म्हणपाची?' हो प्रस्न ताचे मुखार आसा आनी ताची ताका जाप मेळना. म्हाका राज्य नाका, म्हाका राज्याभिषेक नाकाच नाका अशें तो एकासारको सांगीत रावला. सगळेच ताका समजायतात. श्रीकृष्णाक तर ताका समजायतासर नाकापुरो जाता, निमाणें महर्षी व्यास मदीं पडटा आनी युधिष्ठिर आवाशिवा करून राज्याभिषेक करून घेवपाक तयार जाता.

राज्याभिषेकाची तयारी चलिल्ली आसतना ब्राह्मणांच्या चोम्यांत बशिल्लो एक संन्याशी मदींच उठून उबो रावता. आंगार भगवीं वस्त्रां, गळ्यांत रुद्राक्षांची माळ, आनी हातांत त्रिदंड ह्या रुपांत तो उबो रावता आनी युधिष्ठिराक म्हणटा, 'युधिष्ठिरा, हांगा जमिल्ल्या ह्या ब्राह्मणांच्या मनांत जें कितें घोळटा तें तुजे मुखार दवरलें ना जाल्यार आमी आमकांच फटयतात अशें जातलें. देखून भीड मुर्वत सगळी कुशीक दवरून हांव तें मेक्रळेपणान तुजे मुखार दवरतां. तुका हें राज्य मेळ्ळां तें तुवें तुज्या खासा भावांक मारून घेतलां. भावांकूच न्हय, तर तुवें तुज्या सगळ्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक मारून तें जोडलां. तुवें तुज्या म्हालगड्यांक आनी

गुरूक मारून तें घेतलां. आमचे नदरेन तूं खुनी, आत्मघातकी. तुका राज्याभिषेक फावना. राजा म्हणोवन घेवपाक तुका कसलोच अधिकार ना. आमी हांगा जे बसल्यात तांचें सगळ्यांचें मत्त हें.'

युधिष्ठिराक जें काळजाचे खोलायेंत दिसतालें तेंच ह्या संन्याश्याच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें. युधिष्ठिर मुदलांतूच खंती आशिल्लो. तातूंत संन्याशाचीं हीं उतरां आयकून तो अदिकूच खंती जालो. म्हणपाक लागलो, 'म्हज्या काळजांत भितर कितें चल्लां तें हांवूच जाणां. म्हजे सारकेल्या दु:खी मनशाक तुवें आनी आनीक दुखोवंक जायनाशिल्लो.'

युधिष्ठिराच्या तोंडांतल्यान हीं उतरां भायर सरनाफुडें सगळे ब्राह्मण उठून उबे रावतात आनी म्हणटात, 'ह्या संन्याश्यान जें कितें सांगलां तें तागेलें मत्त आसत, आमगेलें मत्त न्हय तें. आमच्या मत्तान तुवें एक धर्मयुद्‌ध करून राज्य जोडलां. राजा जावपाचो अधिकार तुका आसाच.'

महाभारत मुखार म्हणटा, युधिष्ठिराक इतलें सांगून ब्राह्मणांनी त्या संन्याश्याक बारीक नदरेन नियाळून पळेलो आनी ते ताका वळखले, 'आरेच्या! हो चार्वाक, संन्याश्याचीं वस्त्रां न्हेसून आमचे मजगतीं येवन लिपचोरयां बसला. हो ब्रह्मराक्षस. दुर्योधनालो इश्ट. युधिष्ठिराक अपशकून करपा खातीर हांगा आयला.'

ब्राह्मणांक ताची तिडक मारली. तिडकीनूच ते ताचे कडेन पळोवपाक लागले. आनी, जावपाचें तेंच जालें. चार्वाक थंयचे थंय हुलपून मेलो.

महाभारतांतलो हो प्रसंग कितें दाखोवन दिता? महाभारताच्या काळांतले ब्राह्मण विरोधी मत्तांच्या लोकांक जिते हुलपावन मारताले हेंच मू? आयातुल्ला खोमेनी फकत इराणांत न्हय, हांगाय जावन गेल्यात. अजुनूय आसात.

आमचें हें असहिष्णू रूप आमकां केन्ना दिश्टी पडलां व्हय?

हिन्दू समाज उदार म्हणटात तें खरें न्हय. पुराणकाळांतूय तो असहिष्णू आशिल्लो. आयजूय आसा. आनी हालिंच्या काळार तर जो झुजारी हिन्दुत्ववाद जल्मा आयला ताणें हिन्दू समाजाक असहिष्णुतेचीच पोसवण दिवपाचें काम सगळ्यांत चड केलां.

गांधींची हत्या कशी जाली?

कांय जाण विचारतात, 'कितलो तेंप तुमी गांधींची हत्या झरयत बसतले?' 'संवसाराच्या अंता मेरेन.' ही एकूच जाप म्हजे कडेन आसा. 'एका संताची हत्या

करपाच्या उणाक पांवड्यार हिन्दू समाज केन्नाच देवूंक नाशिल्लो. तुमीच ताका देंवयला.'

असहिष्णुपणाक संस्कारितेचें लक्षण म्हणूं नज. संस्कारी मनीस सदांच मनान उदार आसता. दुसऱ्याचीं मत्तां ताका पटलीं नात जाल्यारूय तीं दामून दवरपाचो यत्न तो केन्ना करचो ना. 'म्हाका तुजीं मत्तां पटनात; पुणून तीं लोकां मुखार मांडपाचो तुका अधिकार आसा' इतलेंच म्हणून तो वोगी बसचो ना. 'तुजीं मत्तां मांडपाक तुका कोणें आडायलो जाल्यार ताचे आड हांव प्राणपणान झुजतलों...तुज्या विचार स्वातंत्र्याक हांव आडखळ हाडपाचों ना, दुसऱ्यांकूय हाडूंक दिवपाचों ना' अशें म्हणटलो.

हिन्दू समाज इतलो उदार केन्ना आशिल्लो व्हय?

देशा भायर खंयच वचप ना अशें आमगेल्या म्हालगड्यांनी एक दीस थारायलें. धर्म बुडटलो हो भंय तांकां आशिल्लो. कितें खावचें, कितें न्हय; कोणाच्या हातचें खावचें, कोणाच्या न्हय, कोणाक आफुडचें, कोणाक आफडूंक दिवचें न्हय; चलयो कोणाक दिवच्यो, कोणाक न्हय, हे तरेच्या आफूड-भश्टाच्या कोटांत तांणी आपणाक बंदिस्त करून दवरले. भायर कितें चल्लां, तांकां केन्नाच सारकें कळ्ळें ना. आहार-शुद्धी पसून बीज-शुद्धी मेरेनच्या साम्राज्यांत ते घुसपून उरले.

पुणून भायल्यान येतल्या लोकांक मात ते आडावंक पावले नात. आडावपाचें तांकां येवजलेंय ना. परिणाम : आमी भायर पावले नात तरूय भायले लोक हांगा येत रावले. ते कित्या खातीर येतात, हेंय आमी पळेलें ना. हांच्यातले कांय जाण व्यापारा खातीर हांगा येत रावले. हांगासल्लो माल घे, आपणाल्या देशांत व्हर, आपणाल्या देशांतलो माल हाड, हांगासल्ल्या लोकांक वीक. हे भाशेन ते आमच्या देशाचे संपत्तींत थोडी-भोव भर घालपाक लागले. देखून तांकां आमी येवंक दिले. करतां करतां ते हांगा राज्य करपाक लागले. आमी गफलतींत जियेत आयिल्ले, गफलतींतूच उरले. एक दीस हांच्यातल्या इंग्रजान पुराय देश आपणाल्या हातांत घेतलो. राज्य हातांत घेतकूच हांगासल्ले ल्हान-व्हड उद्योग मोडून उडोवपाचो धंदो ताणें सुरू केला. मागीर एक दीस आरे आरे म्हणटासर आमचो गुरू जावन बसलो.

हे जे भायल्यान हांगा आयिल्ले तांच्यांतल्या कांय जाणांनी आमचे संबंदान

खूब कितें बरोवन दवरलां. सगळें वाचपा सारकें. सगळ्यांनी आमच्या चाली-रितींचें, आमच्या धर्म-विचारांचें, व्रत-उत्सवांचें बारीकसाणेन वर्णन केलां. मार्को पोलो, फाहियान, ह्युएनत्सांग, इब्न बतूता, अल्बेरूनी हांणी बरोवन दवरिल्लीं आमच्या देशाचीं वर्णनां आमी एक फावट वाचून काडूंक जाय. म्हणटकूच, दुसऱ्यांक आमी कशे दिसताले हाचो थोडो भोव अदमास आमकां येतलो. ते मुस्तींत आमचें रूप कितें आशिल्लें, आयज तें बदल्लां काय तशेंच उरलां, हाचोय हिशेब लावंक मेळटलो. वांगडाच, आमचे कडेन पळोवपी ह्या लोकांची नदर कशी कितें आशिल्ली तेंवूय लक्षांत येतलें.

आमचे कांय अवगूण आमचे नदरेंत भरनात. आमकां तांची इतली संवकळ जाल्ली आसता की दुसऱ्यान कोणें सांगले बगर ते अवगूण म्हणपाचें आमच्या लक्षांत येना. निवळसाणेच्या मळार आमकां लागपी लोक नात. सद्दां न्हातले. दिसांतल्यान तीन खेपो न्हातले. रांदचे कुडींतलीं आयदनां घांसून घांसून निवळ करून दवरतले. पुणून, जाती-वेवस्थेंत आपणाक सगळ्यांत ऊंच मानपी ब्राह्मणूच जंय निवळ वालो वा पुडवें न्हेसतलो म्हणपाचें खरेपण ना थंय हेर जातींतल्या लोकांचें खरेपण कोण दितलो? निवळसाणेंतलें एक आंग म्हूण आमी समाजांत आफूड-भश्ट मान्य केलां. खावपा-पियेवपाच्या मळारूच आमी तें मानतात अशें न्हय, आमचीं घरां खंय आसचीं, खंय आसचीं न्हय, ह्याय मळार आमी तें मानीत आयल्यात. ब्राह्मणांच्या वाड्यार शुद्राक घर बांदूक मेळचें ना आनी शुद्रांच्या वाड्यार ब्राह्मण केन्ना घर बांदचो ना. ब्राह्मणांचो वाडो वेगळो, वाणयांचो वेगळो, शुद्रांचो वेगळो. आनी अस्पृश्यांचो? गांवा भायर.

शुची-अशुचीच्या इतल्या आग्रही हिन्दूंनी गांवचे रस्ते केन्ना निवळ दवरल्यात व्हय? घरांत सान्न मारतले आनी कोयर हाडून सगळो घरा मुखार रस्त्यार उडयतले. परसाकडें खंयूय वतले. आनी धरुंया, पायखिळे बांदून दिले जाल्यार थंय घाणीची रास करून दवरतले. देशाच्या स्वातंत्र्या खातीर आपणाल्या जिविताचो खिणान खीण खर्चुपी महात्मा गांधींची अर्दी-अदीक जीण देशांतल्या लोकांक परसाकडें खंय आनी कशें बसचें हें शिकोवपांत खर्चल्या. हाचे वयल्यान आमी कितले 'सनातनी' तें आमकां कळटलें. आयज लेगीत ह्या मळार देश व्हडलोसो सुधारूंक ना. मार्को पोलो आनी फाहियानाचे मुस्तींत तो कसो कितें आशिल्लो जावंये, हाचो अदमासूच केल्लो बरो.

लोक स्वच्छ, पुणून देश? घाणींत पडिल्लो. ही आमची छाप संवसारभरच्या लोकांचेर पडल्या. आमकां केन्नाच आमचे हे दोश दिश्टी पडूंक नात.

इकराव्या शतमानात महम्मद गझनीचे मुस्तींत अल्बेरूनी नांवाचो एक अरबी विद्वान ह्या देशांत आयिल्लो. ताची खबर हांव भौन भौन सांगीत आयलां. ताणें 'किताब उल हिन्द' नांवाचें एक पुस्तक बरयलां. हिन्दू खंयच्या रुपान ईश्वराक वळखतात, धर्माच्या नांवान ते कितें कितें मानतात, तांगेलो समाज खंयच्या तत्वांचेर निंबून उबो जाला असल्या विशयांचेर खूब प्रकरणां ह्या पुस्तकांत आयल्यांत. आयच्या हिन्दुत्ववाद्यांनी मुजरत वाचपा सारकें पुस्तक हें. तो म्हणटा -

'हांवें हें पुस्तक हिन्दूंचीं उणीं दाखोवपा खातीर बरोवंक ना. म्हाका कोणा कडेन कसलोच वाद घालपाचो ना. हिन्दूंक समजून घेवपाचो हांवें प्रामाणीक यत्न केला. जें कितें हांव समजलां, जें कितें हांवें पळेलां तेंच दाखय लिपय करी नासतना वाचप्या मुखार हांव दवरूंक सोदतां...'

तो मुखार म्हणटा -

'हिन्दूंची संस्कृताय आमचे (इस्लामी) संस्कृताये परस साप वेगळी. आमच्या देशाची हेर देशां कडेन तुळा केल्यार कितलेशेच कडेन सारक्यो गजाली दिश्टी पडटल्यो. पुणून ह्या लोकां कडेन तुळा केल्यार संस्कृतायेच्या मळार आमी वेगळे आनी ते वेगळे - साप्प वेगळे - म्हणपाचें दिसून येतलें...'

तरी आसतना अल्बेरूनी हिन्दू लोकांक समजून घेवपाचो यत्न करता. तो संस्कृत शिकता. 'संस्कृत शिकप सोंपी गजाल न्हय. हे भाशेची उतरांची कोठी आकांताची. एकेच गजाली खातीर हे भाशेंत कितलींशीं उतरां मेळटलीं. केन्ना केन्ना कितल्याश्या गजालीं खातीर एकूच उतर वापरिल्लें पळोवंक मेळटलें. संदर्भ लक्षांत घेतले बगर खंयच्या अर्थान उतर वापरलां तें कळपाचें ना...उच्चारांच्या मळार ही भास कडक. ऱ्हस्व दीर्घाची इल्ली लेगीत चूक तिका सोंसना. जाका सारके उच्चार करूंक येनात ताका हिन्दू पंडित संस्कृत केन्नाच शिकोवचो ना...आपणाल्याच हिन्दू समाजांतल्या कितल्याश्या जातींच्या लोकांक ह्या पंडितांनी 'संस्कृत शिकपाचो हांकां अधिकार ना' अशें सांगून पयस दवरल्यात...'

'इतलेंय आसून, अल्बेरूनी म्हणटा, 'खंयच्याय एका पोरण्या ग्रंथाची शुद्ध प्रत सोदतलो म्हळ्यार ती खंयच मेळना. हांकां आपणाल्या पवित्र पुस्तकांची शुद्ध प्रत केन्ना काडुंकूच आयली ना. पयलेच प्रतींत इतल्यो चुको करतले की

उपरांत हे प्रती वयल्यान तयार केल्ली निमाणी प्रत स्वतंत्र ग्रंथ काय कितें, असो दुबाव येवपाक लागता...'

अल्बेरूनीन आपणाल्या ह्या पुस्तकांत आमच्यो बारीक बारीक गजाली बरयल्यात. खंयचेच कडेन कितेंच विकृत करून सांगूंक ना. पुणून ज्यो दोन गजाली ताणें आरंभाकूच सांगून उडयल्यात त्यो खूब म्हत्वाच्यो. हिन्दू आनी मुसलमान हांचे मजगतीं एकचार कित्याक जावंक पावूंक ना हाचीं कारणां दितना तो म्हणटा, 'हिन्दू दुसऱ्या धर्माच्या लोकांक केन्ना लागींच येवंक दिनात. दुसऱ्या धर्माच्या लोकांक ते म्लेंच्छ लेखतात आनी तांकां आपणा पसून पयस दवरतात. म्लेंच्छांक लागीं येवंक दिले जाल्यार आपणालो धर्म बुडटलो हो तांचो सगळ्यांत व्हडलो भंय. ते कोणाच्या हातचें उदक लेगीत पियेवचे नात. इतलेंच न्हय, तर दुसऱ्यांच्या घरचो उजो लेगीत तांकां उपकारा पडना. पर-धर्मी लोकांनी आफुडिल्ल्या गजालींक ते 'भश्ट' लेखतात. भश्ट जाल्ली वस्त शुद्ध करून घेवं येता हें ते मानुंकूच तयार नात. हाका लागून ते कोणाच भितर भरसनात, कोणाक लागीं येवंक दिनात, कोणा लागीं वचनात, सगळ्यां पसून पयस रावतल्यां कडेन जिवाभावाचे संबंद येवप भोव कठीण...'

तो मुखार जें सांगता तें हाच्याकूय म्हत्वाचें. तो म्हणटा -

'हेर लोकां कडेन हिन्दू लागिंचे संबंद जोडूंक पावना हाचें कारण म्हळ्यार, हिन्दूंचो अहंकार. ह्या अहंकाराचीं पाळां-मुळां तांच्या काळजांत इतलीं खोल रिगल्यांत की तीं हुमटावन काडप कोणाक जमपाचें ना. आपणाल्या देशा सारको संवसारांत दुसरो देश ना, आपणाल्या राजां सारके राजाय दुसरे कडेन खंयच नात, हाची तांकां खातरी. धर्माच्या मळार, आपणालो धर्म एकूच खरेलो धर्म असो तांचो समज...सभावान हिन्दू रागीट. ते भायर गर्विश्ट. आपणाल्या ज्ञानाचो लाव ते दुसऱ्यांक केन्ना घेवंक दिवचे नात...ह्या मळार ते इतले दळदिरे की हिन्दू समाजांतल्या हेर जातींच्या लोकांकूय हें ज्ञान मेळचें न्हय, म्हूण ते खूब जतनाय घेतात. हाचे वयल्यान वेगळ्या धर्माच्या लोकां कडेन ते कशे वागतले हाचो अदमास येतलो... आपणाल्या देशांत जें गिन्यान उदेलां तसलें खंयच उदेवंक ना अशें ते मानतात. खुरासान वा पार्सिस सारकेल्या थळांतल्या एकाद्रया गिन्यानी मनशाचें वा गिन्यानाच्या एकाद्रया ग्रंथाचें नांव घेयात, हिन्दू तुमच्या उतराचेर पातयेवचे नात. ज्ञान-विज्ञानाची वाड हिन्दुस्ताना भायरूय जाल्या म्हणपाचें ते मानुंकूच तयार

नात...हे लोक भायर भोंवन आयिल्ले जाल्यार हांचे दोळे उकते जातले आशिल्ले आनी हांची नदर थोडी तरी व्यापक जावंक पावतली आशिल्ली...'

अल्बेरूनीन रंगयल्लें कितलें विचित्र चित्र हें आमच्या लोकांचें!

तें खरें न्हय म्हणपाचें आमकां काळीज जायत व्हय? आमचें हेंच चित्र, आमची हीच प्रतिमा संवसारभरच्या लोकांच्या मनांत आमी उबी केल्या. हेंच मध्ययुगीन मन घेवन आयज आमी आमचो फुडार घडयतले व्हय? हेंच मध्ययुगीन मन घेवन आमी आयजूय संवसाराचे फाटीर जियतले व्हय?

## २. धर्मांतलो कोयर

तो हाचे पयलीं केन्ना पावंक नाशिल्लो. ताका हांव निखालूस वळखऽ नाशिल्लों. पुणून एकलो इश्ट ताका मुजरत घेवन आयिल्लो.

'हाका तुजे कडेन उलोवपाचें आसा.' इश्टान म्हळें.

म्हाका कच्च जालें. म्हळें, हो उलोवपाक आयला काय झगडुपाक आयला काय देवा? हिन्दू धर्मा संबंदान हांव कितें कितें बरयत आयलां तें वाचून केन्ना केन्ना कांय जाणांच्यो तकल्यो तापतात. ते मागीर म्हजे कडेन उलोवपाक म्हूण येतात आनी म्हजी परिक्षा घेवपाक लागतात. वाद घालतात आनी निमाणे आपणाली तकली तापोवन घेवन वतात. म्हळें, तांच्यांतलोच कोणूय तरी आसूंक जाय हो.

'कितें उलोवपाचें आशिल्लें?' हांवें विचारलें.

'तुमी हिन्दू धर्माचीं खंयचीं पुस्तकां वाचल्यांत?... गीता वाचल्या?'

'हय. वाचल्या.' हांवें जाप दिली आनी म्हळें, 'गीते वयलीं भाष्यांय वाचल्यांत. टिळकांचें 'गीतारहस्य' वाचलां. श्री अरविन्दांचें 'एस्सेज ऑन द गीता' वाचलां. गीते संबंदान मराठींत, हिन्दींत, गुजरातींत, इंग्रजींत वाचपा सारकें जें कितें उजवाडा आयलां तांतलें बरेंचशें नदरे खाला घालां. महाभारताच्या म्हज्या अनुसर्जनांत गीतेचो हांवें कोंकणींत अणकारूय केला...'

'म्हणटकूच गीतेचो तुमी बरो अभ्यास केला म्हणूंक जाय.' ताणें म्हळें.

'अभ्यास केला म्हणपाचो धीर म्हाका जावपाचो ना. गीतेचोच न्हय, खंयच्याच धर्म-पुस्तकाचो हांवें अभ्यास करूंक ना. धर्माच्या मळार हांव एक साधक. धर्म-पुस्तकां वाचतां तेन्ना साधकाचे नदरेन वाचतां. साधकान धर्म पुस्तकांचो अभ्यास करूंक जाय अशें ना. ताची व्हडलिशी गरज ना. तुकारामान खंयच्या ग्रंथाचो

अभ्यास केल्लो? कबीरानूय केल्लो अशें म्हणूंक येना. श्रीरामकृष्ण परमहंसांनी तर करुंकूच नाशिल्लो हें खातरी दिवन सांगूं येता. साधनेंत विद्वत्तेक व्हडलेशें म्हत्व ना. थंय म्हत्व आसा तें अणभवाक. काळजाचे आर्ततेक. हांवें गीता साधकाचे नदरेन वाचल्या. गीतेन म्हाका जायतें दिलां. पुणून गीतेचो अभ्यास हांवें करूंक ना... असलो अभ्यास केन्ना केन्ना साधनेंत आडखळ हाडटा अशेंय म्हजें मत्त जालां.'

इतलें सांगून हांवें ताका म्हजो एक अणभव सांगलो. म्हळें, सूरदासाचें *'निर्बल के बल राम'* भजन तुवें आयकलां व्हय? म्हजें आवडटें भजन हें. तें आयकतां तेन्ना म्हजें काळीज सामकें लीन जाता. शरणागर्ता हरशीं जमना, ती हें भजन आयकतकूच जमता. तें आयकतना हांव म्हजे म्हाका ईश्वरा सुवादीन करून उडयतां. हें भजन हांवें कांय व्हडल्या गवयांच्या ताळ्यांतल्यान आयकलां. शास्त्र-शुद्ध रागांत आयकलां. तें आयकून म्हजी मान धोल्ल्या. हांव लीन जालां. पूण तें म्हणटल्यांक हांवें लीन जाल्ले पळोवंक नात. भजनाचे सूर तांगेल्या ताळ्यांतल्यान येतात, काळजांतल्यान येनात अशें शें कितें दिसलां. हाचे उरफाटें, वर्ध्याच्या आमच्या आश्रमांत अमृतलाल नाणावटी हें भजन म्हणटाले तेन्ना भजनाचे सूर नाणावटींच्या काळजांतल्यान येताले. नाणावटी संगिताचे जाणकार आशिल्ले. जाणटेपणांत तांगेलो आवाज इल्लोसो घोगरो जाल्लो. केन्ना केन्ना बेसूर गायताले. पुणून भजनाचे सूर तांच्या काळजांतल्यान येताले... देखून तांच्या भजनाचो प्रभाव पडटालो. विद्वत्ता आनी आर्तता हांचे मदलो हो फरक भजनां आयकतना जाणवला तसो धर्म-पुस्तकां वाचतनाय जाणवला. राधाकृष्णनांच्या पुस्तकांत म्हाका विद्वत्ता पळोवंक मेळ्ळ्या. गुरुदेव रानड्यांच्या त्याच विशया वयल्या पुस्तकांत विद्वत्ते भायर भक्ताचें काळीज पळोवंक मेळ्ळां आनी राधाकृष्णनां परस गुरुदेव रानड्यां कडल्यान हांव चड प्रभावीत जालां. साधकान व्हडले व्हडले ग्रंथ वाचूंक जाय, तांचो अभ्यास करूंक जाय अशें ना. ताका ग्रंथां परस चड केन्ना केन्ना एकादूया भजनांतल्यानूय खूब कितें मेळटा ... हांवें गीता वाचल्या तशीं उपनिषदांय वाचल्यांत. मराठी, हिन्दी, गुजराती संतांची बरपावळूय खूबशी वाचल्या. हालिंच्या काळांतले रामकृष्ण, अरविन्द, रामतीर्थ, गांधी, रवीन्द्रनाथ हेवूय वाचल्यात. तांचे कडल्यानूय जें जें कितें मेळूं येतालें तें हांवें घेतलां. पुणून कोणाकूच हांव दसून रावूंक ना... म्हज्या चेंबवांत जितलें घेवं येतालें तितलें घेतलां आनी मेळटा थंयच्यान घेत रावलां. म्हजो चेंबू

म्हज्या काळजा येदो, ताका हांव कितें करूं?

हें सांगून हांवें ताका विचारलें, 'तूं हो प्रस्न म्हाका कित्याक विचारता?'

तो मातसो घुटमळ्ळो. मागीर म्हणपाक लागलो, 'हालीं तुमी हिन्दू धर्मा संबंदान, हिन्दू समाजा संबंदान, गुरुचरित्रा सारकेल्या हिन्दू धर्म-पुस्तकां संबंदान जें कितें बरयतात तें वाचतकूच 'हिन्दू धर्मांत कांयच ना' अशें तुमचें मत्त जालां जावंक जाय, अशें दिसता. म्हूण विचारपाक आयिल्लों, हिन्दू धर्मांत तुमकां बरें कितेंच मेळूंक ना?'

'अशें कशें म्हणूं येत? म्हजी वाड हिन्दू संस्कारांत जाल्या, हिन्दू वातावरणांत जाल्या. हिन्दू धर्मांत म्हाका खूब कितें मेळ्ळां. हांवें ख्रिस्ती आनी मुसलमान धर्म पुस्तकांय भावार्तान वाचल्यांत. हिन्दू धर्मांत ना अशें कितेंच नवें वा वेगळें म्हाका ख्रिस्ती वा मुसलमान धर्मांत मेळूंक ना. हिन्दू धर्मांत जल्मा आयिल्ल्याक आपणाली आध्यात्मीक भूक भागोवपा खातीर दुसऱ्या धर्मांत वचपाची गरज ना. हिन्दू धर्मांत ताका जाय तें सगळें मेळटलें. पुणून...'

हांवें ताचे मुखार म्हजी एक अडचण दवरली. म्हळें, 'हांवें महाभारताचें कोंकणींत अनुसर्जन केलां म्हणपाचें तुवें आयकलां जातलें. पयलींच एक गजाल सांगून मेकळो जातां : हांव महाभारता कडेन धर्माचो ग्रंथ म्हूण पळेना. गीता महाभारतांतूच आयल्या. हरिवंश महाभारताचोच वांटो. शान्तिपर्वांत तर धर्म घे म्हूण भरला. पुणून महाभारत एक काव्य. एक महाकाव्य. एक 'एपिक पोयम.' ताचे कडेन साहित्यकाराचे नदरेनूच हांव सदां पळेत आयलां. म्हाका तें आवडटा तें तांतल्या चरित्रचित्रणाक लागून, ताच्या शिल्पाक लागून. महाभारताचें शिल्प वेरूळांतल्या कैलास मंदिरा परसूय भव्य आनी दिव्य. हे शिल्पाचे ओडीन हांवें तें आटोवन कोंकणींत हाडचें अशें येवजिलें. एक साहित्यकार ह्या नात्यान म्हाका तें एक आहवान कशें दिसलें. आनी हांवें तें हातांत घेतलें. आठशें णवशें पानां भितर तें आटोवन हाडपाक स आठ म्हयने म्हाका पुरो आशिल्ले. अशें तशें वर्स देड वर्स लागत आशिल्लें. पुणून म्हाका उणींपुरीं स वर्सां लागलीं. तातूंत इतली भरस पळेली की ती काडटासर नाका पुरो जालें. कोणेंय कितेंय भरसुचें ह्या पुस्तकांत? ही भरस पळोवन मदीं मदीं म्हाका हें 'खंयचें हातांत घेतलें' शें जाल्लें. अखेरेक पूर्ण केलें. परिणाम? महाभारत जातकूच रामायण हातांत घेवपाचें मनांत आशिल्लें. तें घेवपाचो धीरच केन्ना जालो ना. म्हळें, हातुंतलें प्रक्षिप्त सोदपाक कितलीं वर्सां

लागतीत, देवाक खबर. आसा तशें करपाक म्हाका येवचेंच ना. हांवें रामायण तकलेंतलेंच काडून उडयलें. रामायणांतूय भरस खूब आसा. भरस नाशिल्लें हिन्दूंचें एकूय धर्म-पुस्तक ना. महाभारत, रामायण, भागवत, मनुस्मृति, पुराणां, सगळ्या ग्रंथांनी भरस भरल्या. कोयर भरचो तसो. तुकारामाच्या अभंगांतूय खंय ताणें बरोवंक नाशिल्ले कितलेशे अभंग दुसऱ्यांनी बरोवन भरशिल्यात. कबीराच्या नांवान खूब जाणांनी आपणाले ग्रंथ खपयल्यात. योगवसिष्ट खंय बरयला एकल्यान, खपयला दुसऱ्याच्या नांवान. कोणेंय कितेंय् बरोवचें, कोणाच्याय नांवान खपोवचें, हें सगळें धर्माच्या नांवान ह्या देशांत चल्लां. हाचे सारकीं 'फटींगपणां' दुसरीं आसात व्हय? फटींगपणांच हीं. असलीं फटींगपणां दुसऱ्या धर्मांनी मेळत काय कितें, म्हाका दुबाव आसा. पुणून हिन्दू धर्मांत तीं भरल्यांत हातूंत दुबावूच ना. खरें सांगतां, हिन्दूंचें खंयचेंय धर्म-पुस्तक वाचूंक घेतां तेन्ना 'देवा, म्हाका असत्यांतल्यान सत्या कडेन व्हर- **असतो मा सद्गमय्**' ही प्रार्थना म्हज्या मनांत भितरले भितर कळनासतना चलत रावता आनी सत्या कडेन पावतासर म्हाका नाका पुरो जाता. हांव खर्शेतां. धर्माच्या नांवान सत्याचो द्रोह जितलो ह्या देशांत जाला तितलो हेर कडेन खंयच जावंक ना जातलो. आमची उपासनाय तसलीच, असत्यान भरिल्ली. विघ्नहर्त्या कडेन - गणपती कडेन - मागता आसतना आमी आमचीं सगळीं कामां निर्विघ्नपणान शार्ती पावय म्हूण मागतात, **निर्विघ्नं कुरूमेदेव सर्वकार्येषु सर्वदा** म्हणटात. सर्वकार्येषु म्हळ्यार सगळीं कामां, शुभकार्येषु - बरीं कामांच न्हय. उपासना आनी भक्ती ब्रह्मचारिणी आसूंक जाय. हिन्दूंची उपासना आनी भक्ती व्यभिचारिणी. असली उपासना, असली भक्ती करपी लोक देशाक नितीचे आनी धर्माचे नदरेन वयर कितें काडटले, कपल? हिन्दू धर्मांत ताचे उपासनेंत आनी भक्तींत एकठांय जाल्लो सगळो कोयर, सगळो घयरांव सान्न मारून भायर उडयले बगर हो देश नितीचे नदरेन वयर सरपाची आस्तूच ना. हिन्दू धर्माच्या अभिमानी लोकां संबंदान उलयता बरयता आसतना हांव जो तिडकल्ले वरी उलयतां बरयतां ताचें कारण हें. एकलोय सभागी धर्मांतलो हो कोयर सान्न मारून भायर उडोवपाचो वावर करिना. बऱ्या वायट सगळ्याच गजालींचें समर्थन करून हिन्दू धर्म निवळ जातलो? म्हाका इल्लीय आस्त ना.

मागीर ताका हांवें एक खबर सांगली. म्हळें -

कॅथलिक चर्च काल पयर मेरेन एकूच धर्म खरो 'कातोल्क आपोश्तोल्क

रोमान' अशें म्हणीत आयिल्लें. हो एकूच धर्म देवाचो, बाकीचे सगळे देंवचाराचे अशें क्रिस्तांवांक शिकयतूय आयिल्लें. हेंच चर्च आतां कितलें बदल्लां, खबर आसा? दुसऱ्या धर्मांतूय घेवपा सारकें जायतें आसा अशें तें मानपाक लागलां. ते खातीर तें वेगळ्या वेगळ्या धर्मांतल्या लोकांक एकठांय हाडून तांचे कडेन 'संवाद' घडोवन, दुसरे धर्म समजून घेवपाचो यत्न करपाक लागलां. आमच्या गोंयांतूय हो संवाद - तांगेल्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, हो 'डायलॉग' - घडोवन हाडपाचो वावर सुरू जाला. कॅथलिक चर्चांत घडून आयिल्लो केदो व्हडलो बदल हो, अदमास आसा तुमकां? वेगळ्या वेगळ्या धर्मांच्या लोकांक एकठांय हाडचे, एकठांय येवन तांणी एकामेकांचे धर्मविचार समजून घेवचे, एकामेकां कडल्यान धर्मांतलें बरें कितें आसा तें घेवचें, एकामेकांक दिवचें आनी हे भाशेन सगळ्यांचें एक धर्म-कुटूंब स्थापन करचें हो विचार महात्मा गांधींचो. आमी मुखार व्हरपाचो. तो कॅथलिक चर्च आतां मुखार व्हरूंक लागलां. चर्चांत येदी व्हडली क्रान्ती घडून आयल्या. आतां समज, चर्चांतल्या लोकांनी हिन्दूंची नदर समजून घेवपाक तांणी खंयचो ग्रंथ वाचचो असो आमकां प्रस्न केलो जाल्यार आमी तांच्या हातांत खंयचो ग्रंथ दवरतले?...

'भगवद्गीता...' ताणें फटक करून जाप दिली.

'गरुचरित्र कित्याक न्हय?'

तो मातसो घुटमळ्यांत पडलो. म्हणपाक लागलो 'गीता आमचो सर्वमान्य ग्रंथ.'

'अशें? मागीर गीता सोडून गुरुचरित्राचे सप्ताह तुमी कित्याक करतात?'

'आमी गीतेचीं लेगीत पारायणां करतात.' ताणें जाप दिली.

म्हाका हांसूंक आयलें. म्हळें, तुजे हे जापेंत 'लेगीत' उतर आयलां न्हय, तेंच सगळो गोंदळ करता. गीतेचीं पारायणां करपी मनीस गुरुचरित्राचे सप्ताह केन्ना करचो ना. कोणूय गुरुचरित्राचे सप्ताह करूंक लागलो जाल्यार, धरून चलूंक जाय, ताच्या जिविता कडेन दोनांचोय संबंद ना. हांव जी व्यभिचारिणी भक्ती म्हणटां ती ही. आमच्या जिवितांत विसंगती भरल्या म्हणपाचें आमच्या लक्षांतूच येना जाल्यार ताचो अर्थ एकूच जाता : आमचें धर्म-जिवीत वयलेचाराचें. आमच्या काळजांत तें देंवूंक ना. आमचो 'मिथ्याचार' चल्ला, आमी धोंगी, असोच अर्थ हातुंतल्यान येता. गीतेचो धर्म आमी इग्लंड अमेरिकेचे बाजारपेठेंत खपयतात.

होच खरो हिन्दू धर्म आसत जाल्यार तो आमी हांगाय चलोवंक जाय. हांगा आमी गुरुचरित्राचे सप्ताह करपी, सत्यनारायणाचें व्रत करपी, सोळा सोमार करपी धर्म चलयतात. हें हिन्दू धर्माचें रुढी रूप. आमी तें धर्मविचारांत सान्न मारून भायर काडून उडोवंक जाय. नवो कायदो येतकूच पोन्नो रद्द जाता तसो शुद्ध धर्म मेळटकूच पोन्नो रद्द जालो म्हण सोडून दिवंक जाय. उपासना ब्रह्म-चारिणी जावंक जाय. तुर्ताक आमी असली ब्रह्म -चारिणी उपासना करिनात. देखून अमेरिकेच्या लोकांक आमी विवेकानन्द - राधाकृष्णन सारकेल्यांनी सांगिल्लो धर्म खरो हिन्दू धर्म म्हूण दाखयतात आनी हांगा घरांत गुरुंचरित्राचो, सोळा सोमारांचो धर्म चलयतात.

पौष्टिक अन्न पोटांत घेवंक जाय तेन्नाच तें आंगाक लागता. तें आंगार साड्डायलें म्हूण आंगाक लागपाचें ना. धर्म विचारूय काळजांत भितर वचूंक जाय. जिबेर घोळयलो म्हूण जायना. वयलेचाराक पाळो दिलो म्हूण उपकारना.

आमकां धर्मग्रंथ दोळे उकते दवरून वाचूंक येनात म्हूण जाता सगळो गोंदळ हो... आमी धर्म-विचार फकत आंगाक साड्डायतात. पोटांत घेनात.

हांवें ताका म्हजो एक अणभव सांगलो. म्हळें, आमचे आश्रमी प्रार्थनेंत कुराणांतल्यो कांय आयाती आमी म्हणटात. कुराणांत आरंभाक 'अल्-फातेहा' म्हूण कांय आयाती आयल्यात तातूंत कुराणाचें सगळें अर्क आयलां अशें म्हणटात. मौलाना आझादान ह्या 'अल्-फातेहा' ची अर्थावणी केल्या ती 'ॲस्सेंस ऑफ कुराण' ह्या नांवान इंग्रजींत उजवाडा आयल्या. म्हाका ही अर्थावणी उपनिषदां इतलीच मानवली म्हूण हांवें कुराण वाचपाक घेतलें. पिक्‌ठोलचें एक सुंदर भाशांतर इंग्रजींत उजवाडा आयलां. तें वाचपाक लागलों. ईश्वराक पुराय शरण वचूंक जाय म्हूण सांगपी जो वांटो मेळ्ळो तो काळीज हालोवन गेलो. पुणून कांय वांटे मात्तूय लक्षांत येनात जाले. म्हळें 'हातूंत कितेंय तरी आसू येता. पुणून तें समजना.' हांवें ते वांटे कुशीक उडयले आनी मुखार गेलों. कांय वांटे मात्तूय आवडले नात. 'ते मुस्तींतल्या अरबांक घडये हें सांगप गरजेचें आशिल्लें जावं येता. आयज ताची गरज ना' अशें म्हणून तेंय कडेक उडयलें. दुसऱ्या धर्मां संबंदान तातूंत जें कितें आयलां तें वाचतकूच 'शी. धर्म पुस्तकांत असली अळशीक येवंक जायना' अशें दिसलें. 'असल्या पुस्तकांचेर बंदी हाडूंक जाय' अशेंय मदीं मनांत आयलें...

एक लक्षांत दवरपाचें : कुराण हांवें वाचपाक घेतिल्लें तें तातूंत कितें आसा हें पळोवपा खातीर न्हय, ताचो अभ्यास करपाक न्हय. एक साधक ह्या नात्यान

म्हाका तातूंत किर्ते मेळूं येता तें वेंचून काडपा खातीर घेतिल्लें. म्हळ्यार एके तरेचे भक्तीनूच हांवें तें वाचिल्लें. पुणून म्हजी ही श्रद्धा-भक्ती म्हजे विवेकाचे दोळे धांपूंक पावली ना.

हे भाशेन, कुराण वाचून जातकूच म्हजे मुखार एक प्रस्न उबो रावलो. म्हळें, हांवें जे भाशेन दोळे उकते दवरून कुराण वाचलें तशें एकाद्रो मुसलमान तें वाचीत व्हय? तो तांतलें उतरान उतर पवित्र धरून वाचतलो. म्हजे भाशेन 'शी, असली अळशीक धर्म-पुस्तकांत आसूंक जायना' अशें ताका खंयच दिसचें ना. 'तातुंतूय कितेंय तरी आसा' अशें तो म्हणटलो. आनी तेंवूय भक्तिभावान वाचतलो. म्हज्यान कुराण दोळे उकते दवरून वाचूंक जाता. मुसलमानाक दोळे उकते दवरून तें वाचूंक येवचें ना.

रोखडोच म्हजे मुखार आनीक एक प्रस्न उबो रावलो. म्हळें, आमच्या ह्या देशांत ज्या 'भागवतान' हिन्दूंचेर आपणाली मोहिनी घाल्या तें, धरुंया, ह्या मुसलमानान वाचपाक घेतलें जाल्यार तो तें कशें वाचतलो? जे श्रद्धा-भक्तीन तो कुराण वाचतलो ते श्रद्धा भक्तीन वाचतलो व्हय? ना. दोळे उकते दवरून वाचतलो. भागवत वाचतना ताका 'शी, असली अळशीक धर्म-पुस्तकांत आसूंक जायना' अशेंय दिसतलें.

दुसऱ्यांच्या धर्मांचीं पुस्तकां आमी वाचतात तेन्ना दोळे उकते दवरून वाचतात. दोळे उकते दवरून वाच, अशें आमकां सांगचें पडना. पुणून आपणाल्या धर्माचीं पुस्तकां आमी वाचतात तेन्ना आमचे दोळे उकते उरनात.

हांव सांगूंक सोदतां तें इतलेंच : आपणाल्याय धर्माचीं पुस्तकां दोळे उकते दवरून आमकां वाचूंक येवंक जाय. खंयचेंय पुस्तक आसूं मागीर तें, विवेक जागरूक दवरुनूच तें वाचूंक जाय. इतली तटस्थताय आमच्यांत आमी वाडोवन घेवंकूच जाय. श्रद्धा कुड्डी आसूंक फावना. विवेकाचे कसवटणेक जें उतरना तें मोन्यांनी घेवपाक आमकां कोणूच सांगिना. जें पटना तें घेवंचों ना अशें म्हणपांतूच मनशाच्या मनीसपणाचें व्हडपण आसा.

ही निखट्या बुद्धिवाद्यांची रीत न्हय. उपनिषदांतले ऋषीय आमकां आमच्या आचारांत जें बरें आसा तेंच घेयात - **यानि अस्माकं सुचरितानि तानि त्वया सेवित्यानि. नो इतराणि** अशें सांगताले. बुद्ध तर स्पस्टूच सांगतालो, 'हांव जें कितें सांगतां तें हांव सांगतां म्हूण मानून घेवं नाकात. तुमचे बुद्धीचे कसवटणेर तें

घांसून पळेयात आनी थंय खरें उतरलें जाल्यारूच घेयात.' शंकराचार्य विचारतालो, 'उजो शितळ म्हूण तुमकां सगळ्या श्रुतींनी, धरुंया, सांगलें जाल्यार तुमी तें खरें मानतले व्हय?'

धर्म-ग्रंथांच्या मळार, 'प्रामाण्य-बुद्धी' आसूंक फावना. काळजांत उदेल्ल्या सत्या कडेनूच ती आसची. आमी फकत सत्याक एकनिष्ठ रावचें. मागीर तें सत्यूच इल्लें इल्लें करून आमचे मुखार अदीक स्पस्ट जायत रावतलें - द स्पिरिट ऑफ ट्रूथ विल लीड अस् टु ऑल ट्रूथ.

आयज सगळे धर्म जीव नाशिल्ले शे जावन पडल्यात ते धर्म-पुस्तकां विशिंचे आमचे प्रामाण्यबुद्धीक लागून. ते प्रगती-विरोधीय जावन पडल्यात. मुखार पावल घालुंकूच पावनात. तातूंत सगळ्यांत चड प्रगती-विरोधी हिन्दू धर्म जाला. ताचे पांयूच जशे कितें भुतावरी उरफाटे. मुखार वचपा बदला फाटीं फाटीं सरत रावपी. हिन्दू धर्म खरो सनातन धर्म, अशें सगळेच म्हणटात. सनातन म्हळ्यार सदां उरतलो असो. जो सदां आसता तो कालचे सारको आसना. तो आयचे सारको आसूंक जाय. नवो ताल्ल आसूंक जाय. ते खातीर तो बदलत रावंक जाय. दिशीं दिशीं निवळ जायत रावंक जाय. मागीर *'गर्व से कहो - हम हिन्दू हैं'* अशें लोकांक सांगपाचो प्रसंग कोणाचेर येवचो ना. सगळ्यांक ताचो गर्व दिसतलो. दुसऱ्यांकूय 'काय बरो धर्म पळेयात हो' अशें दिसतलें.

ते खातीर हिन्दू समाजांत धर्माच्या नांवान जो कोयर भरला तो सान्न मारून भायर उडोवंक जाय. जो घयरांव हिन्दू धर्मांत जाला तो काडून उडोवंक जाय.

हें काम हिन्दूंचें न्हय जाल्यार कोणाचें?

तो आयकत राविल्लो. बरोच वेळ जाल्लो. वचपाक उठलो तेन्ना ताणें एक निमाणो प्रस्न केलो, 'तुमी म्हणटात तसलो कोयर फकत हिन्दू धर्मांतूच भरला व्हय? मुसलमान ख्रिस्ती सगळ्या धर्मां भितर कोयराच्यो राशी पडल्यात. तुमी फकत हिन्दूंक दुशण दितात. मुसलमान, ख्रिस्ती लोकांक एका उतरान कितेंच सांगिनात तें कितें?'

म्हळें, धर, हांव तांकांय दुशण दिवपाक लागलों आनी तांणी, समज, म्हाका म्हळें, 'तुजें घर पयलीं निवळ कर, मागीर आमकां शाणेपण सांगपाक यो.' जाल्यार तांकां हांवें जाप कितें दिवपाची? ती तुजे कडेन आसा व्हय? जाल्यार ती म्हाका सांग, हांव ती तांकां दितां. म्हजे कडेन जाप ना. म्हूण हांव म्हजें घर पयलीं निवळ

करपाचो वावर करतां. म्हजें घर निवळ करप ही म्हजी सगळ्यांत व्हडली लागणूक. हो वावर हांव करतां म्हूण तुमी दुखवतात ताका हांव कितें करूं? उपाय ना. चडांत चड इतलेंच म्हणूं येत : तुमी दुखवतात हें म्हजें दुर्दैव. पुणून तो म्हजो गुन्यांव अशें म्हणूं येत व्हय?

### ३. संस्कृतायेचें व्याकरण

काकासायबांचे खाटे लागसारच्या मेजार दोन पुस्तकां पळेलीं. एक 'मार्टिर्डम् ऑफ मॅन' नांवाचें. दुसरें 'द व्हाइट प्रोफेट' नांवाचें. पुस्तकांचेर म्हजें लक्ष गेल्लें पळोवन काकासायबांनी म्हळें, घेवन वच, आनी वाचून काड. पयल्या पुस्तकांत तुका पिरामिड्स आनी स्फिंक्सचे मुस्तींतलें इजिप्त कशें कितें आशिल्लें हाचो अदमास येतलो. दुसऱ्या पुस्तकांत तुका आयच्या इजिप्शियनांच्या हावेसांचो अदमास येतलो.

दोनूय पुस्तकां वाचून काडलीं. आनी म्हाका दिसलें, इजिप्शियनांनी आपणाली परंपरा सोडूंक फावऽ नाशिल्ली. इजिप्ताची संस्कृताय हिन्दू संस्कृताये भाशेनच आगळी वेगळी आशिल्ली. हेच परंपरेंत इजिप्शियन मुखार गेल्ले जाल्यार संवसाराचेर आपलो प्रभाव घालूंक पावतले आशिल्ले. धर्तरेचेर हो देश अशे एके सुवातेर आसा की जंय एशिया, आफ्रिका आनी येवरोप, तिनूय खंड एकठांय येतात. दुर्दैवान, इजिप्शियन लोक पयलीं अरबांच्या आनी मुसलमान धर्माच्या प्रभावांत आयले, उपरांत, येवरोपाच्या आनी ख्रिस्ती धर्माच्या प्रभावांत गेले आनी तांणी आपणाली मुदलांतली परंपरा सोडून दिली. आयज ते धड येवरोपेव न्हय, धड ख्रिस्ती न्हय, धड अरब न्हय, धड मुसळमान न्हय आनी इजिप्शियन तर न्हयच न्हय, अशे कितें धेडगुजरी-शे जावन पडल्यात... सत्व होगडावन बसल्यात.

आनीक कांय वर्सां गेलीं.

अवचीत सोक्रतिशाची ओड लागली. प्लेटोचे 'डायलॉग्स' वाचले उपरांत ग्रीक संस्कृताय समजून घेवपाची इत्सा जागी जाली. विल ड्युरंटच्या 'हिस्टरी ऑफ सिविलायझेशन' ग्रंथ माळेंतलो 'ग्रीस' ग्रंथ वाचून काडलो. त्या वेळारूय दिसलें, 'ग्रीक लोकांनी आपणाली परंपरा सोडूंक जायनाशिल्ली. सोक्रतिश निर्माण करपाची तांक आशिल्ली संस्कृताय आशिल्ली ही. हेच परंपरेंत तांणी मुखार वचूंक जाय आशिल्लें. सांगूं नज, सोक्रतिशा परसूय व्हड म्हा-पुरूस ते संवसाराक

दिवंक पावतले आशिल्ले. ग्रीक लोकांनी आपणाली परंपरा सोडून दिली आनी येवरोपांतल्या तरातरांच्या लोकां मजगतचे एक अशे ते जावन पडले. तांणीय स्वत्व होगडायलें.

दर एके संस्कृतायेची आगळी वेगळी एक परंपरा आसता. आगळी वेगळी एक नदर आसता. हे नदरेन ती संवसारा कडेन पळेता; हेच नदरेन ती आपणालो समाज बांदून काडटा. हेच नदरेन ती आपणाले आदर्श निश्चीत करता.

लोकांनी हेंच परंपरेंत मुखार वचूंक जाय.

परंपरा म्हळ्यार रुढी न्हय. चलत आयलां ताकाच घट दसून रावप न्हय. परंपरेक कोंकणींत एक उतर आसा : चाल. चालींत 'चलप' येता. एक पावल मुखार घालें, तें थीर जमनीर पडलां म्हणपाची खातरी जातकूच दुसरें उखल्लें आनी तें आदल्या पावला मुखार घालें, हे भाशेन, परंपरा 'चलत' येता.

भारतीय संस्कृताय अशीच चलत आयल्या देखून एका सारकी मुखार सरत रावल्या. जी संस्कृताय मुदलांत वेदीक आशिल्ली ती आयज 'भारतीय' संस्कृताय जाल्या हाचें कारण, ती एका सारकी मुखार सरत रावल्या हेंच म्हणूंक जाय. मळबांतलीं कुपां खिणा खिणाक आपणालें रूप बदलतात, तरी आसतना तीं तींच आसतात, तशी, भारतीय संस्कृताय आचारांत, विचारांत, देखींत आंनी वेव्हारांत बदलिल्ली आसली तरूय तीच उरल्या. भारतीय संस्कृताय बदलच ना - ती अपरिवर्तनशील - म्हणटात तें खरें न्हय. तशी ती आशिल्ली जाल्यार 'म्यूझियम् पीस' म्हूण उरतली आशिल्ली. जिवी उरची नाशिल्ली. ती पांच हजार वर्सां पसून जिवी आसा. हाचें कारण, ती बदलत आयल्या. तिचें बदलपाचें एक व्याकरण आसा. ह्या व्याकरणाचे काय नेम आसात.

इकबाल मोट्या अभिमानान म्हणटालो, *'यूनानो मिश्रो रूमा/ सब मिट गये जहाँ से/ अब तक मगर है बाकी/ नामोनिशां हमारा/'* आनी मागीर खासा आपणाक विचारतालो, 'अशें हें कित्या खातीर जावंक पावलें?' आनी जाप दितालो, *'कुछ बात है कि हस्ती मिटती नहीं हमारी.'* ही 'कुछ बात' सोडून काडले बगर आमी आमच्या फुडाराक आमकां जाय तें रूप दिवंक पावपाचे नात.

पांच हजार वर्सांच्या आमच्या इतिहासांत आमी कशे कशे बदलत गेले, कित्याक लागून बदल्ले; आमच्यांतलें जें बदलूंक पावलें ना तें कितें आनी तें कित्याक लागून बदल्लें ना, हाचो सोद घेतले बगर आमी पावलां घालपाक लागले

जाल्यार तीं फावऽ ते दिकेन पडपाचीं नात.

आमकां फाटल्या काळाचे अवशेश म्हूण जियेवपाचें ना आनी इजिप्त, ग्रीस, रोम, बाबिलॉन, आसीरिया भाशेन साप 'ना जावनूय वचपाचें ना.' आमकां आमचें सत्व राखुनूच मुखार वचपाचें आसा. दोन निश्चय आमी करूंक जाय-

१. रुढीवादूयांच्यो सरपळ्यो आमी आमच्या पांयांक बांदून घेवपाचे नात. आनी -

२. येवरोपेवांच्या शिष्यांच्या जाळांत आमी आमकां घुसपावन घेवपाचे नात.

जे प्रतिभेन आचारांचे, विचारांचे, चाली-रितींचे विविधतायेक पोसवण दिली-देशांत इतली विविधताय निर्माण केली की तितली सैम सोडून दुसरे कडेन खंयच पळोवंक मेळना; तेच भाशेन, जे प्रतिभेन इतली विविधताय आसुनूय सगळ्यांक एके संस्कृतायेच्या सुतान गुथून एके तरेचें ऐक्य निर्माण केलें - जे तरेचें ऐक्य सैम सोडून आनीक खंयच पळोवंक मेळना, ते प्रतिभेक एकनिष्ठ रावनूच आमकां मुखार वचपाचें आसा.

भारतवर्ष येवरोप अमेरिकेचो शिष्य म्हूण न्हय, तर भारतवर्ष म्हुण्णूच जियेवंक जाय.

## ४. हिन्दूंचें म्हातारचळ?

उतार पिरायेर खूब जाण आंगान तशे मनानूय दुबळे जातात. तांकां मागीर, पयलीं भाशेन, आयचें पळोवन फायचें घडोवंक येना. आयच्या खिणा वयलो तांचो ताबो सुट्टा, आनी ते फाटल्याच काळांत जियेवपाक लागतात. जिस्त ह्या वेळार तांगेले पोरणे राग, पोरणे दुस्वास जागे जातात, आनी ते एकतर वचत ताचेर शिणपाक लागतात वा भितरले भितर फणफणून सगळ्यांचेर उस्ळटात. भुरगे वा तरणे पिरायेर काळजाचेर घाय जाल्ले आसत जाल्यार तेय जिस्त ह्या वेळार उकते जातात. मनीस मागीर थतर-वितर जावन कितेंय करूंक लागता वा कितेंय उलोवंक लागता.

हाका म्हातारचळ म्हणटात.

हिन्दू समाजाक हालिंसाराक हे तरेचें म्हातारचळ लागलां जावंक जाय. न्हय जाल्यार तागेल्या 'हिन्दू-राष्ट्र' घडोवपाच्या उन्मादाचो अर्थ लावंक येवपाचो ना.

आठव्या शतमानाच्या आरंभाक महम्मद बीन कासीम नांवाच्या एका अरबी

तरणाट्यान ह्या देशाचेर घुरी घाली आनी आमगेलो सिंध प्रान्त बगदादच्या खलिफाच्या साम्राज्याक व्हरून दसयलो. खरेपणानशीं, 'तुमच्या शेजरा एक व्हड शक्त, एक व्हड सत्या वयर सरल्या; आतां घाळ रावप तुमकां पुटवपाचें ना' हे तरेची एक शिटकावणी इतिहास-विधात्यान हिन्दूंक दिल्ली. हिन्दूंनी ती काना मनार घेतली ना. बौद्धांचे अहिंसेक लागून आमकां हो वाटार होगडावचो पडलो, अशें म्हणून तांणी अपेसाचें मडकें बौद्धांचे तकलेर फोडलें आनी सदचे वरी आमच्या देशा सारको देस ना, आमच्या लोकां सारको लोक ना, आमच्या धर्मा सारको धर्म ना, आमी व्हड, आमीच खरे, आमीच बरे, ह्या भ्रमांत रावले. सुमार पावणे तिनशीं वर्सां ते हे तरेचे आप-फटवणुकेंत गुल्ल राविल्ले. अवचीत धाव्या शतमानाचे अखेरेक गझनीच्या महम्मदाच्यो घुरयो येवपाक लागल्यो. त्यो इकराव्या शतमानाच्या पयल्या दसका मेरेन येत रावल्यो. ह्या घुरयांनी तांची दानाधिस्पट जाली. आपणालीं देवळां मोडिल्लीं, देवळांतली सगळी संपत लुटून व्हेल्ली पळोवपाचो ताचेर प्रसंग आयलो. बौद्धांचे अहिंसेक लागून देस दुबळो जाला म्हणटात तें खरें न्हय, हिन्दू मुदलांतूच दुबळो आनी भिवकुरो आशिल्लो; घुरयो येतकूच त्यो परतून लावंक जाय म्हणपाचें तो नकळ आशिल्लो. तो फकत मुठींत जीव धरून पळ काडूंक जाणा आशिल्लो म्हणपाचेंच ताणें संवसाराक दाखोवन दिल्लें. तागेली धांकिल्ली मूठ उकती पडिल्ली. तेन्ना सावन हिन्दू जो परक्यां कडल्यान मार खायत आयिल्लो तो एका सारको सातशीं आठशीं वर्सां इंग्रजांनी देस गिळऽसर- खायत राविल्लो.

पराभवाचे हे जे घाय ताका ते मुस्तींत जाल्ले ते- ताचे वयल्यान सातशीं आठशीं वर्सां वचुनूय-पेखूंक नाशिल्ले. स्वराज्य मेळऽसरच्या काळांत ते पुलेणां भरून आयिल्ले. हे अवस्तेंतूच ताणें गांधींची हत्या केली, देशाचे दोन कुडके केले आनी पयर बाबरी मशीद मोडली.

परिणामीं - मुसलमान म्हणिना फुडें हिन्दू जो उसळत आयिल्लो तो आयजूय उसळटा. मुसलमान म्हणिना फुडें ताचे मुखार औरंगझेब उबो रावता. अकबर राविना. जिना उबो रावता. बादशाहखान, मौलाना आझाद, डॉ. झाकीर हुसेन हांचे मदलो कोण राविना. ताका शेख अब्दुल्लाच दिश्टी पडटा. मुहम्मद करीम छागला दिश्टी पडना. सैयद शाहबुद्दीन दिश्टी पडटा. अरीफ महंमद खान दिश्टी पडना. उजळ कितेंच दिश्टी पडना. धवी काळी - दोनूय वटो सारक्यो दिश्टी

पडल्यो जाल्यारूच सारकें पळोवप जाता हें ताका समजायल्यारूय समजना.

पयर एकलो हिन्दू-राष्ट्रवादी मेळिल्लो. तरणे उमेदीचे पिराये वयलो. 'हिन्दू-राष्ट्र आतां येवपाचें जालें, लागीं पावलां' अशें म्हणून म्हाका तिडावंक सोदपाक लागलो. हांवें म्हळें, 'बाबा रे, सेक्युलरवादी अपेशी जाले म्हूण तुका जळ चडलां. पुणून एक लक्षांत दवर, हो देस घडोवपाक फकत हिन्दूंचो न्हय, मुसलमानांचोय हातभार लागला. तांचें योगदान ल्हाना समानांतलें न्हय. तुका खबर आसा, पयलें महावीरचक्र कोणाक मेळिल्लें तें? मोहम्मद उस्मान नांवाच्या एका मुसलमान सैनिकाक. १९६५ तल्या झुजांत परमवीरचक्र कोणाक मेळिल्लें? अब्दुल हमीद नांवाच्या एका मुसलमानाक. ज्या 'अग्नी' मिसायलाक पाकिस्तान थर्त भियेता तें तयार कोणें केलें, खबर आसा? अब्दुल कलाम नांवाच्या एका विज्ञानिकान. मुसलमानांच्या योगदानाक उणें लेखूं नाका. स्वातंत्र्य संग्रामांतल्या भगतसिंग वा चन्द्रशेखर आझादाचो तुका उगडास जालो आनी अश्फाकउल्लाचो जालो ना जाल्यार तुका अनुपकारी म्हणचो पडटलो. तोय हुतात्मो जाल्लो. सुभाषबाबूचे आझाद हिन्द फौजेंतलो शाहनवाज खान तुका देशभक्त दिसलो ना जाल्यार तुका कुड्डो म्हणचो पडटलो.

आमच्या एका मळाचो कोणाकूय सुमारा भायर अभिमान दिसूंक जाय तें मळ म्हळ्यार संगिताचें. ह्या मळार फटींगपणां, बुवाबाजी चलना. तपस्व्यांचें मळ हें. आतां सांग, दिल्ली घराणें, आग्रा घराणें, ग्वाल्हेर घराणें, पतियाळा घराणें, कोल्हापूर घराणें - हीं हिन्दुस्तानी संगिताचीं घराणीं कोणें सुरू केल्लीं? मुसलमानांनी न्हय? ह्याच घराण्यांनी हिन्दुस्तानी संगीत गिरेस्त केलां मूं? बिस्मिल्ला खानाची शेनाय आयकल्या व्हय? हे शेनायेंतल्यान सरस्वती वंदनेचे सूर भायर सरतात तेन्ना तुजे मुखार, साक्षात् सरस्वती उबी रावली ना जाल्यार तुका भेड्डो म्हणचो पडटलो. डागर भावांचें द्रुपद आयकून तुजे मुखार हिन्दू देव देवता उब्यो रावल्यो नात जाल्यार तुका संगितांतलें कितेंच समजना अशें म्हणचें पडटलें. तिरखवाच्या तबल्यांतल्यान तुका नटराजाचो ताल आयकूंक आयलो ना जाल्यार तुका बे-ताल मनीस म्हणचो पडटलो. अमजद खानाची सरोद आयकून तुका जे. कृष्णमूर्तींच्या प्रवचनांची याद जाली ना जाल्यार तुजे कान दोळे भेरेल्यात अशें म्हणचें पडटलें. नसरूद्दीन शाहचीं फिल्मां, अझरूद्दीनाची क्रिकेट, हुसेनाचीं

चित्रां- देशांत हे लोक नाशिल्ले जाल्यार संस्कृतायेच्या मळार देस कितलो खांकनवाळ जातलो आशिल्लो हाचो अदमास कर...

तुमचे तकलेंत इंग्रजांनी बरयल्लो विकृत आनी विखाळ इतिहास भरला. म्हुण्णूच तुमी हिन्दूंक आनी मुसलमानांक केन्ना पडपाचें ना, अशें मानूंक लागल्यात. खऱ्यांनीच तशें आशिल्लें जाल्यार म्हाका सांग, १८५७ तल्या बंडांत मराठे आनी राजपूत बहादूरशाह जफरचें दळवयपण मान्य करतले आशिल्ले?

इतिहास ही विसरपाची एक वस्त. इझरायली आनी अरबी, इतिहास विसरून एकठांय येतात. फ्रांस आनी जर्मनी एकठांय येतात. दक्षीण आफ्रिकेंत गोरे आनी काळे एके कडेन येतात, एक जातात - सगळ्यांक इतिहास विसरून नवें जिवीत घडोवंक येता, फकत तुमकांच येवपाचें ना?

हिन्दू पोरणे दुस्वास, पोरणे राग जागोवंक लागल्यात. कित्याक, सांगू? हिन्दूंक म्हातारचळ लागला. जाका म्हातारचळ लागता ताचे दीस सोंपिल्ले आसतात. आनी रागार जावं नाका - जांचे दीस सोंपतात तांकांच निमाणें रामाचो उगडास जाता.



## ११.

# ईश्वर अल्ला तेरे नाम

आमचीं सगळ्यांत व्हडलीं राष्ट्रीक दुर्दैवां दोन : आमकां राज्य करतले बरे मेळ्ळे नात. चडशे मोटवे आनी आंखूड नदरेचे मेळ्ळे आनी, आमचो लोक राजकारभारा संबंदान सदांच थंड आनी बेपर्वा रावलो.

आमच्या खंयच्याय राजाक आनी ताच्या शेजाऱ्याक केन्ना पडूंक ना. एका-मेकां आड झुजपाक ते केन्ना फाटीं रावूंक नात आनी ह्या झुजांत परक्यांचो आधार घेवपाकूय ते केन्ना अनमनूंक नात.

आमचो इतिहास चडसो असल्याच धोशींनी भरला. ह्याच धोशींक लागून आमचो देश भौन भौन परक्यांचो गुलाम जाला. ह्या धोशींक लागुनूच जावंये, आमचो लोक सदांच राज्य करतल्यां पसून पयस रावला. 'राज्य कोणूय करिना, आमकां कितें लागता? आमच्या दिसपट्ट्या वेव्हारांत ताची आडखळ जायना जातकूच जाली' हे तरेची बेपर्वाय आमच्या लोकांत दिश्टी पडटा. परक्यांचो शेक लेगीत आमी ह्या सभावाक लागून मानून घेतला. डॉ. लोहिया म्हणटाले, राजां-राजां मदल्या धोशीं परस आमच्या ह्या उदासीन सभावाक लागुनूच आमी भौन भौन गुलाम जाल्यात.

आमच्या ह्या दोनूय राष्ट्रीक अवगुणांचो लाव व्यापारा खातीर हांगा आयिल्ल्या इंग्रजांनी घेतलो आनी आमकां जाग लागूंक दिनासतना तांणी हांगासल्ले आपणाले राजवटीची बुन्याद घाली. आनी आरे आरे म्हणटासर ती घट्टूय करून उडयली.

इंग्रजांचो शेक नदरेंत भरना फुडें हिन्दू आनी मुसलमान दोगूय उठले आनी

दोगांयनी एकठांय येवन १८५७ त तांकां धांवडावन घालपाचो एक यत्न केलो. १८५७ तले हें झूज 'स्वातंत्र्य-समर' म्हणपा इतलें व्हड नाशिल्लें. पुणून 'शिपायांचें बंड' म्हणपा इतलें किरकोळूय नाशिल्लें. लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, ह्या झुजाचें दळवयपण (नेतृत्व) मुसलमानांच्या हातांत आशिल्लें. हिन्दू आनी मुसलमान, दोनूय जमातींतले लोक एकामेकांच्या हातांत हात घालून ह्या झुजांत जिवार उदार जावन झुजल्यात, दोनूय जमातींच्या लोकांचें रगत उत्तर हिन्दुस्तानाचे जमनीर सारक्याच प्रमाणांत एकठांय भरसून व्हांवलां.

हिन्दू-मुसलमानां मजगतचो हो एकचार इंग्रजांक कोंता पडपा सारको नाशिल्लो. तांचे मजगतीं फूट घालपाचे तांणी जायते यत्न केले. एकूच दाखलो पुरो: १८५७ तलें झूज चलतालें तेन्ना मदीं एक दीस बकरी ईदची परब आयली. हे परबेक मुसलमान सामन्यतायेन गाय मारतात. पुणून ह्या वर्सा ती मारची न्हय अशें तांणी थारायल्लें. गाय मारतकीच हिन्दू खुबतात हें इंग्रज जाणा आशिल्ले. तांणी तीग मुल्लांक फितूर केले आनी तांकां दिल्ली शारांत धाडून दिले. परबेक गाय मारली ना जाल्यार हो ईद 'खुदा'क 'मंजूर' जावचो ना अशें ते इंग्रजांचे सांगणेन दिल्लींतल्या मुसलमानांक सांगीत भोवंक लागले. दिल्लीच्या पातशायाच्या कानार ही खबर पावली. ताणें रोखडोच 'गाय कोणेंच मारूंक जायना' म्हणपाचो हुकूम काडलो. हुकूम काडुनूय मुल्ला आयकनात हें पळेतकूच तो खासा आपूण राजवाड्या भायर आयलो आनी तिगूय मुल्लांक ताणें आपणाल्या हातान तोफेच्या तोंडार दिवन मारून उडयले. मुसलमान त्या वेळार हिन्दूंक सांबाळून घेवपा खातीर केदी जतनाय घेताले हें हे एकेच खबरे वयल्यान दिसून येता.

१८५७ तल्या ह्या झुजांत आमी पडले आनी वांगडाच हिन्दू-मुसलमानां मजगतीं जो एकचार दिसून आयिल्लो तोय भंगलो.

ह्या झुजांत जैत जोडले उपरांत इंग्रजांनी सगळ्यांत पयलो वावर हातांत घेतलो तो म्हळ्यार आमच्या समाजाचो खोलायेन अभ्यास करपाचो. आमकां एकामेकां पसून वेगळावपी तत्वां खंयचीं हाचो तांणी बारकायेन सोद घेतलो आनी ह्या वेगळावपी तत्वांक पोसवण दिवन आमकां सगळ्यांक एकामेकां पसून पयस दवरपाची एक कार्यावळूय आंखली. पयलीं तांणी हिन्दूंक लागीं केले. मुसलमान तांचे मर्जींतले देंविल्ले. हिन्दूंक ते सांगपाक लागले, 'हो देश खरो तुमचो. हिन्दुस्तान

हें नांवूच सांगता, हो देश हिन्दू लोकांचो म्हूण. तुमचो धर्म संवसाराचो धर्म जावपा येदे योग्यतायेचो. तुमची संस्कृताय आनी तुमची पुर्विल्ली संस्कृत बरपावळ हाका लागपी संवसारांत दुसरी संस्कृतायूय ना, बरपावळूय ना. मुसलमानांनी तुमचें हें वैभव ना करपाचो यत्न केल्लो. आमीच तुमकां तांच्या दावकुलांतल्यान सोडयले.'

हिन्दूंक बरें दिसचें म्हूण केन्ना केन्ना ते मुसलमानांक गोळाक लावपाचें जालें जाल्यार खंय हिन्दूंच्या वाड्यार हाडून लायताले. हिन्दूंक आपल्या अर्दान ओडपाचे आनी तांकां खुशालभरीत दवरपाचे इंग्रजांनी ते मुस्तींत हे तरेचे जायते यत्न केल्यात.

पुणून हे यत्न चड काळ तिगूंक पावले नात. कित्याक, हिन्दू ते मेरेन इंग्रजी भास शिकून मुखार सरिल्ले. तांकां ब्रिटीश पार्लमेन्टाचो सोद लागिल्लो. हो पार्लमेन्ट लोकमताक मानता हें तांणी पळेल्लें. ते 'सनदशीर' रितीन कांय हक मागपाक लागले. ह्या कामा खातीर तांणी १८८५ त 'इन्डियन नॅशनल काँग्रेस' नांवाची एक संस्थाय सुरू केली. पारशी आनी कांय व्हड मुसलमान हांचो आधार मेळपाक लागलो. हिन्दूंत आतां एके तरेचें राष्ट्रीयत्व येवपाक लागलां म्हणपाचें इंग्रजांनी पळेलें आनी-

अवचीत तांकां मुसलमानांचो उगडास जालो. विल्यम हंटर नांवाच्या एका सायबान इंग्रजांचे राजवटींत मुसलमानांचेर कसले कसले आनी केदे केदे व्हड अन्याय जाल्यात हाची बारकायेन वर्णना करपी एक पुस्तक बरयलें. ह्या पुस्तकाचो मुसलमानांचेर खूब परिणाम जालो. हो वेळ मेरेन मुसलमान कडेक पडिल्ले. इंग्रजी शिक्षणाचो लाव ते घेवंक पावूंक नाशिल्ले. एके तरेच्या दैन्यांत ते दीस काडटाले. अवचीत तांची अपुर्बाय सुरू जायना फुडें तांकां इंग्रजांच्या उपकारांत पडिल्ले वरी दिसपाक लागलें. सर सय्यद अहमद खान हाणें हे परिस्थितीचो लाव घेतलो आनी ताणें मुसलमान समाजांत सुधारणेचें वारें व्हांवोवपाक सुरवात केली. मुसलमान समाजांत सुधारणेचें वारें ते मेरेन व्हावंक पावूंक नाशिल्लें. सामान्यतायेन हो समाज सनातनी. धर्म बुडटलो ह्या भंयान सगळे तरेचे सुधारणे पसून पयस रावपी. केन्ना केन्ना जाण्टेल्यांचे व्हडविकेचे उगडास काडून तातूंत धादोशी रावपी. आर्विल्ले मुस्तींत अभिमान दिसपा सारकें कसलेंच कर्तुत्व तो करूंक पावूंक नाशिल्लो. देखून, इराण. तुर्कस्तान, इजिप्त बी देशांतल्या मुसलमानांनी जीं कर्तुत्वां केल्लीं तांचो उगडास काडून तो व्हडविकेची तान भागयत आयिल्लो. सय्यद अहमद

खानान ह्या समाजाक इंग्रजी बरप शिकपाची देख दिली. आलिगढाक ताणें एक मुस्लीम युनिव्हर्सिटी सुरू केली. जे मुसलमान भुरगे हे युनिव्हर्सिटींत शिकून मुखार सरले तांकां इंग्रजांचे राजवटींत बऱ्यो बऱ्यो चाकऱ्यो मेळपाक लागल्यो.

हे युनिव्हर्सिटीचे प्रिन्सिपल इंग्रज आशिल्ले, हें सांगपाची गरज ना. ताणी ह्या भुरग्यांचीं मनां हिन्दू आड करपाचे खूब यत्न केले. मुसलमान घाळ उरले जाल्यार हिन्दू तांकां खावन उडयतले, हे तरेचे संस्कार तांचेर पडपाक लागले. खासा सय्यद अहमद खानान प्रचार सुरू केलो, 'इंग्लंडा सारकी पार्लमेन्टरी डेमोक्रेसी ह्या देशांत चलपाक लागली जाल्यार, हांगा भौमत सदांच हिन्दूंचेंच उरतलें. हिन्दू आमकां, मुसलमानांक, भौमताच्या नेटार गिळटले. पार्लमेन्टरी डेमोक्रेसींत हिन्दूंक आनी मुसलमानांक सारकेच हक उरतले अशें समजप म्हळ्यार, जें केन्नाच घडून येवपाचें ना तें घडटलें अशें मानपा सारकें पिशेपणाचें थरतलें.'

तात्पर्य : 'मुसलमानांनी सादूर रावचें. नाका जाल्ल्या सपनांनी गुल्ल उरचें न्हय. हिन्दूंनी सुरू केल्ले स्वराज्याचे चळवळींत तर केन्नाच पडचें न्हय.

इंग्रजांचें अर्दें काम जाल्लें.

उरिल्लें अर्दें शार्ती पावपाक आतां तांचीं चाकां नेटान घुंवपाक लागलीं.

यु. पी.च्या गवर्नरान एक दीस कांय हिन्दूंक हाता कडेन धरून आपणाल्या रेवेन्यू डिपार्टमेन्टांतली उर्दु लिपी निखळायली. 'आतां आमकां चिड्डुपाचे हिन्दूंचे यत्न सुरू जाले' असो मुसलमानांक दुबाव घेवपाक हें पुरो आशिल्लें. ते मोट्या मोट्यान आड्डूंक लागले. तांकां जाप म्हूण हे वाटेन वाराणसीक एक 'नागरी प्रचारिणी सभा' नांवाची उर्दू आड वावुरपी संस्था सुरू जाली. जाली म्हणचे परस इंग्रजांनी ती सुरू केली म्हणप अदीक समा जातलें. मुसलमान आतां ओगी कशे रावतले? ताणी नागरी प्रचारिणी सभे सारकी आपणाली अंजुमन-तरक्की-ए-उर्दू नांवाची संस्था सुरू केली.

केन्ना हाका 'शू:' केन्ना ताका 'शू:' करून इंग्रज आतां हिन्दूंक आनी मुसलमानांक भितरले भितर झुजोवपाक लागिल्ले.

अलिगढाक सय्यद अहमदची 'मुस्लीम' युनिव्हर्सिटी आसा. वाराणसीक मालवीयांची 'हिन्दू' युनिव्हर्सिटी उबी जाले बगर आतां कशी रावतली आशिल्ली?

हे वाटेन आमच्या राष्ट्रवादानूय एक हिन्दुत्ववादी रूप घेतलें. दयानंद सरस्वतीचो

आर्य समाज उकतेपणीं मुसलमानां आड वावुरतालो. राष्ट्रवाद म्हळ्यार हिन्दुत्ववाद असो समज तेन्ना सावन सुरू जाल्लो. तातूंत भर घाली 'वंदे मातरम्' ह्या राष्ट्रगितान. हें राष्ट्रगीत बंकीमबाबूंल्या 'आनंदमठां'तलें आनी 'आनंदमठ' ही नवलकाणी भायल्यान - भितरल्यान सामकीच मुसलमान विरोधी. मुसलमानांची आतां सामकी खातरी जाली, जो राष्ट्रवाद हांगा उदेवपाक लागला तो फकत ब्रिटिशांक धांवडावन ओगी रावपाचो ना. तो आमकांय ना करतलो.

जेन्ना एक ल्हान समाज व्हडल्या समाजाच्या भंयान थतर-वितर जाता तेन्ना तो भंयूच ताका संरक्षणाचें कवच घेवंक लायता. तो भितरल्यो सगळ्यो धोशी विसरून एक जाता. संगठीत जाता. मनीस-सभावूच हो. हिन्दूंच्या राष्ट्रवादाक मुसलमान जशे जशे भियेवपाक लागले तशे तशे इंग्रज तांकां अदिकादीक आपणाले वशीन ओडपाक लागले. १८५३ त एक खाशेलो कायदो करून मुसलमानांच्या हिताची वेवस्था इंग्रजांनी आपणाल्या हातांत घेतिल्लीच. आतां ते मुसलमान जमात ही आमची 'अपुर्बायेची बीबी' अशी मोगाची भासूय उलोवपाक लागले.

खरें म्हळ्यार, मुसलमानांक जो हिन्दूंचो भंय दिसपाक लागिल्लो ताची दखल हिन्दी राष्ट्रवादान आरंभाकूच घेवंक जाय आशिल्ली आनी हो भंय ना करपाचो मनस्पुर्वेक यत्नूय तेन्नाच्यान सुरू करूंक जाय आशिल्लो. हिन्दू-मुसलमानां मदीं फूट घालपाचो एका सारको यत्न चल्ला म्हणपाचें उकतें जाले उपरांत तरी हिन्दी राष्ट्रवादान जागो जावन सॅक्युलरिझमची - धर्मनिरपेक्षतायेची देख रोखडीच घेवंक जाय आशिल्ली. आनी इंग्रजांचो यत्न मोडून उडोवंक जाय आशिल्लो. पुणून तशें जावंक पावलें ना. परतें, लोकमान्यां सारकेल्यांक 'शिवाजी उत्सव' करपाचें येवजलें. गणपतीचीय 'रिक्रूट भरती' करून ताका कामाक लावन तांणी हिन्दी राष्ट्रवादाचें हिन्दू रूप अदीक स्पस्ट केलें. ह्याच वेळार हिन्दूंनी गोरक्षणाच्या वावराकूय हात घालो. हरशीं, इंग्रज सदां हजारांनी गायो मारून खाताले. हिन्दूंक केन्ना ह्या गायांची दया दिसूंक नाशिल्ली. फकत ईदचे परबेक मुसलमान जी गाय मारतात तिचोच कैवार घेवपाचें तांकां येवजलें.

हिन्दू आड मुसलमान आनी मुसलमानां आड हिन्दू जाल्यात म्हणपाची खातरी जायना फुडें - आनी दोगांयची दुस्मानकाय आतां कोणूच ना करूंक पावचो ना म्हणपाचें दिसून येना फुडें इंग्रज खुशालभरीत जाले. तांकां दोनूय वसल्यान शिष्य

मेळिल्ले. इंग्रजांक आतां हिन्दू-मुसलमानांच्या प्रस्नांत 'तटस्थ' रावप कोंता येतालें. कित्याक, तांचो दोनूय जमातींक एकामेकां आड झुजोवपाचो वावर आतां खासा हिन्दू आनी मुसलमान शिष्य (खबर नासतना) माण्णेन मुखार व्हरपाचे आशिल्ले.

दंग्यांक सुरवात जाली ती ह्या काळार. ते आदीं हांगा दंगे केन्नाच जावंक नाशिल्ले. सुमार साडे सशीं वर्सां मुसलमानांचो शेक हांगा चल्ला. ह्या साडे सशीं वर्सांच्या काळांत हिन्दू-मुसलमानां मदीं दंगे केन्नाच जाले नात. इंग्रजांच्या काळार मात दंगे नासताना एकूय वर्स् वचूंक ना. खंयूंय खुट्ट जाल्यार पुरो, दंगे सुरू. ईदचे परबेक मुसलमानांनी गाय मारली. 'कातर मुसलमानांक.' मुसलमानांचे मशिदी मुखावयल्यान हिन्दू वाजंत्री वाजयत गेले. 'काटो सालों को.'

दंग्याक कसलेंय निमित्य पुरो जातालें.

स्वतंत्रतायेच्या झुजाचीं सुत्रां गांधीन आपणाल्या हातांत घेतल्यांत त्या वेळार तांकां दायजान जी राजकी परिस्थिती मेळिल्ली ती हे तरेची आशिल्ली. हे परिस्थितींतल्यान वाट काडून स्वतंत्रतायेच्या झुजाचें तारूं स्वराज्या मेरेन कशें पावोवचें, हो प्रस्न तांकां पडलो. हरशींय जाल्यार स्वराज्याचें काम आकांताचें कठीण आशिल्लें. तातूंत, हिन्दू-मुसलमानां मदीं एकचार घडोवन हाडले बगर तें कशेंच मुखार वचपाचें नाशिल्लें. गांधीन पळेलें : हो हिन्दू-मुसलमानांचो 'प्रस्नू'च निर्माण केला इंग्रजांचे राजवटीन. तो सोडोवपाच्या वावरांत आडखळी हाडटात तीन गजाली. पयली, मुसलमानांच्या मनांतली भिरांत, आनी हे भिरांतींतल्यान आयिल्लें तांगेलें मस्तेपण. दुसरी, हिन्दूंचें आंखूड मन आनी तिसरी, इंग्रजांचें Divide and Rule - दोगांकूय एकामेकां पसून पयस दवरून तांचेर राज्य करपाचें - धोरण.

आनीक एक गजाल तांचे नदरेंत भरली. हो प्रस्न वयल्या-वयल्यान पळेल्यार दिसता राजकी. पुणून तो खरो सामाजीक-सांस्कृतीक प्रस्न. हो प्रस्न निखट्या राजकी उपायांनी सोडोवंक येवपाचो ना. मुसलमानांक दुशण दिवन तांचे आड वचून, तांचे मुखार तकली नमोवन वा तांकां माथ्यार घेवन, कशेच भाशेन तो सुटपाचो ना. धरुंया, मुसलमान आपणाले राजकी सुवार्थ वळखून हिन्दूं कडेन एकचाराक तयार जाले जाल्यार, फाल्यां शिख आपणालो नवो प्रस्न उप्रासून काडचे नात हाचें खरेपण ना. ह्या देशांत मुसलमान आसात तशे क्रिस्तांव आसात. शिख





आसात तशे पारशी आनी ज्यूय आसात. ते भायर, बौद्ध, जैन, लिंगायत बी आंपणाक 'हिन्दू न्हय' म्हणपी जायत्यो जमाती आसात. संवसारांतल्या सगळ्याच धर्मांचे लोक हांगा आसात आनी ते हांगाच रावपाचे आसात. देवान हे सगळे धर्म हांगा हाडून दवरल्यात ते ह्या देशान एक नवी साधना करची म्हूण. हिन्दूंक एक नवी देख दिवची म्हूण. सगळ्यांक सांगाताक घेवन मुखार वचपाची नदर तांच्यांत येवंक पावची म्हूण.

गांधीन दोन कार्यावळी हातांत घेतल्यो. एक धर्मसमन्वयाची आनी दुसरी हिन्दू समाजांतलें आफूड-भश्ट ना करपाची. म्हळ्यार सर्वधर्म-समभावाची आनी अस्पृश्यता निवारणाची.

गांधीन समजावन सांगपाक सुरवात केली : एकचार घडोवन हाडूंक जाय तो फकत हिन्दू आनी मुसलमानां मदींच न्हय. हिन्दू-क्रिस्तांव, क्रिस्तांव-मुसलमान सगळ्या जमातीं मदीं घडोवन हाडूंक जाय. सगळ्यांनी एक नवी देख घेवंक जाय. राजकी एकचार वयल्यान थापूं येतात. थोडी सत्या हाका ताका वांटून एकचार जाल्ले भाशेन भासोवंकूय येता. पुणून हो खरो एकचार न्हय. खरो एकचार कसोच भंगचो ना. हो एकचार फकत आमच्यो नदरो बदलून, आमच्या attitude त, सभावांत बदल घडोवन हाडूं येतलो. चडसो बदल हिन्दूंचे नदरेंत जावंक जाय. कित्याक, तेच हांगासल्ले भौ-संख्य लोक. 'हांच्या हातांत आमचें हीत सुगूर आसा' अशें बाकीच्या सगळ्या जमातींक दिसत इतलो बदल सगळ्यांत पयलीं हिन्दूंत घडून येवंक जाय.

गांधींचें 'विधायक कार्यक्रम' नांवाचें एक ल्हानशें पुस्तक आसा. स्वराज्य हाडपा खातीर देशभक्तान, स्वतंत्रतायेच्या झुजाऱ्यान कितें कितें करूंक जाय हें तातूंत सांगलां. तातूंत म्हळां : स्वतंत्रतायेचो झुजारी देशभक्त आसतलो. जल्मान आनी परंपरेन तो खंयच्याय धर्माचो आसूं, आपूण त्याच धर्माचो आनी तेच परंपरेचो अशें ताणें मानूंक जायना. आपूण हिन्दू, मुसलमान, पारशी, शिख सगळ्यांचो प्रतिनिधी अशें ताणें मानूंक जाय. सगळ्या जमातींच्या लोकां कडेन ताच्या काळजाचो पीळ पडिल्लो आसूंक जाय. 'आमी आमचें पळेतले, तुमी तुमचें पळेयात, ही नीत ताणें सोडुनूच दिवंक जाय. सगळ्यांच्या सुखांचो आनी दुःखांचो आपूण वांटेकारी, अशें ताका मनस्पुर्वेक दिसूंक जाय. हे तरेचें आपलेपण ताच्यांत

उदेवपा खातीर ताणें दुसऱ्या धर्मांत जल्मा आयिल्ल्या आनी दुसऱ्या परंपरांनी वाडिल्ल्या लोकां कडेन दाट इश्टागत करूंक जाय. आपणाले परंपरे इतलोच ताका दुसऱ्यांचे परंपरेचोय भौमान दिसूंक जाय.

हे तरेची नदर घेवन आमी चलपाक लागले जाल्यार तिचो परिणाम राजकी जिविताचेरूय जाले बगर रावचो ना.

आमी एकामेकां पसून पयस रावतात देखून एकामेकांक सारके वळखनात. आमी एकामेकांक सारके वळखनात देखून आमकां एकामेकां विशीं आपलेपण दिसना. एकामेकांचे लागीं वचपाची, एकामेकांचो एकामेकांक पीळ पडपाची धर्मक्रांती घडोवन हाडले बगर आमचें राजकी जिवितूय सारकें चलपाचें ना, ह्या मत्तार पाविल्ल्यान गांधीन हिन्दू-मुसलमानांचो प्रस्न सोडोवपा खातीर जें जें कितें केलें तें सगळें 'ईश्वर अल्ला तेरे नाम, सबको सन्मती दे भगवान' हे आर्त प्रार्थनेच्या रुपांतूच फळ्ळें. ही प्रार्थना फकत हिन्दूंक आनी मुसलमानांक एकठांय हाडपी नाशिल्ली. हिन्दू-मुसलमान, हिन्दू-क्रिस्तांव, हिन्दू-बौद्ध सगळ्यांक एकठांय हाडपी भारताची राष्ट्रीय प्रार्थना आशिल्ली.

गांधींक ह्या वावरांत केदें जैत मेळिल्लें हें खान अब्दुल गफार खाना सारको एक देवमनीस तांकां शिष्य म्हूण मेळ्ळो आनी बीबी अम्तुस सलाम आनी रैहाना तय्यबजी सारकेल्यो दोगी मुसलमान धुवो मेळ्ळ्यो, हाचे वयल्यान दाखोवं येता. सनातनी मुसलमान बायलांनी आयजवेर खंयच्याच मुसलमान फुडाऱ्याक आपणालीं तोंडां दाखोवंक नात. गांधीं मुखार बसतना मात तांणी केन्ना तोंडां पड्ड्यां फाटल्यान लिपोवंक नात. गांधींक मुसलमानांचें जे तरेचें 'फॉलॉइंग' मेळिल्लें तसलें आनी तेदें खंयच्याच राष्ट्रीक फुडाऱ्याक ते आदीं आनी ते उपरांतूय मेळूंक ना. पुणून

एक 'पुणून' ह्याय मळार आसा -

इंग्रजांच्या काळारूच हिन्दू-मुसलमानां मजगतीं दंगे सुरू जाले, ते चलत रावचे हे तरेचेंच तांणी आपणालें धोरण आंखलें आनी तांगेलें हें धोरण तांचे हिन्दू आनी मुसलमान शिष्य विस्वासान आनी भावीकपणान मुखार चलोवंक लागले, हें खरें आसलें, तरूय एक गजाल स्पस्ट करूंक जाय : दंगे आमच्या समाजाच्या ज्या विस्कळीतपणाक लागून जावंक पावताले तें विस्कळीतपण मात इंग्रजांनी निर्माण करूंक नाशिल्लें. वेगळेचाराची पिडा आमच्या समाजांत आमच्या 'पवित्र'



धर्मशास्त्रकारांनी आनी स्मृतिकारांनी निर्माण केल्ली. आमी वेगळे, तुमी वेगळे, आमी आमचें पळेतात, तुमी तुमचें पळेयात, हे देखीन आमी आमचो समाज - मुसलमान हांगा येवचे पयलींच - विस्कळीत करून उडयल्लो. आमच्या समाजांतल्या ह्या विस्कळीतपणाच्या तत्वांक इंग्रजांनी घालें तें फकत उदक आनी सारें.

गांधींच्या नेतृत्वा खाला चलिल्ल्या स्वतंत्रतायेच्या झुजा कडेन लोक धर्म जात बी विसरून ओडटात शें दिसना फुडें हिन्दी समाजांत जे 'आमी वेगळे' हे लागणुकेन चलतालें तितल्यांकूय इंग्रजांनी व्हड करपाक सुरवात केली. तितल्यांकूय राजकर्णांत मान्यताय दिली.

मुस्लीम लीग १९०६ त जल्मा आयिल्ली. पुणून १९३६ मेरेन तिका प्रभावी असो फुडारी मेळूंक नाशिल्लो. छत्तिसांत तिका एक बुदवंत, गर्विश्ट आनी शिटूक फुडारी मेळ्ळो : महमद अली जिना. गांधींक होच वस्ताद अशें धरून इंग्रजांनी ताका आकांताचो व्हड केलो. मुसलमान हें एक वेगळें 'राष्ट्र'. तें 'स्वतंत्र राष्ट्र' म्हुण्णूच जियेतलें ही हालेट दिवन मुसलमानांचे हावेस जिनान वाडयले. तांच्यांत एक नवी उर्बा, एक नवो प्राण फुंकलो. 'आमी वेगळे...वेगळे सरतले' हे कल्पनेन मुसलमान फुरफुरले.

हे वाटेन हिन्दू महासभेन *'हिन्दुस्तान हिन्दुओं का ... नहीं किसी के बाप का'* ही हालेट दिली. म्हळ्यार, मुसलमान हें एक वेगळें राष्ट्र हे जिनाचे 'थियरी'क हिन्दू महासभेन एके तरेन मान्यतायूच दिल्ली म्हणूंक जाय. सावरकर आनी जिना दोगूय एकामेकांचे दुस्मान आसले तरूय एकामेकांचे शिष्य आनी गुरू जाल्ले आनी दोगूय इंग्रजांक जाय तेंच करताले.

खासा काँग्रेसींतूय कांय हिन्दुत्ववादी फुडारी आशिल्ले. तेय मदीं मदीं जिनांक काँग्रेसीचे दानतीचो दुबाव येवचो आनी परिस्थितीचो लाव जिनांक घेवंक मेळचो हे तरेन चलताले. सावरकर आनी काँग्रेसींतले हिन्दुत्ववादी, दोगांयनी जिनांक घट जावपाक जायते सुयेग मेळोवन दिल्यात. एकूच दाखलो घेवया - डॉ. महमूद पंदरा वर्सां काँग्रेसीचे वर्कींग कमिटीचे वांगडी आशिले. बिहारांत काँग्रेसीचें मंत्रीमंडळ आयलें तेन्ना मुख्यमंत्री जावपाचो हक डॉ. महमूदाचोच आशिल्लो. काँग्रेसींतल्या हिन्दुत्ववादी लोकांनी तांकां मुख्यमंत्री जावंक दिले ना. हे एके करणेन खासा

काँग्रेसींतले मुसलमान लेगींत दुखावले. जिनान हे गजालीचो बाकीच्या मुसलमानांक सादूर करपा खातीर खूब लाव करून घेतलो.

मुसलमान आनी हिन्दू हे भाशेन झुजता आसतनाच इंग्रजांनी स्वराज्याचे वाटेंत आडमेळी हाडपाचे आनीकूय जायते उपद्व्याप केल्यात. केन्ना शिखांक फुलयल्यात. तर केन्ना हिन्दूंच्या गोपांतल्या हरिजनांक खुबयल्यात. डॉ. आंबेडकरांक हिन्दी राजकर्णांत जें सुमारा भायर म्हत्व मेळ्ळें तें आंबेडकरांच्या गुणां परस चड इंग्रजांच्या Divide and Rule धोरणाक लागून हें विसरूंक फावना. महाराष्ट्रांत आनी मद्रासेंत ब्राह्मण-ब्राह्मणेतर वाद नेटान सुरू जालो तोय इंग्रजांकूच लागून हेंवूय विसरूंक फावना.

ह्या खवळिल्ल्या दर्यांतल्यान स्वतंत्रतायेचें तारूं स्वराज्या मेरेन पावोवपा खातीर गांधींक कितले त्रास पडल्यात जातले, हाचो अदमासूच केल्लो बरो.

हिन्दू-मुसलमानांचो 'प्रस्न' फकत हिन्दू-मुसलमानांचो नाशिल्लो. तो खरो हिन्दू समाज-वेवस्थेचो आशिल्लो. जे मेरेन आपलो-पेलो, ऊंच-उणाक, भायलो-भितल्लो ह्या तत्वांचेर उबारिल्लो हिन्दू समाज मुळा थावन बदलचो ना, ते मेरेन हो प्रस्न ह्या ना जाल्यार त्या रुपान सदांच आमकां त्रास दीत रावतलो अशें गांधींचें मत्त आशिल्लें. हिन्दू समाजांत जे मेरेन 'उणाक' जाती आसतल्यो, 'सकयल्यो' वा 'भायल्यो' चिड्डल्ल्यो जाती उरतल्यो, ते मेरेन हिन्दू समाज सोडून भायर वचपाचीं दारां तांचे खातीर सदांच उकतीं उरतलीं आनी ज्यो जाती हिन्दू समाजा भायर वतल्यो त्यो सदांच हिन्दू समाजा आड बंडां करीत रावतल्यो, अशें ताका दिसतालें. भायल्या मुसलमानांच्या आगळिकां परस बाटिल्ल्या मुसलमानांच्या आगळिकां फाटलो किंवाटो पळोवन हें उकतें जाल्लें. पुणून येदोय व्हडलो हो इतिहास अणुभवुनूय हिन्दू समाज जागो जावंक नाशिल्लो. आपणाली समाज-वेवस्था मुळा थावन बदलूंक जाय हें ताका केन्नाच येवजूंक नाशिल्लें. गांधींनूच तें ताच्या लक्षांत सगळ्यांत पयलीं हाडून दिलें म्हणूंक जाय.

गांधीन म्हळें, तुमकां हिन्दू-मुसलमानांचो प्रस्न सोडोवपाचो आसा मू? तशें जाल्यार मागीर, राजकी नदरेन येवजुपाचें सोडून दियात. मातशे खोलायेंत देंवात. हो प्रस्न कित्याक लागून निर्माण जालो हाचो सोद घेयात. तुमच्या समाजांत ऊंच-उणाकपण आसा, आफूड-भश्ट आसा. प्रायश्चित रुपान हरिजनांक आपणावन हें

आफूड-भश्ट पयलीं ना करात. ऊंच-उणाकपणाचे इमारतीचे बुन्यादीचो फातरूच ह्या वावरान पयलीं निखळायात. सगळ्यो हिन्दू आनी हिन्दू न्हय त्यो जाती एकाच घरांतलीं मनशां, एकामेकांचीं भावंडां अशें मानात. सगळ्यांक हांगाच रावपाचें आसा हें लक्षांत धरात. सगळ्यांक आपणावपाची, सगळ्यांक भौमानान चलोवपाची, सगळ्यांक सांबाळून घेवपाची एक उदार देख आपणाक लावन घेयात.

म्हळ्यार, म्हजे वांगडा तुमीय सोंशीकपणान आनी धिरान 'ईश्वर अल्ला तेरे नाम, सबको सन्मती दे, भगवान' अशी आर्त प्रार्थना करात आनी ती करता आसतना कोणेंय तुमचेर फार मारले जाल्यार 'हे राम' म्हणून आपणालें बलिदान दिवपाक तयार रावात.

ते बगर हो प्रस्न सुटपाचो ना. आयजूय ना, फुडाराकूय ना.

■





इकबाल मोट्या अभिमानान म्हणटालो -
यूनानो मिश्रो रूमा, सब मिट गये जहाँ से।
अब तक मगर है बचकी, नामो निशां हमारा ॥
आनी मागीर खासा आपणाकूच विचारतालो, 'अशें कित्याक लागून घडूंक पावलें?' आनी जाप दितालो -
कुछ बात है की हस्ती मिटती नहीं हमारी ।
हिन्दी हैं हम, वतन है हिन्दोस्तां हमारा ॥
ही कुछ बात सोदून काडले बगर आमी आमच्या फुडाराक फावS सारकें रूप दिवंक पावपाचे नात आनी मुखावेलीं आमचीं पावलांय सारकीं पडूंक पावपाचीं नात.
ही कुछ बात सोदून काडपाक रवीन्द्रबाब आमकां वेदीक युगा पसून गांधी युगा मेरेनच्या आम[illegible]संस्कृतायेच्या पांच हजार वर्सांच्या इतिहासांत भोंवडावन हाडटात.
एक आगळें वेगळें पुस्तक हें, जण एका देशभक्तान वाचुंकूच जाय हे भाशेचें.